BIMB/DEC. 2022/Vol.21/ISSUE12/Panaji-Goa. REGISTERED GOA/01/2021-2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

# बिम्ब

मासिक
देझेंब्र २०२२

## 'आय हॅव इलेक्ट्रीक ड्रीम' ह्या स्पॅनीश चित्रपटाक भांगरा मोर

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब कोंकणी मासिक



ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात.
संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.

वर्स २१: अंक १२
देझेंब्र२०२२
मोल ५० रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**अंक सजावट**
गिरीश नंदा बोरकार,संकेत लवंदे

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

**वर्गणीचे दर :**
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

**BANK DETAILS :**
**Bimb Monthly Publication**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# गांवच न्हय, पुराय गोंयच अतिसंवेदनशील..!

संपादकी

देझेंब्र म्हयनो गोंयकारां पासत एक अतिसंवेदनशील म्हयनो. जाका कोणाक गोंयकारपणाचो मोग आसा आनी ही गोंयची भूंय जांका आपली मांयभूंय म्हणपाचो अभिमान आसा त्या दरेक गोंयकाराक देझेंब्र म्हयनो हो एक उत्सवी म्हयनो दिसूंक फावो. ह्या म्हयन्यांत नातलां आनी नव्या वर्साक येवकार असलेय उत्सव आसले तरी सगल्यां परस चड काळजाचो उत्सव म्हणल्यार 19 देझेंब्र! ह्या दिसा गोंय पुर्तुगेजांचे गुलामींतल्यान मेकळें जावन आपलो साडेचारशीं वर्सां अंदलो फुडार फुलोवपा पासत स्वतंत्र जालें. गोंयच्या कितल्याच पिळग्यांनी साडेचार शेकड्यांत जें कितें भोगलां आनी सोंसलां तें जर उस्तून काडीत जाल्यार 19 देझेंब्र 1961 उप्रांतचे पिळगेक हो दीस कितलो म्हत्वाचो हाची कल्पना येतली!

पूण गोंय मुक्ती उप्रांतच्या ह्या स दसकांत गोंयची जी कितें अवस्ता जायत गेल्या आनी आयज आमचें गोंय आनी आमच्या गोंयकारांची जी कितें अवतिकाय आमी पळयतात ताचेर नदर मारत जाल्यार आमी खऱ्यानीच मेकळे आसात काय कितें असो प्रस्न पडले बगर रावना. हेच आवतिकायेक लागून आनी विचारांच्या गोंदळाक लागून गोंयकारांक 19 देझेंब्राचेंय म्हत्व होलमना आनी गोंयच्या मुक्तीचो हिरक महोत्सव मनयतनाय तांचे जिणेंत खंयच उत्साह आशिल्ल्याचें दिसलें ना. हाका लागून गोंयकारांची संवेदना कित्या पासत मरूंक पावली हाचेर खरें म्हळ्यार कळावान काय जायना विचार करपाची गरज आसा. वर्साचे इकराय म्हयने जरी आमी फकत जिणेचो उपभोग घेवपाक जरी गुल्ल जाल्यात अशें धरून चल्ले तरी देझेंब्र म्हयनो तरी आमी गोंयकार खंय वचूंक भायर सरिल्ले आनी खंय पावल्यात हाचेर विचार करूंक राखून दवरपाची गरज उप्रासल्या. तो विचार जर आमी गांभिर्यान केलो ना जाल्यार गोंय मेकळें करून गोंयकारांनी कांयच साधलें ना,फकत त्या पासत सुटके झुजाऱ्यांक गोळाक लायले हाची आमकां बिरमत फुटले बगर रावंची ना!

गोंयांत ह्या स दसकांत वेगवेगळे प्रस्न आनी समश्या एका फाटल्यान एक तकली वयर काडीत आसात. हे प्रस्न आनी समश्या सैम निर्मीत न्हय तर मानव निर्मीत. गोंय मेकळें जायत साकून जांका गोंय आनी गोंयकारांच्या फुडाराचो हुसको आशिल्लो, गोंय आनी गोंयकारांच्या परजळीत फुडाराचे नदरेन जांका खाशेली नदर आनी विचार आशिल्लो, त्या सगळ्यांक तांदळांतलो आसो मानून विचार आनी फुडाराची पारखणी नाशिल्ल्या अप्रबुद्द लोकांनी अचळय कुशीक दवरले. आपली मोटवी नदर आनी आनी आपलें चिंतप हेंच सत मानून, जांका गोंयच्या फुडाराचें कांयच पडून गेल्लें ना तर फकत पडिल्लें आसा आपल्या सुवार्थाचें असल्या लोकांचे सल्ले घेवन गोंय मुखार घेवन गेल्ल्यान आयज गोंयची अवस्ता हळशिके पाश्ट जाल्या. हाका जापसालदार कोण? जांणी गोंयकारांक शिंगा लायलीं ते राजकारणी? काय जांणी असल्या आपसुवार्थी लोकां कडल्यान परत परत फटोवन घेतलें ते गोंयकार? गोंय मुक्तीचो हिरक महोत्सव उलगता आसतना ह्या गजालींचेर नदर मारपाची गरज आसा.

ह्या दिसांनी गोंयचे कांय गांव अतिसंवेदनशील म्हणपाची अधिसुचोवणी काडून ते अभयारण्या भायरे करपाच्या वावराक गती आयल्या. हे अधिसुचोवणेक विरोध करून आपलो गांव वाचोवपा पासत त्या गांवचे लोक फुरफुरल्यात. सत्तरी म्हालांत असले अतिसंवेदशील 56 गांव आसात आनी तांची राखण करपा पासत फाटलीं दोन दसकां थंयचे गांवकार झुंजतात. सत्तरी भायर सांगें आनी हेर म्हालांनी आनीक 43 गांव आसात. हे सगले 99 गांव अतिसंवेदनशील म्हूण अधिसुचीत करपाक आपूण दिवंचो ना म्हणपाचें थळाव्या आमदारान जाहीर केला. ताका वेंचून येवपाक जाय म्हूण आपल्या उतराक आमदार जागतय बी. तेच वांगडा वेंतावेंतान अभयारण्यांत अतिक्रमण केल्ल्या गांवकारांकूय आमदारांनी शिटकावपाक जाय. अभयारण्यांत अतिक्रमण करून वसणुके खाला हाडिल्ल्यान थंयच्या प्राण्यांचे वसणुकेचेर हावळ आयल्या. हे प्राणी जर गांवात आयले जाल्यार तांका भिवून तांच्या जिवार झुडून वचप सर्रास घडटना दिसता. म्हणटकच हें अतिक्रमण सोदून काडून अभयारण्या वांगडाच गांवूय राखपाची गरज आसा.आमदार मतां पासत कोणाक न्याय दिता तें फुडाराक कळटलेंच!

गोंयचे हे गांव आयज अतिसंवेदनशील थारल्यात ताचे फाटल्यान बेकायदेशीर अतिक्रमण आसाच. तशेंच पुराय गोंयांतूय गोंया भायल्यांचें खास करून दिल्लीवाल्यांचें अतिक्रमण जालां. हांचे भितर आनी हिंस्र प्राण्या भितर तसो फरक दिसना. हांणी गोंयचो विध्वंस केला हाचीय कल्पना गोंयच्या सगळ्या आमदारांक येवंक जाय. हाका लागून पुराय गोंय अतिसंवेदनशील म्हणपाचें घोशीत करून गोंयकारांची लोकजीण वाचोवपाची गरज आसा!

# जिदद




महाराष्ट्रांतल्या शिनोटी गांवांत कुलकर्णी नांवाचें एक कुटूंब रावतालें. एक आस्तिक कुटूंब. तांचो उसाचो मळो आसलो. तातूंत भरपूर उसाचें उत्पन्न येतालें. तशेंच आनीकूय धान्य पिकतालें. ताचे पासून तांका भरपूर पयसो येतालो. त्या शेताचो मालक पांडुरंग.बायल शेंवतें आनी व्हडलो चलो किशोर.ताचे फाटलें मालती आनी लतिका. तशीं तीं भुरगीं हुशार. गांव तसो व्हडलो नासलो आनी गांवांत एक बरीशी शाळाय नासली.

पांडुरंगाचे बायलेचें कुळार बाशी नांवाच्या गांवांत आनी तिच्या कुळारचें आडनांव शिंदे. हो गांव कर्नाटकांत पडटालो आनी थंय कन्नड भाशेंत शिक्षण चलतालें. थंयचो सगळो वेव्हार कन्नड भाशेंत आनी लोकूय कन्नड उलयताले. किशोराक तशी मोडकी तोडकी कन्नड येताली. किशोराच्या बापायन चड विचार करी नासतना ताका फुडल्या शिक्षणाक आजोळा घालो. हळू हळू करून किशोर कन्नृ शिकलो. तातूंत तो मुळचोच हुशार आशिल्ले कारणान ताचें शिक्षण बरें नेटान चालू आसलें. किशोर थंय कन्नड उलयतालो,वाचतालो आनी बरयतालो.घरा येतकूच मराठी उलयतालो. पूण ताका ती सारकी वाचूंक वा बरोवंक येना आशिल्ली. तो फकत सुटयेंत घरा येतालो.

अशें करून धायेक वर्सा सरलीं. किशोराची धाव्वेची परिक्षा जाली आनी तो बऱ्या मार्कांनी पास जालो. ताणें फस्ट क्लास मेळोवपाक खूब कश्ट घेतले. ताच्या घरच्यांक आनी आजोळच्या लोकांक खूब खोस जाली.

आतां फुडले शिक्षणा पासत प्रयत्न सुरू जाले. फुडलें शिक्षण शारांतले कॉलेजींत आनी लागीं म्हणतात तें कोल्हापुराक. ताचे मार्क पळोवन ताका रोखडेंच कोल्हापूर कॉलजात प्रवेश मेळ्ळो. पूण शिक्षण मराठींत.

एक देड म्हयन्यांत कॉलेज सुरू जालें. तो हॉस्टेलांत रावन कॉलेजींत शिकतालो. मोडकी तोडकी मराठी उलोवन आपलें काम सादतालो. पूण ताका वर्गांत कितें शिकयतात तें सारकें कळऽ नासलें. ताणें समजून घेवपाचो खूब प्रयत्न केलो. पूण ताका कोणूच समजून घे नासलो. दीस उलगले तशेच म्हयने गेले आनी निमाणी परिक्षा आयली. किशोरान खूब प्रयत्न केले. किशोरान खूब प्रयत्न केले खरे पूण कांयच उपेग जालो ना. अपेक्षे प्रमाण तो फेल जालो.

पांडुरंगाक आपलो पूत नापास जालो म्हूण खूब राग आयलो. तो कित्याक नापास जालो हाचो सोद घेवपाचो ताणें प्रयत्न केलो ना. रागाच्या भरांत ताणें किशोराक उसाच्या मळ्यांत कामाक धाडलो. किशोराक खूब वायट दिसलें. पूण तो आपल्या बापायक कांयच म्हणूंक शकलो ना. मोन्यानी तकली सकयल घालून तो हेर मानायां सारको मळ्यांत वचूंक लागलो. ताका ह्या कामाची संवय नासली म्हणून ताचे हात पांय दुखूंक लागले. रातची न्हिदेंत लेगीत ताका जाग येताली. पूण ताणें मनांत थारायलें, आपूण बापायक बरे मार्क घेवन दाखयतलोंच. ताणें गांवांतलो एक बरो मास्तर सोदून काडलो. ताका ताणें आपली सत्य परिस्थिती सांगली. आपूण काम सोंपतकच शिकपाक येतलों,आपल्याक मजत करात म्हणपाचें दोळ्यांत दुकां हाडून,पांय धरून ताका सांगलें. ताची ती कळकळ पळोवन त्या मास्तराक ताची काकळूट आयली. ताका ताणें यशस्वी करपाची पुराय जबाबदारी घेतली.

किशोर त्या दिसाच्यान फांतोडेच्या पांच



वरांचेर उठून अभ्यास करूंक लागलो.मागीर दीस भर उसाच्या मळ्यांत राबप, सांजवेळां मास्तरा कडेन वचून शिकप घेवप अशें करतालो. ताका हळू हळू मराठी भाशेचें गिन्यान येवंक लागलें. तो वर्सुकी परिक्षेंत बसलो आनी पयल्या वर्गांत पास जालो. मागीर ताणें डेन्टल कॉलेजींत भरती करून घेतली. तरी तो जेन्ना जेन्ना वेळ मेळटा तेन्ना तो उसाच्या मळ्यांत वचून कामूय करतालो. आपल्याक जीवनांतलो खरो मार्ग दाखयलो तो ह्या उसाच्या मळ्यानच हें ताका खबर आसलें.

किशोर आतां बरो डेंटीस्ट जालो. ताणें आपल्या गांवांत डेंटल क्लिनीक घाली. हळू हळू त्या वेवसायांत ताचो जम बसलो. गांवांतल्या लोकांची ताचे कडेन भरपूर गर्दी जाताली. तरी लेगीत तो वेळांत वेळ काडून उसाच्या मळ्यांत वचून थोडो वेळ सारतालो.

दिस गेले,म्हयने गेले. लग्नाची पिराय जाली तशी किशोराचें लग्न जालें. शिरस्त्या प्रमाण किशोर बायलेक घेवन देवळांत देवाक पांयां पडपाक गेलो. थंयच्यान तो सरळ बायलेक घेवन उसाच्या मळ्यांत आयलो. थंड वाऱ्याच्या झोतांत ती त्या मळ्यांत एकांतांत बसलीं. किशोरान आपले बायलेक आपल्या ह्या मळ्या कडल्या नात्याची खबर सांगली. तिचे दोळे भरून आयले. तांचें दोगांयचें नातें त्या मळ्यांत आनीकूय घट जालें.




**डॉ.उल्हास प्रभू नास्नोळकार**

नामनेचे हाडांचे दोतोर,कवी आनी ललित लेखक.





## नव्या वर्सा समाधान जोडात

फुडल्या म्हयन्यांत,जानेवारी २०२३ त बिम्ब मासिक आपलो २२ वो वाढदीस मनयता. पुराय दिसाच्या ह्या सुवाळ्यांत राश्ट्रीय परिसंवाद,पांच प्रवास वणर्नांचें प्रकाशन आनी मनरिजवणेची कार्यावळ अशें ह्या सुवाळ्याचें स्वरूप थारायलां. सुवाळ्याचो विशय 'प्रवास,प्रवासवर्णन आनी पर्यटन' असो आसा. त्या निमतान गोंयच्या पर्यटन संबंदीचे खाशेले लेख जानेवारी अंकांत आसपावल्यात. वर्धापन दिसाच्या निमतान जानेवारीचो बिम्ब रंगीत येवंचो अशें दिसता आनी तसो प्रयत्न चालू आसा. गरज आसा ती तुमच्या सहकार्याची. तुमी तुमच्या आस्थापनाची, पुस्तकांची वा शुभेच्छा रुपान व्यक्तीगत जायरात दिवन अंक फुलोवं येता. कितल्या रकमेची हाका अर्थ ना. जाय ती दानत.मुजरत दिवन पळयात,'बिम्बा'त आपली जायरात आसा हाचें भावनीक समाधान लाबतलें.-सं.

## आदितीची वैशिश्ट्यपूर्ण मुलाखत

**अदितीची मुलाखत बिम्ब नोव्हेंब्र म्हयन्यांत उजवाडाक आयल्या. श्रद्धा गरड हांणी ती मुलाखत घेतल्या आनी एकूण मुलाखत बरी जाल्या. तातूंत एका नव्या विशयाची म्हायती मेळटा.समाजांतल्या सगल्या लोकांक हो विशय जाणवता आनी ते विशीं जागृताय हाडपी अशी ही मुलाखत आसा. ते पासत ह्या अंकांतली ही मुलाखत लोकांनी वाचूंक जाय.बाय श्रद्धान जे कळाशेन आनी बुदवंतकायेन जे प्रस्न विचारल्यात ताका लागून आदितीक ह्या विशयाचेर खूब उलोवपाक संद मेळ्ळी. हे मुलाखतींत आदिती आपले क्षमते बद्दल कांय उलयना. फकत दुसऱ्यांच्या बरेपणाचेर आपूण तरलां अशें चडशें उलयता. म्हजो शिक्षक म्हूण आनी आदर्श म्हूण फावो ताचे पेक्षा चड उल्लेख जाला. आवयच्या फोकस करून वावर करपाचेर ताणें जें कितें सांगलां तें सामकें खरें आसा. आपल्याक मेळ्ळ्यांत तीं मांय मांव नशिबानूच मेळ्ळ्यांत तीं दुसरीं आवय बापूय. तीं आपल्याक धुवे वरींच वागयतात अशें तें सांगता. ही गजाल थोड्यांकूच मेळटा. ती कोण उलोवन दाखयनात. पूण अशे मुलाखतींत तें सांगप म्हळ्यार ताची नोंद जावप. आदिती आपलें व्हडपण कांयच सांगनासतना हेरांचें सांगता हाका लागून ही मुलाखत खूब वैशिश्ट्यपूर्ण जाल्या.**

**– महेंद्र फळदेसाय**




परिकाराक श्वास घेवंक उसरपत ना
आनी म्हजेंय तर तटलां
ताणें इफ्फीक खांद मारला
हांवें दिवाळी अंक आंगार घेतला
तागेलो टायमार इफ्फी जावंक जाय
म्हजो दिवाळी अंक वेळार येवंक जाय
इफ्फीक केंद्र सरकार दुडू दिता
म्हाका गोंय सरकाराचो जाय
निदान दोन-चार जायराती तरी
नातर दिवाळी अंक येवपाचें सोडाच
म्हजेंच दिवाळें जावपाचें
परीकाराक कसोय करून धरूंक जाय
शोधू कुठ्,शोधु कुठं करत भोंवलों
पूण खंयच आपटलो ना
उपाय नासून दिवाळी अंक छापलो
सगळ्यांक फुकट वांटलो
करतलों कितें,कोंकणीचो मोग!
रोखडोच डिसेंबर अंक तेंकलो
ताका तरी दोन जायराती जाय
नातर सामकोच एक्सांत पडटलों
म्हणलें परिकाराक मेळ्ळे बगर पर्याय ना
वाटेर तरी धरपूच खंय तरी
पूण सेक्युरिटी सामकी तायट
गोंयचे पुलीस ते मानान बरे
रातचे केन्नाय बारांचेर मेळटात
ते वळखीन आडायनात
पूण हे एक्साचे हरियानाचे पुलीस
आर्मां पोटाक तेंकोवन कुशीक काडटात
पुलीस सोडाच,सादे गार्ड लेगीत
गरजे भायर हुर्र हुर्र करतात

एक्साची तिडक एक्साक मारता
पूण आमचेंच नशीब फुटकें
गरजेवंताक अक्कल नासता म्हणटात
तांकां कितें कळटलें हांव कोण तो!
पुस्तकां व्हरून दाखयल्यार नमतले?
हांगा कोंकणीवादी हात लायनात

बाबा पुता करून आयनोक्साच्या दारांत रावलों
थंय इफ्फीचे कचेरेंत तो येतलोच
अशें येवजितां थंयच आसां
8888 गाडी सामकी म्हज्यांत उबी!
तो गाडयेंतल्यान देंवलो तसो हांव धांवलों
'कितें रे बोरकार,हांगा कितें करता?'
म्हज्या खांदार हात घालून ताणें म्हणलें
हांवें हड्डें मुखार काडून सेक्युरिटी कडेन नदर मारली
पळयलें मरे हांव कोण तो!अशे नुरेन
'भाई,दिवाळी अंक काडून फसलां'
हांवें इफ्फीचो पास मागचो तशें म्हणलें
'हांव बेकार आसां रे? मागीर पळोवंया!'
ताचेंय बरोबर आशिल्लें
म्हाकाच काळवेळाचें भान ना
'निदान म्हाका दुसरें कितेंय दी'
ताणें 'श्वासा'क 21 लाख दिल्ले
म्हाका निदान एक तरी सुटूं येतालो
'तुज्यान कितें काम करूं येता?'
म्हज्या सदऱ्याचें बुतांव ताणें सांसपिले
भोवतेक जानवें आसा काय पळयता आसतलो!
अशे वेळार तरी हांवें तें घालूंक जाय आशिल्लें
सगळी वाट लायल्या उमेश म्हांबऱ्यान
ताच्या गळ्यांत तें काळेंकिट्ट आसता
तेंच पळोवन म्हाका घालीन दिसलें ना
आमची बुद्द धोंपरांत म्हणटात तें फट न्हय



इतल्यांत वयल्यान कावळो चिरपलो
'हांचें कितें करूं येता रे?'
ताणें सरभोंवतणच्या अधिकाऱ्यांक विचारलें.
'तें म्होंवां पोळें आनी रुखां वयले कावळे हांव पळयतां'
हांवें मुखार सरत तांका म्हणलें
'म्होंवा पोळें आमी काडटात. तूं फकत कावळ्यांचें कितें करप तें पळय!'
अधिकाऱ्यांनी म्हाका म्हणलें
हांवें तो कोंत्राद आंगार घेतलो
पूण कावळेच ते, कितलेंय सांगल्यार हागपाचे रावतात?
इफ्फी जावं फिफ्फी,तांका भोव पडलां
म्हज्या घरांत खादीचे सदरे आशिल्ले
तांचे पड्डेय जायनात आनी पिशव्योय
म्हणलें ताच्यो हगीज करून घेवंया
धरपाचे कावळे बांदपाची हगी
धरपाचे कावळे बांदपाची हगी
सद्या हांव तेंच करीत बसलां
म्हज्या एक्सांत कितें आसा देव जाणा!
लाख भर तरी सुटल्यार पुरो!
(वाचून परिकारान गाळी घाल्ल्यो, तरी 'सुचता कशें रे तुका?' अशें तोखणायेन विचारिल्ली एका इफ्फी काळांतली एक बोरकारी-हे इफ्फीक परिकाराची याद आयिल्ल्यान...)

●●●

# गोंयचे उदरगतींत गोंयकारांची अस्मिताय तिगतली?



दर एक प्रदेशाक आपली स्वताची अशी अस्मिताय आसता आनी गोंय ताका आडवाद ना. अस्मिताय हीच त्या प्रदेशांत जल्मल्ल्या दरएक मनशाक स्वताची अशी वळख दिता.

गोंयचीच देख घेतलो जाल्यार गोंयचो सैम, गोंयच्यो न्हंयो, दोंगर-दोंगुरल्यो, पारंपारीक धंदे , खाण -जेवणां, न्हेसप-संवरप, परबो, जात्रा-फेस्तां, लोकवेद आनी मुखेल म्हळ्यार कोंकणी भास ह्या सगळ्यांचो आसपाव गोंयचे अस्मितायेंत जाता. गोंयाक आपलो असो स्वताचो इतिहास आसा, भुगोल आसा, संस्कृताय आसा. थोडे भितर सांगतलो म्हळ्यार एक स्वताची अस्मिताय आसा. तीच गोंयकारांची एक खेरीत वळख करून दिता.

हे अस्मिताये खातीरच गोंयकार हो आपूण गोंयकार म्हण संवसारभर मिरयता. जर गोंयकारांक आपली अशी स्वतंत्र अस्मिताय नाशिल्ली तर गोंयकार आनी महाराष्ट्रीय, गोंयकार आनी केरळी , गोंयकार आनी बंगाली हांचे भितर वेगळेपण तरी कसलें आसतलें आसलें?



**सखाराम शेणवी बोरकार**

काव्य,ललित,विनोदी साहित्य,समिक्षा तशेंच कोंकणकाराच्या मळार सातत्यान योगदान दितात.

गोंयची अस्मिताय ही गोंयकारांक वळखुपाक एक कुरू. ही कदीमकाळा सावन चलत आयल्या. गोंयचेर कितलेशेच राजवटींनी आपली संस्कृताय लादपाचो येत्न केलो. पूण गोंयचे संस्कृतायेचेर ताचो व्हडलोसो परिणाम जालो ना. वयल्यान ते-ते राजवटींनी आपली संस्कृताय आमचे संस्कृतायेंत विरगळावपाचो एक फळादीक येत्न केलो.

साडेचारशें वर्सांचे पुर्तुगेज राजवटीन लेगीत गोंयची ही अस्मिताय नानपयत करपाचो येत्न केलो. धर्मांतराच्या सांवटांत लेगीत ही अस्मिताय तिगून उरली. जांका पुर्तुगेज राजवटीचो जांच सोंसलो ना म्हण जे गोंय सोडून दुसऱ्या राज्यांनी गेले थंय तांणी आपली अस्मिताय आपल्या वांगडा व्हेली आनी ती आयज मेरेन सांबाळून दवरली.

ही अस्मिताय तिगून उरपा फाटलें कारण आसलें तें म्हळ्यार गोंयकारांची आपली संस्कृताय आनी अस्मिताये विशीं आशिल्लो अभिमान आनी मोग. गोंयकार

खंयूय दुसरे प्रदेशांत वा परदेसांत गेलो जाल्यारय आपले अस्मितायेची नाळ तो तुटूंक दिना. आपलो लोकवेद, परबो आनी भास ताणें सांबाळून दवरल्या. आनी वेळ मेळटा तेन्ना गोंयांत येवपाची ताका उमळशीक लागता. आपल्या भुरग्यांक आपले अस्मितायेची जाणविकाय जावंची, आपले भाशेची वळख आसची असो ताचो येत्न आसता. आपले जिविताचे निमणे चार दीस गोंयांत सारचे अशें ताका मना सावन दिसता. हाचें कारण म्हळ्यार गोंयचे भुंयेचो, गोंयचे अस्मितायेचो मोग!.



### गोंयची उदरगत

साडेचारशें वर्सां परकी सत्ते खाला आशिल्ल्या गोंयची 19 डिसेंबर 1961 वर्सा सुटका जाली. उदरगतीच्या मळार मागाशिल्ल्या गोंयाक अचकीत उदरगतीचीं मळां उगतीं जालीं. गोंय मुक्ती वेळार गोंयची लोकसंख्या वट्ट सात लाख आसली. ही सात लाख लोकसंख्या वसणूकवादी अर्थवेवस्थांनी, राजकी गुलामगिरिच्या चेंपणा खाला वावुरताली. साप्प थोडे लोक सोडल्यार चडावत लोक अर्थीक नदरेन सकयल्या पांवड्याचें जिवीत जगताले. ते काळार जे थोडेभोव शिकिल्ले आसताले तांका सरकारी नोकऱ्यो मेळटाल्यो आनी तांचो आंकडो साप्प थोडो आसलो.

1925 वर्सा गोंयांत मीन निर्गतीचो धंदो सुरू जालो, पूण तो सामको थोडे प्रमाणांत चलतालो. 1955 वर्सा मिनाच्या धंद्यांत अचकीत वाड जाली आनी तो गोंयचे अर्थ वेवस्थेचो कणो जालो. हो एक धंदो सोडल्यार गोंयांत कारखानदारी नासली. थोडे प्रमाणांत चलपी आयात-निर्गतीचो धंदो आनी पारंपारीक धंदे जशे नुस्तेमारी, शेतकामत हातूंत गोंयकारांक थोडे प्रमाणांत अर्थीक फ़ाटबळ मेळटालें.

सुटके उप्रांतच्या पयल्या दसकांत शिक्षण, बँको हांचो खूब प्रसार जालो. देसांतल्या नामनेच्या कंपन्यांनी जशे परीं जुआरी, सिबा, एमआरएफ़ हांणी आपले कारखाने हाडले.

गोंयचे पारंपारीक धंदे जशे परी शेतकामत, नुस्तेंमारी, पशुपालन, मीन, पर्यटन आनी हेर मळांचेर सरकारी येवजण्यांच्या पालवान खूब उदरगत जाली. सरकारी आस्थापनांतल्यो नोकऱ्यो वाडल्यो आनी गोंयकारांक रोजगाराच्यो संदी उपलब्द जाल्यो.

संवसारांतलें एक नामनेचें पर्यटन केंद्र म्हण गोंयची नामना जाली. आनी ह्या पर्यटनाक लागपी म्हण व्हडलीं पांच नखेत्री हॉटेलां, इमारती उबारपाक आयल्यो. पर्यटन वेवसाय वाडलो. गोंयांत येवपी पर्यटक वाडले.

सरकारी क्षेत्रांतय बांदकामां व्हडा प्रमाणांत सुरू जालीं. रस्ते, पूल, धरणां आदींचीं बांदकामां सुरू जालीं. हें सगळें करपाक आमचे कडेन फावो तें मनीस बळ नासलें. ते खातीर हजारांनी कुशळ- अकुशळ मजूर गोंयांत आयले.

1961 वर्सा गोंयची लोकसंख्या जी सात लाख आसली ती 2001 वर्सा 14 लाख जाली आनी 2020 वर्सा ती 18 लाखां वयर पावल्या. ह्या काळांत कितलेशे गोंयकार भाव-भयणी नोकरे खातीर विदेशांत गेले. ही जी लोकसंख्या वाडली ती गोंयकारांचे जनन क्षमते खातीर न्हय तर काम धंद्या खातीर गोंयांत आयिल्ल्या बिगर गोंयकारां खातीर!

### उदरगतीचो गोंयचेर परिणाम

आयज गोंय सुटकेच्या साठ वर्सां उप्रांत आमी कितें पळयतात? ह्या साठ वर्सांत वयलेचाराक जरी सगळ्या मळांचेर उदरगत जाल्या अशें आमकां दिसलें तरी खरेपणी परिस्थिती कशी आसा?

गोंयची वयलेचाराक उदरगत जाली पूण गोंयकारांची उदरगत जाली? व्हडलीं पांच नखेत्री हॉटेलां, इमारती, कॅसिनो, मॉलां गोंयांत उबी रावल्यांत. पूण हातूंत गोंयकार खंय आसा?

आयज सगळे धंदे भायल्यांनी बळकायल्यात. कसलेय

येवजणे बगर जाल्ले हे उदरगती खातीर खुबश्यो अनिश्ट घडणुको घडल्यात. जमनीचें मोल सुमारा भायर वाडलां. शेत जमनी पडींग दवरून चडट्या मोलांत भायल्यांक विकपाची गोंयकारां मर्दी सर्त लागल्या. ह्या खातीर पारंपारीक जमनी, ज्या जाग्यार गांवांतले उत्सव, मेळ, मांड जाताले त्यो जमनी लेगीत भायल्यांच्या गळाक सांपडल्यात. ह्या लोकांनी गांवचे मसंडभुंयेचे जागे लेगीत विकून उडयले. आयज गांवांनी मरतगीर कूड खंय लासची काय पुरची हाचो प्रस्न निर्माण जाला.

आयज शारांनी, शारा भायर, दोंगुरल्यांचेर गलिच्छ वसणुकांची वाड जाल्या. ह्या वसणुकांक थळाव्या राजकारणी लोकांचें फाटबळ आसा. तांचो 'वोट बँक' म्हण उपेग जाता. येरादारीचीं साधनां सुमारा भायर वाडिल्ल्यान रस्त्यावेल्या अपघातांत वाड जाल्या. चोरयो-खून, मारामाऱ्यो वाडत आसात. गोंयकारांचे जिणेंतली सवस्तकाय आनी सुसेग नानपयत जाला. ही बेनल्ल आतां खेड्यांनी लेगीत पावल्या. हे कसलेंच ताळतंत्र नाशिल्ले उदरगती खातीर गोंयचें सैमच इबाडलां अशें न्हय तर नवे अर्थीक आनी सामाजीक ताणतणावाचे प्रस्न उप्रासल्यात. मेळावलीचो उद्रेक, कोळसो, रेल्वे दोट्टी लायन, मोलें 'तामनार' प्रकल्प हे हालींचे प्रस्न जावन आसात. बिगर गोंयकार आनी गोंयकार हांचें मदलें वांकडेपण वाडत आसा आनी ताका राजकारणी लोक जापसालदार आसात.

गोंयचे अर्थवेवस्थेचो एक कणो म्हळ्यार मीन निर्गत. आयज मेरेन तो कायद्या भितर चलतालो वा तसो चलता असो सर्वसादारण गोंयकारांचो समज आसलो. अचकीत चीन ऑलंपीक वेळार गोंयच्या मिनांक मोल आयलें आनी कितल्याय ग्रेडीचो माल खपपाक लागलो आनी त्या खातीर बेकायदेशीरपणां वाडलीं. नवे मिनैर तयार जाले आनी तांणी ही नैसर्गीक संपत्ती अक्षरशा बुड्डून खाली. गोंयचीं अभयारण्यां लेगीत सोडलीं नांत. आनी शेकीं हरीत लवादाक हस्तक्षेप करचो पडलो आनी मिनाचो उद्देग बंद पडलो तो आयज मेरेन सुरू जावंक ना. कांय हाताच्या बोटांचेर मेजूंक येतात इतल्या मिनेरांनी अफाट पयसो केलो आनी गोंयकारांच्या नशिबांत आयलें तें प्रदुशण आनी आतां बेकारी.

### गोंयचे अस्मितायेचेर अरिश्ट

हे सगळे वयल्याचाराक दिसपी उदरगतीन गोंयचे अस्मितायेचेर घालो घाला. जेन्ना खंयच्याय वाटारांतले लोकसंखेंत 50 प्रतिशें वयर दुसऱ्या वाटारांतले आसतात, तेन्ना त्या वाटाराचे अस्मितायेचेर थोडो परिणाम जावप सबावीक आसा. कारण दुसऱ्या वाटारांतल्यान येवपी लोक आपली अस्मिताय आपल्या वांगडा घेवन येतात.

पूण आयज आमी कितें पळयतात? गोंयचे अस्मितायेचें एक एक आंग निखळून पडत आसा. नियोजनशुन्य उदरगती खातीर गोंयच्या सैमाचेर हावळ आयल्या. आमकां वचत थंय कॉंक्रीट जंगलां दिसपाक लागल्यांत. आनी हें लोण आतां आमच्या खेड्यांनी आनी गांवानी लेगीत पावलां.

आयज गोंयची फामाद दर्यावेळ बिगर गोंयकारांच्या हातांत पावल्या. शेक्स, लामाणी, बाल लैंगीक शोशण, घुंवळी वखदां, शिंदळकी हांणी आमच्यो दर्यावेळो कलंकीत केल्यात.

पारंपारीक नुस्तेमारी ना जायत चल्ल्या. पागेलां, रांपणी, जाळां, पनेळ हांचे दीस फाटीं पडल्यात. गोंयचे नुस्तेमारीचें यांत्रिकीकरण जालां. आनी आतां ह्या ट्रॉलरांचेर काम करपाक आसामी, झारखंड आनी बिहारी लोक आयल्यात. आतां हो नुस्तेमारीचो धंदोय तांचे हातांत गेला आनी गोंयकार मात कुशीक पडला.

आयज गोंयच्या जात्रां-फेस्तांनी आमी कितें पळयतात? पयलीं गोंयकार खाजेकार, पिड्डूककार आदींचे मांड दिसताले. आयज त्या जाग्यार आमकां केरळी, तामिळनाडू, कर्नाटकांतले लोक रेडीमेड कपडे, प्लास्टीक वस्तू आनी फर्निचर विकतना दिसतात.

नवरात्रांच्या दिसांनी हिंदू भाव-भयणीं पयलीं देवळांत मखर उत्सवाक वतालो. आतांय तो वता. पूण तरणाटे चले-चलयो आतां गरबा खेळपाक गर्दी करतात. छटपुजा, कारवां चौथ आदी गोंयकारांनी आयकूंक नाशिल्ले सण आतां गोंयांत जावपाक लागल्यात.

गोंयांत कॅसिनो संस्कृती रुजपाक लागल्या. ह्या कॅसिनोन कांय गोंयकारांक भिकेक लायल्यात. गोंयकार तरणाटे आतां घुंवळी वखदां विकपाक लागल्यात आनी थोडे त्या वेसनांचे आदीनय जाल्यात. गांजा लागवड करपाचे प्रस्ताव गोंय सरकारा कडेन येतात हाचो अर्थ गोंय हें घुंवळी वखदांचें केंद्र जावपाचे मार्गार आसा असो दुबाव येता. मसाज पार्लरांच्या नांवार शिंदळकी वेवसाय नेटान चल्ला आनी ह्या सगळ्या खातीर गोंयच्या अस्मितायेचेर, संस्कृतायेचेर वायट परिणाम जाला.

आयज गोंयच्या हॉटेलांनी गोंयकारांची आवडीची शीत-कडी मेळना. आयज मेळटा पंजाबी, चायनीज आनी हेर



'डिशेज'. गोंयच्या पारंपारीक धंद्यानी बिगर गोंयकार भितर सरल्यात. म्हालेपण, मडवळपण, थवयपण, नुस्तेंमारी बिगर गोंयकारांच्या हातांत गेलां. गोंयच्या परबांचें वेवसायीकरण जालां. कार्नवाल, शिगमो, नरकासूर, गणेशोत्सव हांचें बाजारीकरण जालां.

आनी हे उदरगतीचो धपको सगळ्यांत चड पडला तो आमचे कोंकणी भाशेचेर. आयज एक गोंयकार दुसरे गोंयकारा कडेन लेगीत तांबडी हिंदी वा इंग्लिश उलयता. कोंकणी भास दिर्शी-मार्शी प्रदुशीत जायत वता. ताचे परस आनीक एक वायट गजाल आमचे भाशेचे बाबतींत घडल्या. आवय भाशेंत मुळावें शिक्षण दिवप हो सिध्दांत संवसार भर मानून घेतला. आवयभाशे वरवीं भुरगो आपले अस्मिताये कडेन वार जोडटा. पूण कांय गोंयकार आपली आवयभास सोडून मुळावें माध्यम इंग्लीश आसचें म्हण मागणी करतात आनी वोट बँकेचेर दोळो आशिल्ले आमचे राजकारणी तें मानूनय घेतात. कोंकणी भास 'पोटाची' भास जावंक शकना हें तांचें म्हणणें. अशें करून ते आपल्या भुरग्यांची वार गोंयचे अस्मिताये कडल्यान तोडूंक पळयतात हाचें भान तांका ना. अशें करून ते कसली फुडली पिळगी घडयतले हाचें धंगण तांका ना. भास म्हळ्यार खंयचेय अस्मितायेचो आत्मो. आनी हे सभागे आत्म्यां कडेनच खेळपाक लागल्यात. म्हज्या मतान गोंयच्या अस्मितायेचेर पडिल्लो हो सगळ्यांत व्हडलो धपको.

## हाचेर उपाय आसा?

ह्या सगळ्या चक्रव्युहांतल्यान आमचे अस्मितायेक तिगोवन दवरप हें सगळ्या सुबुद्द गोंयकारांची सगळ्यांत पयली लागणूक आसा. आतां आमची अस्मिताय वाटावंक कसले उपाय घेवंक जाय तें आमी पळोवंया-

1. कोंकणी भाशेक राजभाशेचो दर्जो मेळ्ळो पूण जो मेरेन सरकारी कामकाजांत ताचो खरपणान उपेग जायना तो मेरेन सरकाराचेर चेंपण हाडप.
2. गोंयचे मुळावें शिक्षण आनी मुखावेल्या शिक्षणांत कोंकणी विशय सक्तीचो करप.
3. सगळ्या आस्थापनांनी 80% नोकऱ्यो गोंयकारांक दिवपाचें सक्तीचें करप.
4. गोंयांत उपलब्द आशिल्ले मनिसबळाचे तांकीचे उद्देग गोंयांत हाडप वा तशे तरेचें मनीसबळ गोंयांत तयार करप.
5. गोंयच्या पर्यावरणांक बादा हाडपी उद्देगांक मान्यताय दिवप ना.
6. गोंयचे सण, परबो सरकारी पातळीचेर पारंपारीक रितीन मनोवप.
7. गोंयचो लोकवेद, शेणून गेल्ल्यो लोककला पुर्नजिवीत करप.
8. पारंपारीक गोंयचे धंदे जशे परी रेंदेर, भाडेली, मुर्तीकार आदींक अर्थीक मजत करप
9. गोंयची जमीन भायल्यांक विकपाचेर बंदी हाडप.
10. जे कंत्राटदार भायलें मनीसबळ हाडटात तांका तें मनीसबळ काम जातगीर परते तांचे गांवघरा धाडपाचें बंधन हाडप.
11. आनी सगळ्यांत मुखेल म्हळ्यार सगळ्या गोंयकारांनी दुसरे व्यक्ती कडेन फकत कोंकणीच उलोवप. आपल्या भुरग्यां कडेन, आपल्या कुटुंबियां कडेन फकत कोंकणीच उलोवप.

वयर हांवें बरयल्यात ते आमची अस्मिताय तिगोवन दवरपाचे कांय उपाय. ह्या देजेंब्र म्हयन्याचे 19 तारकेक म्हळ्यार ह्या म्हयन्यांत गोंय पुर्तुगेजांच्या चोपक्यांतल्यान मेकळें जाल्यार साठ वर्सां पुराय जातात. आमी गोंय मुक्तीचें हें साठावें वर्स ऋजअऽभ0 म्हूण सरकारी स्तरार दबाज्यान मनयलें पूण गोंयच्या ह्या प्रस्नांचेर कोणाची नदर गेल्या अशें दिसना. ते पासत गोंय मुक्तीच्या ह्या म्हयन्यांत हे उपायांचेर गोंयकारांनी शितीद दिवंक जाय. आनीकूय उपाय आसूंक येतात..तांचेरूय गांभिर्यान पळोवंक जाय.

आयज खरी गरज आसा ती आमची अस्मिताय सांबाळून दवरपाची. आमची अस्मिताय तिगली ना तर संवसाराचे फाटीर खंयीय आसू गोंयकार हो गोंयकार म्हण उरचो ना हें मात खरें. आमचे अस्मितायेक ह्या सगळ्या मोडां पासून वांचोवप ही आमची लागणूकच न्हय तर हे घडयेक तें व्हडलें आव्हान आसा.

# मानसिक निर्शेवणी - मिथ्या आनी सत्य

ह्या संवसारांत सगलीं जाणा बरी भलायकी आंवडेतात. पूण आयचे हे धकाधकीचे जीवनशैलींत आमकां शारिरीक तर्शीच मानसीक दुयेंसां जावपाचें प्रमाण वाडत आसा. कुडीची कितेंय दुखापत जाली वो दुयेंस जालें जाल्यार तें समजुपाक चड कुस्तार पडना पूण मानसीक दुयेंस मात जायते फावट समजनासतनाच उरता आनी तें वाडत रावपाची शक्यताय चडत वता.

मानसीक दुयेंसां भीतर सगळ्यांत मुखेल दुयेंस म्हणल्यार मनशाक येवपी निर्शेवणी. संवसार भरांत 26.4 कोटी लोक ह्या दुयेंसाच्या कचाट्यांत सांपडल्यात. चार जाणांतली एक बायल मनीस आनी धा जाणांतलो एक दादलो मनीस तांचे जिणेंत केन्ना ना केन्ना तरी ह्या दुयेंसाची शिकार जाता. संवसारांत अमेरिकेंत निर्शेवणेचें प्रमाण सगळ्यांत चड जाल्यार जपानांत सगळ्यांत कमी आसा. मनशाची जीवनशैलीय ह्या प्रमाणा खातीर कारणीभूत आसुये!

निर्शेवणे बाबतींत आमचो भारत देश संवसारांत 6 व्या पांवड्याचेर आसा. भारतांत निर्शेवणेचें प्रमाण 4.5% आसा आनी अदमाशें 5 कोटी 67 लाख लोक निर्शेवणेन पिडीत जाल्ले आसात. दर वर्सा 2 लाख लोक निर्शेवणेंत वचून आत्महत्या करतात. आत्महत्येचो निशफळ यत्न करतल्यांचो आंकडो ताच्याहून चड आसता. कसल्याय संसर्गजन्य दुयेंसा बाबतींत आमी अदिकूच काळजी घेतात पूण निर्शेवणे सारक्या सायलंट किलर दुयेंसा कडेन मात आडनदर करतात.

खंयच्याय मानसीक दुयेसा कडेन पळोवपाचो समाजाचो दिश्टीकोण लांछनास्पद आसा. मानसीक दुयेंस जाल्ल्या लार्गी लेगीत वचपाक, ताका मजत करपाक समाजांत कोणूच चडसो धजना आनी ते आपले घरच्याक जाले जाल्यार ताची वाच्यताय करपाक फाटीं फुडें जातात. असल्यांनी जायते मानसीक दुयेंती बाबडे त्या दुयेंसांचे सामकेच भकीक पडून आपली जीण वो जीव लेगीत वगडावन बसतात. मानसीक दुयेंसा बद्दल समाजांत मेकळेपणान भासाभास जाय नाशिल्ल्यान लोकां मदीं जायते गैरसमज पातळटात. निर्शेवणी हें एक अशेच प्रकारचें मानसीक दुयेंस जाचे बद्दल जायते जाणांक सारकी म्हायती नासता. आपल्या लार्गींचो






**मंजुषा सिनाय तळावलीकार**

लेखिका विद्यादानाचें कार्य करता आनी आपल्या हेर भासांतल्या भन्नाट वाचनाचो लाव हेरांक मेळचो म्हूण तें गिन्यान लेखा रुपान कोंकणींतल्यान सोपेपणी मांडटा.




मनीस त्या दुयेंसान पिडीत जाला काय किते हें समजुवप ते खातीर कुस्तार जावन पडटा. आयज ह्या लेखांतल्यान त्या दुयेंसा बद्दल थोडेशे गैरसमज पयस करून घेवंया.

गैरसमज 1- निर्शेवणी हें वास्तवांत दुयेंस न्हय -

निर्शेवणी हें वास्तवीक एक दुयेंस जाचीं लक्षणां आनी प्रभाव आमकां आमचे कुडीचेर दिसता. निर्शेवणी म्हणल्यार फकत तात्पुरते आयिल्ले खिन्नतायेचो झटको न्ही, तर तें खरें वास्तवीक मानसीक दुयेंस. जिणेंत केन्नाय दुखद घडणूक घडली जाल्यार आमकां कांय वेळा पुरती उदासीनताय येता ती वेगळी. निर्शेवणी आनी तात्पुरती उदासीनताय हें दोनूय मिस्तूराद करपाक जायना. निर्शेवणी ही जैवीक, सामाजीक आनी परिस्थितीजन्य कारणांक लागून येता. निर्शेवणी ही एक मानसीक अवस्था जंय व्यक्तीचे विचार, भावना आनी वर्तन हांचेर परिणाम जाता. निर्शेवणे खातीर व्यक्तीचे दिनचर्यें चेर वायट परिणाम जातात. तशेंच ते व्यक्तीक त्रास वो लुकसाण जाता. निर्शेवणी हें दुयेंस पयस करपाक जायत्या काळा पुरतें वखद घेवचें पडटा वो मनोचिकित्सकाची मजत घेवची पडटा.

गैरसमज 2 - निर्शेवणी ही फकत अस्तुरेकच येता -

निर्शेवणी येवप हे लिंगाचेर अवलंबून नासता, तर ती दादलो वो बायलां दोगांय जाणांक येवपाक शकता. दादल्यां मदींय निर्शेवणेचें प्रमाण तितलेंच आसता पूण जायते फावट तो तें दाखोवन दिना. आमचे सामाजीक आनी सांस्कृतीक रिती रिवाजा प्रमाण दादलो आपल्यो भावना, कमजोरी समाजाक दाखोवन दिवपाक सोदना. दादलो जर मात्सो भावनीक आसलो वो तो रडपाक लागलो जाल्यार बाकीचे लोक ताका बायलां भशेन वागता अशे म्हणून हिणसायतात. 'मर्द को दर्द नही होता' असल्यो म्हणी आमचे मदीं प्रचलीत आशिल्ल्यान दादले आपले उमाळे, आपलें दुख्ख वो भावना संवसारा पासून लिपोवन दवरपाक धडपडटात. आपणें भावना दाखोवन दिल्यो जाल्यार लोक आपल्याक कमकुवत वो बायल म्हूण हिणसायतले ही भिरांत दादल्यांक आसता. म्हूण निर्शेवणी आयली जाल्यार लेगीत ते सोता लार्गीच न्हयकारतात आनी बाकींच्यां कडेनय ताची चर्चा करपाक वो ताचेर वखदूय घेवपाक सोदनात.

दादल्यां मदीं निर्शेवणेचीं लक्षणांय अस्तुरे परस वेगळीं आसतात. निर्शेवणी आयल्यार राग, तिडक, चिडचीड ना जाल्यार आक्रमक जावप अशी न्हयकारात्मक लक्षणां दादल्यां मदीं दिसून येतात. आनी ते चड करून सोरो पिवप, नशा करप, सिगरेट ओडप, घुंवळी वखदां घेवप असल्या वेसनाधीन जातात. दादल्यां मदीं नैराशेचीं लक्षणा वळखुवप वो तांचे मदीं निर्शेवणी पारखुवप खूब कठीण. ते निर्शे वणेंतल्यान चड करून आत्महत्या करतात. दादल्यां मदीं आत्महत्त्येचें प्रमाण अस्तुरे परस चार पटीन चड आसता.

गैरसमज 3. - निर्शेवणी आनी दुख्ख म्हणल्यार एकूच

निर्शेवणी म्हणल्यारच दुख्ख हो एक निव्वळ गैरसमज. दोनाचींय लक्षणां मातशीं सारकींच दिसलीं तरीय तीं निवळपाक लागपी अवधींत फरक आसता. वेळ पासार जाता तशें दुख्ख आपले आपूण निवळटा आनी व्यक्ती तातुंतल्यान आपसूकच भायर सरता. निर्शेवणी निवळपाक जायतीं सप्ताकां वो म्हयने वो एकादे वेळार वर्सां लेगीत लागूंक शकतात. निर्शेवणी पयस करपाक आमकां उपचार करचे पडटात. दुख्खी आसल्यार फकत दुख्खाचीच भावना ती व्यक्ती अणभवता तर निर्शेवणी जडिल्ली आसतना बाकीच्योय भावना म्हणल्यार चिंता, हुरहूर, रिकामेपण, असहायताय, उदासीनताय अश्या न्हयकारात्मक भावनांचो अणभव ते व्यक्तीक येता.

निर्शेवणी आनी तात्पुरती उदासीनता हातूंत आनीकूय जायते फरक आमकां दिसतात. पयलो फरक हो काळाचो. तात्पुरतें दुख्ख हें निर्शेवणे इतलेंच चड काळ मेरेन उरना. निर्शेवणी ही कांय सप्ताकां, म्हयने वो वर्स भर लेगीत उरता तर तात्पुरती उदासीनताय ही उणे वेळांत आनी घरांतल्या

वांगड्यांच्या आनी इश्टांच्या आदारान रोकडीच ना जाता. जी व्यक्ती दुख्खी जाता ताका फकत दुख्खाचेच भावनेचो अणभव येता तर निर्शेवणी आयिल्ले व्यक्तीक दुख्खा वांगडा चिंता, हुरहूर रितेपण आनी हताश जावप अश्या जायत्या न्हयकारात्मक भावनांचो अणभव येता.

गैरसमज 4 – जर पालकांक निर्शेवणी येता आसल्यार तांच्या भुरग्यांकूय ती येता.

हेंवूय बी तशें सत न्हय. निर्शेवणी येवप हें कांय प्रमाणांत अनुवांशीक आसलें जाल्यार लेगीत ती भुरग्यांक खेरीत येतलीच म्हूण नासता. कसल्या वातावरणांत भुरग्यांचें पालन पोशण जालां हेंवूय बी लक्षांत घेवचें पडटा आनी कसलेंय अनुवांशीक दुयेंस हें 100 प्रतिशत भुरग्यां मदीं उतरताच म्हूण नासता. काळजी घेवन आनी वायट वेसना पासून पयस रावन निर्शेवणेक पयस दवरप जायते प्रमाणांत शक्य आसता.

गैरसमज 5 – निर्शेवणी ही फकत विचारांनीच जाता वो ती तकलेंतच आसता.

आमी जायते फावट निराश जाल्ले व्यक्तींत तातुंतल्यान भायर काडपाचो यत्न करतना ताका सांगतात, हें सगळें तुजे तकलेंत तयार जाता. ते नाका जाल्ले विचार करपाचें पयलीं बंद कर म्हणटकच आपसूकच तूं निवळटलो. पूण तशें उलोवन आमी ताचें दुयेंस न्हयकारतात.ते व्यक्तीक आनीकूय हताश करतात. आपल्याक जाता तें कोणूच समजून घेवपाक शकनात आनी वेल्यान आपल्याकच ते खातीर दोश दितात हें समजतकच ती व्यक्ती आनीकूय असहाय्य जाता. निर्शेवणी ही वयर सांगिल्ले प्रमाण एक वास्तवीक मानसीक दुयेंस जें जैवीक, भावनीक आनी वातावरण ह्या तिनूय




कारणांक लागून आयिल्लें आसता. ताचे कुडीचेर दिसून येवपी जायते परिणाम म्हणल्यार न्हीद पडप ना, रोकडेंच जाम जावप, आंग दुखप, तकली फोडप बी जें बरें करपाक वखद घेवंचेंच पडटा. आपसूकच तें निवळना.

गैरसमज 5 – निर्शेवणे बद्दल दुयेंती कडेन उलयल्यार तें अदीक बळावता.

निर्शेवणेंत गेल्ले व्यक्ती कडेन निर्शेवणे बद्दल उलयल्यार ते व्यक्तीक आनीक त्रास जावन ती आनीकूय निर्शेवणेंत वचपाक शकता अशी एक गैरसमजूत जायते फावट लोकां मदीं आसता. पूण हाचें उरफाटें म्हणल्यार तशें उलयल्यार ताची निर्शेवणेचीं लक्षणां उणी जावपाक शकतात. जी व्यक्ती निर्शेवणेंत गेल्ली आसता तिका आपूण दुसऱ्यांचेर वजें जाल्ले वरी दिसता, आनी तिचे कडेन उलयतकीच तिच्या मना वयलो ताण मातसो उणो जाता आनी निर्शेवणेंतल्यान भायर येवपाक तिका मजत जाता. आपल्याक जावपी त्रासां बद्दल जर घरच्या मनशां कडेन, इश्ट इश्टीणीं कडेन वो म नसोपचार तज्ञा कडेन उलयल्यार आपूण एकलो एकसुरो ना तर आपल्याक मजत करपी जायते जाण आसात ही भावना बळावन ताका निर्शेवणेंतल्यान भायर येवपाक आदार जाता.

गैरसमज 6 – निर्शेवणी ही फकत मानसीक धसक्यान, क्लेशान वो जिणेंतल्या दुखेस्त प्रसंगांतल्यान येता–

निर्शेवणेचें खरें कारण तशें समजुवप कठीण, पूण तें जैवीक, अनुवांशीक आनी परिस्थितीजन्य घटकांतल्यान उप्रासता. मानसीक धसक्यांतल्यानूय तें उप्रासपाक शकता. पूण मानसीक धसको हें फकत एकूच कारण नासता. जाका आर्दीच निर्शेवणी आयिल्ली आसल्यार मानसीक क्लेशांतल्यान तें आनीक बळावपाक शकता.

गैरसमज 7 – निर्शेवणी उपचार करनासतना आपसुकच पयस जाता

निर्शेवणेचीं लक्षणां दिसतकच तांचेर उपचार करप भोव गरजेचें. ती आपसुकच निवळटली म्हूण वाट पळयत रावलीं जाल्यार ती आनीकूय बळावपाची शक्यताय आसता. जशे चड दीस वतात तसतशें निर्शेवणेंत गेल्ले व्यक्तीचीं लक्षणां वाडत वचून ती व्यक्ती आत्महत्या करपाची लेगीत शक्यताय आसता. म्हूण जाता तितले बेगीन उपचार करप सामकें गरजेचें.

गैरसमज 8 – निर्शेवणी हें कमकुवत मनाचें लक्षण

मन कमकुवत आसू वो कणखर, निर्शेवणी येवप हें कांय ताचेर निंबून आसना. नैराश्य म्हणल्यार मनाचो वो




सभावाचो दोश न्हय वो पिशेपणाचेंय लक्षण न्हय. मेंदवा भीतर रासायनीक असंतुळा जाल्ले कारणान ती उप्रासता. आमच्या समाजा भीतर निर्शेवणी ह्या दुयेंसा बद्दल जायती उणाकपणाची भावना वो समज आसा. खंयचीय व्यक्ती निर्शेवणी येवपाचें स्वता जावन थारायना. तशेंच ती येवप हेंवूय तिचे नियंत्रणांत आसना आनी निर्शेवणी येवपाक तिचे मानसीक, भावनीक वो शारिरीक तांकी कडेन कांयच देणें घेणें आसना. समाजांतले खंयचेय थरावयले व्यक्तीक ती येवपाक शकता.

गैरसमज 9 – एक फावट निर्शेवणी पयस करपाक वखद घेवपाक सुरू केलें तर तें जल्मभर चालू दवरचें पडटा.

होवूय एक निव्वळ गैरसमज. निर्शेवणी कितले प्रमाणांत आसा ते प्रमाण मनोविकारतज्ञ ताचेर उपचार करता. चड खर आसल्यार निवळावपाक मातशें चड तेंप मेरेन वखद घेवचें पडटा. वखदा वांगडा समुपदेशन खूब फायद्याचें. समुपदेशनांतल्यान निर्शेवणेंत गेल्ली व्यक्ती आपले दुयेंसा बद्दल जाणा जावन घेवन ताका फुडो करपाक आनी नियंत्रण दवरपाक सक्षम जाता. आनी तशें जाल्यार ताका वखद घेवपाची गरजूय उणी जाता. पूण निर्शेवणेंत वचून हताश जावन जगपाचें वो आत्महत्या करचे परस ताचेर वखद घेवप हें केन्नाय फायद्याचें!

गैरसमज 10 – निर्शेवणी निवळावपाक घेवपी वखदांनी मनशाचें व्यक्तिमत्व बदलता.

निर्शेवणे खातीरचीं 'एन्टीडिप्रेसंट' हीं फकत मेंदवाचें रसायनीक असंतुळण निवळावपाचेर काम करता. ताचो व्यक्तिमत्व बदलपा कडेन कांयच संबंद आसना. वयल्यान जे लोक हें वखद घेतात ताकां जायते प्रमाणांत मानसीक भलायकेंत सुदारणा दिसता.

तर अशे हे जायते गैरसमज आमच्या समाजांत आसात. निर्शेवणी हो एक कलंक न्हय, तर बाकी कसल्याय दुयेंसा भशेन एक दुयेंस जातूंत तें जातल्याचो कांयच दोश आसना. पूण जायते फावट तें घरचीं मनशां लिपोवन दवरूंक सोदतात, लजेक पडत म्हूण ताचेर उपचार करपाक मानसोपचारतज्ञा कडेन वचपाक सोदनात आनी एकेक फावट आपले प्रिय व्यक्तीक निर्शेवणेचे भकीक पडपाक दितात. ह्या मानसीक दुयेंसा बद्दल समाजांत जागरुकताय जावप सामकें गरजेचें. ही जागरुकताय हाडपाक संवसारीक पातळेचेर 10 सेतेंब्र हो दीस संवसारीक आत्महत्या प्रतिबंद दीस म्हूण तशेंच 6 ओतुंब्र हो दीस राश्ट्रीय निर्शेवणी तपासणी दीस म्हूण पाळटात. आमी सगळ्यांनी आपापले परीन हे जागरुकतायेक हातबोट लावन हे निर्शेवणेचे गर्तेंत सांपडिल्ल्यांक तातूंतल्यान भायर येवपाक आदार करपाक जाय.

---

*मडगांव, मोबा. 9822981508*

# यादी येतात.. यादी वतात

ज्येष्ठ मराठी लेखक व्यंकटेश माडगूळकर हांची एक कथा आसा. लेखक एके फावट गोंयचे भोंवडेर आसतना कळंगूटे दर्या देगेर पासयेक वता. तिनसांजेर सूर्य अस्तंतेक वचपाचो वेळ. सरभोंवतणी रेंवेर चलतात ते लोक, ल्हारांचें उदक आंगार घेत किटकिट्टात तीं मनशां, एक सारको आयकूंक येता तो दर्याचो गाज.

फुडें वतां वतां एक ल्हानसो रेंवेंचो किल्लो केल्लो लेखकाचे नदरेक वता. खीण भर थारून लेखक लक्तुबायेन तो पळयत रावता. म्हऱ्यांत दोन भुरगीं, सात-आठ वर्सांचें चली आनी ताचे परस मातसो ल्हान चलो हातांत रेंवेंन भरिल्ली प्लॅस्टिकाची इल्लीशी बाल्दी आनी ल्हान सूप घेवन उबीं आशिल्लीं दिसतात.

''अरे वा! कोणें केला हो किल्लो?'' तो तोखणायेन तांकां विचारता.

'' आमी दोगांयनी मेळून केला.'' चली सांगता.

'' तुमी केला इतलो सुंदर किल्लो?'' लेखक विचारता.

'' ना, हें फट शांगता. आमच्या पप्पान केला तो!'' चलो सांगता.

'' पप्पा खंय तर? हांगां दिसना!''

'' तो पळय. थंऽऽय बसला.'' बोट दाखोवन तो सांगता.

लेखक तेवटेन पळयता.पप्पा मातशे कुशीक रेंवेर बशिल्लो आसता. तो हांसून लेखकाक हात करता. लेखक खीण भर भुरग्यांक पळयत रावता. भुरगीं रेंवेंत खेळपांत गुल्ल जातात.

ल्हानशी कथा. लेखकान ती खूब सुंदर तरेन मांडल्या.



**अरूण काकोडकार**

'मूठभर मळब' ह्या लेखसंग्रहांतल्यान कोंकणी वाचकां मदीं आपली सुवात निर्माण करपी लेखक कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल..

बऱ्याच वर्सां पयलीं वाचिल्ली कथा अजून म्हजे यादींत आसा.

एका अस्तंती लेखकान म्हणलां, 'आमच्यो यादी ह्यो दर्या वेळेर मन सोड्डून खेळटल्या ल्हान भुरग्यांवरी आसात. भुरगीं जशीं खेळटात, नाचतात तश्यो यादीय किटकिट्टात, फुरफुरतात. भुरगीं रेंवेंत खेळटात, तरांतरांच्यो शिंपल्यो, शंख, घुलो पुंजायतात आनी त्यो हाडून घरांत दवरतात. तेच भशेन आमचे जिणेंतले अगणीत खीण यादींच्या रूपान पुंजायिल्ले आसतात. भुरगेपणा साकून शाळा-कॉलेजांत शिकतना, वेव्हार-वेवसायीक संबंद सांबाळटना, समाजांत वावुरतना आमी आमची वळख तिगोवन दवरतात. वर्सां पयलींच्यो यादी आमचे मनांत खोल दडिल्ल्यो आसतात आनी केन्नाय, कित्याकय लागून त्यो अचकीत जाग्यो जातात.

शाळेंत, कॉलेजांत शिकयल्ले धडे, कविता, इतिहासांतल्यो घटना, भुगोलाचें शास्त्र, विज्ञान हातूंतलें बरेचशें गिन्यान आमच्या ध्यानांत उरता. हाचें खूबशें श्रेय आमच्या शिक्षकांचें आसता. ते जितले बरे तरेन शिकयतात तितलें आमच्या ध्यानांत वता. वर्सां-वर्सां आदीं शिकयल्ले विशय कायमचे आमचे यादींत उरतात. शब्द तोंडपाठ नासले तरीय केन्नाय तांचो उल्लेख आयल्यार सट्ट करून याद जातात.

कितल्या तरेच्यो अश्यो यादी. यादी म्हणचे परस स्मरण शक्त म्हणल्यार कशें? अशीच एक वेवसायीक स्मरणशक्त ! ज्या वेवसायांत, वेव्हारांत आमी वावुरतात तांची म्हायती सहज आमचे लक्षांत उरता. वकीलांक कायद्याचे नेम, कलमां तोंडपाठ आसतात. गायकांक सुरांचें, चिजांचें, बंदिशीचें गिन्यान आसता. चित्रकारांक रंगांचें, शिक्षकांक अभ्यासांतल्या विशयांचें, डॉक्टरांक पिडेचीं, पिडेच्या वखदांचीं नांवां खबर आसतात.

यादींच्या वाटारांत मनमेकळेपणान हेडटना एक वेगळीच जाणवीकाय मन धादोस करता. केन्ना मनांत खोशयेचे उमाळे जागयता तर केन्ना नाकाशिल्ली खंत, दुगदूग मनाक लागता. चड करून भुरगे पिरायेर फावो जाल्ले अणभव मनांत खोल वचून बशिल्ले आसतात आनी जाणटे पिरायेर वयले वयर घिट्ट्यो घालूंक लागतात.

दर वर्सा वेगवेगळेसण...परबो आमी मनयतात. पुणून भुरगेपणांत मनयल्ले चवथ, दसरो, दिवाळी, नातलांचे सण कित्याक कोण जाणा, आमकां अप्रूपाचे दिसतात. उबाळांत आंगणांत फुलतालो तो मोगऱ्यांचो वास अजूनय मनांत दरवळटा. पयल्या पावसांतलो मातयेचो वास अजूनय मन धादोस करता. शाळा-कॉलेजांतली मस्ती, वेवसाय वेव्हारांतल्यो घडामोडी,वांगडा काम केल्ले ऑफीस सहकारी..

आयज कोण खंय आसा कोण जाणा ?......चुकून कोणूय मेळटा.तोंडभर खबर घेता. तितलेंच! बाकी सगळ्यो यादीच. आयुश्यांत प्रत्यक्ष, अप्रत्यक्ष पळयल्ले आयकल्ले खीण रगीबेरंगी शिंपल्यांवरी मनाचे फास्केंत सासणाचे दसून उरल्यात. कूड थकली, गात्रां

गळसणलीं, यादी मात पांचव्योचार जावन आसात.

काळाच्या ओघांत व्हांवन गेल्ले खीण, तांच्यो यादी च्युईंगमा भशेन तोंडांत घालून चोखत रावन दिसतात.

..भारत देशाचो स्वातंत्र्य सुवाळो आमी पळयलो ना. गोंयचे मुक्ततायेचो सुवाळो दोळे भरून पळयलो. अठरा डिसेंबराची सकाळ.शरणागत जाल्ले पुर्तगेज सैनीक. भारतीय झेंडो उबयतना जातालो तो जयघोश. गांधीजींची दांडियात्रा आमी आयकून जाणात.जयप्रकाश नारायणाची आणीबाणी आड चळवळ आमी प्रत्यक्ष अणभवल्या. डॉन ब्रॅडमनाक खेळटना आमी पळयलो ना, पूण सनी गावस्कर, व्हिवीयन रिचर्डस आनी जावेद मियांदादाचे बॅटींगेचो आमी भरपूर आस्वाद घेतला. क्रिकेटीचे दोन संवसारीक कप आमी जिखतना पळयल्यात. राममनोहर लोहियांच्या फुडारपणा खाल मडगांवां जाल्लें आंदोलन आमी पळयलें ना. पूण कोंकणी भाशे खातीर जाल्लें 555 दिसांचें आंदोलन आमी पळयलां. दोन संवसारीक म्हाझूजांतल्यान जाल्ली नासाडी आमी इतिहासाच्या पुस्तकांतल्यान शिकल्यात. पुणून 1962 चें भारत-चीन झूंज, 1965 चे भारत-पाक झूंज,





1971 चें बांग्लादेश झूंज आमी प्रत्यक्ष अणभवल्यांत. हीं झुजां गोंयच्या हुंबऱ्या मेरेन पावलींनात ही गजाल वेगळी. पुणून बॉम्ब हल्ल्याच्या भंयान जातालें तें ब्लॅक आऊट, ताका लागून जाणवताली ती भयानकताय, फुडें कितें जातलें हाचो हुस्को हें सगळें आमी अणभवलां.

आमचे भुरगेंपणांत टायफॉइड, टि.बी. असल्या पिडेंचो भंय आसतालो. आतां योग्य उपचाराक लागून त्यो पिडा खूबशो उण्यो जाल्यात. देवी, प्लेग सारकेल्या रोगांक लागून मनशां मरतालीं. आयज ते रोग नानपयत जाल्यात. पोलियो पिडेन ल्हान सान भुरगीं अपंगूळ जातालीं. आयज ती पिडा सासणाची सोंपल्या. काळजाचे पिडेन मनशां मरतालीं. आयज अशीं मनशां वाचतात. हार्ट अ‍ॅटॅक म्हणल्यार आयुश्य सोंपलें अशें जायना. बायपास, एन्जीओप्लास्टी करून नॉर्मल आयुश्य जगतात. कोविड-19 ही हालींची पिडा. हे पिडेन अख्खो संवसार हाल्लो. सोशियल डिस्टन्सींग, आयसोलेशन, सॅनीटायझर, मास्क ह्यो नित्य गरजेच्यो वस्तू जाल्यो. वर्क फ्रॉम होम, ऑनलाइन शिक्षण पद्दत अस्तित्वांत आयल्यो. क्रिडा क्षेत्रांत प्रेक्षकां बगर खेळपाची परिस्थिती आयली. कितें कितें घडून गेलें दोन वर्सात?

सगळे रुतू एका फाटल्यान एक वर्सान वर्सां तेच क्रमान येत रावप हो सैमाचो नेम! तशे ते येतात आनी वतात: वतना संथ गतीन वतात शे दिसतात पुणून दीस कशे भरभर वतात आपल्यो यादी फाटल्यान दवरून !

म्हणटां म्हणटां आयुश्य उतरणीक लागता. एक एक वर्स गळत वता. फाटल्यान वळून पळयतना कितें कितें याद जायत रावता. ..वर्सांन वर्सां एकठांय संवसार करतना उतारवयांत अचकीत ह्यो यादी जाग्यो जातात. आनी दोगांय मदलो एकलो कोणूय पयलीं वता तेन्ना फाटल्यान आशिल्ल्याक त्या यादींची दुगदूग सदांच मनांत लागून उरता.

पु.ल.देशपांडे महाराष्ट्राचें लाडकें व्यक्तीमत्व. तांच्यो यादी काडटना तांची घरकान्न सुनीता देशपांडे म्हणटा :

तूं चलत वतालो. हांवय चलत वतालें. केन्ना एक-एकटीं, केन्ना जोडयेन. तुजी वाट वेगळी, म्हजी वेगळी. दोगांयची मेळून आनीक एक वाट. आयज हे उंच दोंगुल्लेच्या जीर्ण देवळा लागीं येवन थांबले उपरांत फाटल्यान घुवन पळयतना म्हाका त्यो तिनूय वाटो स्पश्ट दिसतात. तूं चलिल्ली वाट कितली सोबीत दिसता! ताचेर तुज्यो पावलां खुणो स्पश्ट उदेल्यात त्यो दिसतात.

तूं हांसत चलत रावलो तुज्याच नादांत. कंवळ्या वता वरी, ताजीं सोबीत फुलां तूं शिंपडायत गेलो. त्या फुलांची टवटवी पळय. अजूनय तांचो दरवळ वाटभर पातळ्ळा. सगळी वाटचाल तुवें हांसत हांसत केली आनी तें हांसप कसलें? साक्षात गंधर्वाचें!

तुज्या हांसपांत अशी कसली जादू आशिल्ली जाका लागून तुजी सगळी जीण एक वैभवशाली हास्यशिल्प जावन उरली? यादींच्या झोंपाळ्यार बसून धोलचेंशें दिसता. धोलतना फाटल्यान तूं आसचो सो दिसता.

आमचे कुडींत मेंदू नांवाची गजाल आसा. बुद्द आनी कल्पनाशक्त अश्यो दोन गजाली जल्माक घालून ह्या मेंदवान आमकां सपनां पळोवपाची नदर दिल्या. ताका लागून आमचे तकलेंतल्यान नवें नवें कितें येत रावता. गेल्लो मनीस परत येवप अशें केन्ना जालां? अशे तरेचे भास-आभास सिनेमांत पळोवंक मेळटात. दोळे, स्पर्श कित्याचोच आदार घेनासतना मनाच्या पांजऱ्यांत वाऱ्याचे गतीन सपनां साकारतात. वास्तवांत नाशिल्ले निर्मणे वांगडा आपालिपाचो डाव खेळपाची मजा आसता.

पुणून मेंदूच काम करना जाल्यार? यादीच संपुश्टांत आयल्यो जाल्यार? स्मरणशक्त नानपयत जाली जाल्यार? मागीर मेंदवाचो उपेग कितें? मनीस आसून नासून सारको. दुर्दैवान ह्या संवसारांत विसरपणाची पिडा आसा. अल्जाईमर पिडा. दिसपट्ट्यो गजाली विसरून वचप. निर्णय घेवपाची, सारासार विचार करपाची क्षमताय उणी उणी जायत वचप आनी ताका लागून जें अपंगूळपण येवप म्हळ्यार अल्जाईमर पिडा.

सादारण पासश्टीचे पिराये उपरांत ही पिडा जावं येता! उतरां मदीं विचारांची सांखळी तुटूंक लागता,भोंवडेर शेणपाची शक्यताय आसता. खूब वर्सां आदल्यो गजाली याद जावप पूण काल-पयरच्यो गजाली याद उरप ना.

वैजकी शास्त्रांत उलगडो जावंक नाशिल्लें हें एक कुवाडें. मेंदवाचे हे पिडेचेर खूब संशोधन चालू आसा. पुणून अजून मेरेन ताचेर जाय तसो उपाय येवंक ना.

निमाणे कितें? मनीसजात यादीं वांगडा जोडिल्ली आसा. बुद्दीच्या नेटार मनीस केदो व्हडलो अविश्कार घडोवन हाडटा. बुद्द निकामी जाली जाल्यार, यादी नानपयत जाल्यो जाल्यार मनीस निरुपेगी जावन उरता.

अशें जावं नये! असली पिडा कोणाकूच जावंची न्हय..

---

*करंजाळे, मोबा. 9822588852*






# हॅपीचो फ्रान्स

कोरोना खातीर विदेशांत वचपाचो तीन वर्सांचो खंड पडटकच अदूं आमी ग्रीस वचपाचें थारायलें. तयारी सुरू जाली. सुरवात करची पडटा व्हिजा पासून. वासपूस करतकच ग्रीस दुतावासान व्हिजा दिवपाचें बंद केलां हें आमकां कळ्ळें. कितें करतलीं? अदीक चवकशी करतकच सेंजन व्हिजा घेवन इंग्लंड सोडून खंयच्याय युरोपीयन देशांनी वचूंक मेळटा म्हणपाचें कळ्ळें. सेंजन देशां भितर ग्रीसाचो आसपाव आसा. पूण ग्रीसाक वचपाक जाय जाल्यार दुसऱ्या युरोपीयन देशांत आदीं वचप आनी उपरांत ग्रीसाक वचप अशी अट आशिल्ली.

आमी फ्रान्साक वचून ग्रीसाक वचुंया अशें थारायलें. ग्रीसांत आठ दीस जाल्यार फ्रान्सांतूय आठ दीस रावपाक जाय अशेंय कळ्ळें. दोनूय कडलीं हॉटेलां आदींच बूक केलीं आनी तीं सगलीं कागदपत्रां आनी व्हिजा मुलाखतीक वतना दाखयलीं. व्हिजा मेळपाक आनीक आडखळी नाकात म्हणून आमी फ्रान्स आनी ग्रीस हांगाचीं हॉटेलां आठ दिसां खातीर बूक करून व्हिजा मेळयलो. दक्षीण फ्रान्स आमी पळोवंक नाशिल्लो. थंयचे चार बरे गांव खंयचे ते सोदून काडले आनी दोन-दोन दीस दरेका गांवांक वांटून घाले.

पांच दिसां भितर व्हिजा स्टॅम्प मारिल्लो पासपोर्ट स्पीडपोस्टान घरा आयलो. आठ दिसांनी आमच्यो पॅरिस वचपाच्यो तिकेटी आशिल्ल्यो. आमचे वांगडा दोतोर नगर्सेकार आनी ताची घरकान्न मिलन आशिल्लें.

गोंयच्यान दोहा गेलीं आनी दोहाच्यान पॅरिस गेलीं. पॅरिस आमी पयलीं पळयिल्लें. तरीय खंयूय पावतकच जशें देवळांक भेट दितात तशें पॅरिसची माँत मार्त चर्च, शांझालिजे, आयफेल टॉवर आनी ल्युर म्युझियम एका दिसा भितर पळोवन काडलो.

दुसऱ्या दिसा पॅरिसच्यान मोने गार्डन पळोवंक गेलीं. क्लावड मोने हो एक व्हडलो चित्रकार आशिल्लो. ताका वॉटर लिलीज खूब आवडटालीं. जिणेचीं निमणीं पंचेचाळीस वर्सां ताणें ह्या गार्डनांत वॉटर लिली पेण्ट करपाक सारलीं. थंय ताचें घर आसा आनी गार्डनांत वर्सूयभर तरांतरांचीं फुलां फुलतात. तीं फुलां पळोवपाक हजारांनी लोक येतात.

पॅरिसच्यान आमी फुडले स दीस दक्षीण फ्रान्साचे तीन गांव पळयले. ग्रेनोब मोपेलिएर आनी नीस. नीस हें शार दर्याचे देगेर आसा. मेडेटेरियन दर्याचे देगेर जीं शारां आसतात त्या शारांक फ्रँच रिविएरा अशें म्हणटात. हॉप ऑन हॉप ऑफ बशीर बसून सुंदर नीस शार पळोवन काडलें. हें शार दर्या देगेर आशिल्ल्यान हांगा तरांतरांचें ताजें नुस्तें मेळटा. तांबसो, रावंस आनी कोंगे लेगीत. ह्या नुस्त्यांचे जिनस करपाची तरा वेगळीच. चडशें नुस्तें ओलिव्ह ऑयलान ग्रील केल्लें आसता. भारतीयांक तिखसाण चड जाय म्हणून रोखडेंच चिली वा टोबेस्को सॉस हाडून दवरतात.

मोपेलिएरयबी दक्षीण फ्रान्साचें एक मोटें शार. मेडिटेरिएन



**सुशांता दत्ता नायक**

प्रवास वर्णन तशेंच ललित लेखनात फिशाल. तांचें 'धतरि वयलो सर्ग' हें प्रवास वर्णन उजवाडाक आयलां.



दर्या पासून धा किलो मिटर अंतराचेर हें शार वसलां. हांगा गोथीक वास्तुशिल्पाचें सुंदर कॅथेड्रल, म्युझियम, कॅफेज आनी रेस्टॉरंटां आसात. लोकांनी गजबजिल्लें हें शार.

आतां ग्रेनोब शारा विशीं सांगतां. ग्रेनोब शार फ्रँच आल्पस म्हणल्यार आल्पस दोंगराच्या मुळसा कडेन दोन न्हंयां मदीं वसलां. चारूय वटांनी पाचवेंचार सैम. ट्रेनीन गेल्यार एका वराचे वाटेर ॲम्सी नांवाचें एक सुंदर हिल स्टेशन आसा.



ह्या हिल स्टेशनाचेर मदीं मोटें तळें, चारूय वटांनी ल्हान ल्हान घरां, भोंवडेकाराक भोंवडावपाक व्हडीं, सुंदर दुकानां, तरांतरांच्यो कॅफेज आनी प्रदुशणमुक्त थंड वारें!

ग्रेनोब गांवांत सुदीप आनी ताची घरकान्न दीप्ती रावतात. दत्ताचो सावंतवाडीचो इश्ट प्रकाश शिरोडकार हाचो तो पूत. ग्रेनोब सिटी सेंटराचीं मुख्य थळां ताणें भोंवडावन दाखयलीं आनी मागीर रातचीं हॉटेलांत जेवपाक व्हेलीं. सुदीप सावंतवाडीचो आनी दीप्ती लुधियानाचें. कुटुंबाची वळख आशिल्ल्यान तांचें लग्न जालें. चार वर्सां जालीं. सुदीप रोखडोच फ्रान्साक नोकरी मेळ्ळी म्हणून गेलो आनी दीप्ती वचून दोन वर्सां जालीं. दीप्ती हॉटेलांत जेवपाक आयलें तें हॅपीक घेवन. दीप्तीन लुधियानाच्यान आपल्या कुत्र्याक- हॅपीकूय फ्रान्साक व्हेला. हॅपी हो शी जू (Tshi Tzu) जातीचो तिबेटीयन कुत्रो. सामको इल्लोसो, लांब ल्हंव, ल्हान नाक, वाटकुळे दोळे, सामको अपुरबायेचो. थंय हॉटेलांनी कुत्र्याक हाडपाक मेकळीक आसा. एका खुंट्याक बांदले की ते ओग्गी बसतात. हेवटेन तेवटेन पळयनात. तसो हॅपीय ओग्गी बसलो. कांयच कुंयकूंय ना. फ्रान्साक रावन तो थंयची शिस्त शिकला. हॉटेल धनयान रोखडेंच ताका उदक पियेवपाक आयदन हाडून दवरलें.

हॅपीक ग्रेनोबाचो फामाद पौंड केक खूब आवडटा. पौंड केक म्हणल्यार पाव कील बटर, पाव कील मैदो, पाव कील साकर आनी पाव कील फोडिल्लीं तांतयां घालून केल्लो केक. ह्या केका बगर तो दुसरो कसलोच केक खायना.

हॅपी सामको फ्रँच मॅन जाला. कुत्र्याकूय बी पासपोर्ट करचो पडटा हें त्या दिसा आमकां कळ्ळें. हॅपीचोय बी पासपोर्ट आसा. विमानांत सिटा पोंदां पर्सी दवरतात ते सुवातेर ताका बास्केटांत बसोवन हाडला.

गोंयच्यान दोहा तीन वरां, मदीं दोहा विमानतळार पांच वरां, दोहाच्यान फ्रान्स णव वरां असो हो प्रवास. हॅपी सुदीप आनी दीप्ती बराबर आनंदान भोंवता. फाटल्या सप्टेंबरांत हॅपी तांचे वांगडा चवथीक सावंतवाडी लेगीत येवन गेलो. आतां तो चार वर्सांचो जाला. तांचें आयुश्यमान धा ते बारा वर्सांचें. आमी कुत्र्यांचीं मोगी म्हणून म्हाका फ्रान्स म्हणलें की हॅपीची खूब याद येता. हॅपीक हांव बरी भलायकी आनी खूऽऽब आयुश्य आंवडेतां.

# आईचो लंडनाचो प्रवास



हालींच्या तेंपार प्रवास हो सगल्यांचोच आवडीचो छंद जाला. हाचें कारण म्हणल्यार प्रवास करप आयज सोंपें जालां. विमानाचे तिकेटींचें बुकींग, हॉटेलाचें बुकींग आतां ऑनलायन करूंक मेळटा. फेसबूक आनी इन्स्टाग्राम ह्या सारक्या सोशल मिडियांचेर कोण कोण खंयच्या शारांत गेले ते फोटे पळोवंक मेळटात आनी आपणाकूय थंय वचपाची उमळशीक लागता. टेलर मेड टूर करपीय खूब ट्रॅव्हल एजन्सी आयल्यात. फकत पयशे दिवपाचे. तेवूय बी क्रॅडीट कार्डा खातीर सोंपें जालां. आतां तर जी-पे करूंक मेळटा. केदे व्हडले हे पंदरा वर्सांच्या काळांतले बदल!

म्हजी आजी खूब भोंवताली. चड करून ट्रेनीन. तेन्ना विमानां नासतालीं. ती हरिद्वार, हृषिकेश गेल्ली म्हजे यादींत आसा. तिणें हाडिल्लो गंगेच्या उदकाचो सीलपॅक कलश अजून आमचे कडेन आसा. हांवूंय ल्हानपणांत खूब भोंवलां. मावशे वांगडा उटी, बंगळूर, म्हैसूर, मुंबय, मामा वांगडा हम्पी, हॉस्पेट गेलां.

लग्न जातकच हांवें पळयलें, आईक- म्हजे मांयक प्रवासाची खूब आवड. म्हज्या लग्ना पयलीं 1977 वर्सा ती एकटीच इंग्लंडाक धुवेगेर-शकूताईगेर वचून आयल्या. म्हजें लग्न जातकच ती एके फावटीं काश्मीर आनी एके फावटीं कन्याकुमारी वचून आयल्या. पंदरा बायलांचो टॅम्पो घेवन ती गोंयच्यान भायर सरिल्ली. एके फावटीं काश्मीर मेरेन आनी एके फावटीं कन्याकुमारी मेरेन. त्या वेळार तांचे वांगडा फकत दोग दादले आसले. एक ड्रायव्हर आनी एक तिचो भाचो- प्रदीप. म्हजे मांयची बापोल भयण-जीवनबाय तांचे वांगडा आशिल्ली. जीवनबाय सामकें धडाडीचें. तें तेन्ना फातिमा कॉन्वेंटाचें सिनीयर टिचर. तांणी सगल्यांची रावपाची तजवीज कॉन्वेंटाच्या बोर्डींग स्कुलांत केल्ली. काश्मीराक वचून येवपाक तेन्ना तांकां वीस दीस लागले. पूण तेन्नाचो तांचो एकूय फोटो ना. तेन्ना स्मार्ट फोन तर नाशिल्लेच, पूण एकेय बायलेन कॅमेरा लेगीत व्हरूंक नाशिल्लो.

ती टुरा वयल्यान येतकच तिका खूब जाणां मेळपाक येतालीं आनी म्हजी मांय आवडीन सगल्यो खबरी तांकां सांगताली. परत परत तेंच सांगचें पडटा म्हणून म्हज्या घोवान-दत्तान एक युक्त काडली. एक कॅसेट प्लेयर घेवन तिचे कडल्यान प्रवासाच्यो सगल्यो खबरी विचारून घेतल्यो आनी रिकॉर्ड केलें. कोणूय आयलो की ती रिकॉर्ड लावप.

तिका नैनिताल खूब आवडिल्लें आनी थंयच्या गार्डाक लेगीत तिणें सांगिल्लें, रोखडेंच आपल्या पुताक आनी सुनेक नैनिताल धाडटां म्हणून. तांचे वांगडा एक फुलायबाय म्हणून बायल गेल्ली. तिणें तर आपले वांगडा किस्मूर करपाक खारे बांगडे आनी फुटी कडी करपाक भिरंडांचीं सोलां व्हेल्लीं. आतां ती कॅसेट आशिल्ली जाल्यार सगलें आयकुपाक मेळटलें आसलें. तरीय एक उपकार, तिच्या इंग्लंडाच्या प्रवासाची म्हायती हेमाबायन चित्रंगीच्या दिवाळी अंकांत घेतिल्ली. तें खुबदां आमगेर येतालें आनी तिचे वांगडा बसतालें. आतांचे भशेन तेन्ना कम्प्युटर नासले, बरोवन ऑनलायन धाडपाक. घरा येवन व्हरचें पडटालें. हे खातीर हांव हेमाबायचें उपकारी आसां.

आईचो लेख 1982 वर्सा चित्रंगीच्या दिवाळी अंकांत आयिल्लो. लेखाचें नांव आशिल्लें:'म्हजो लंडनाचो प्रवास, थँक्यू व्हेरी मच!' हो लेख वाचतकच तुमकां कळटलें, त्या तेंपा वयल्या विदेशांतल्या प्रवासाची मजेशीर काणी.

आतां आईचो हो लेख मुजरत वाच्चो. तुमकां तो खूब्ब आवडटलो.

***

# म्हजे जिणेंतलो कसोटीचो खीण म्हजो लंडनचो प्रवास : थँक्यू व्हेरी मच..!

– लिलावती दामोदर नायक



म्हजी एक धूव फॉरेनाक आसता. जांवयान म्हाका फॉरेनाक येवपाचें आमंत्रण दिलें. म्हाका ल्हानपणा सावन प्रवासाची आवड, जाल्यार घोवाक प्रवासाची मातूय आवड ना. गेल्यार एकलें वच्चेंच पडटलें आशिल्लें. इंग्लीश भाशा येना. अशे परिस्थितींत गेलें ना जाल्यार फॉरेनाक पावप शक्य ना. तेन्ना कितें जाता तें जावूं पुणून वच्चेंच अशें हांवें थारायलें.

ब्रिटीश ॲरवेजची तिकेट चल्यान काडली. म्हजें ऑपरेसांव केल्लें. नजं जाल्लें. पूण व्हिजा तारीख सोंपताली म्हणून नजं जावनय वचपाचें थारायलें. बराबर आपलो कोण ना हो विचार येतालो पुणून म्हजे आवडीन तो पुसून वतालो.

मुंबय विमानतळार म्हजो पूत, सोयरीं म्हाका पावंक आयलीं.

रातचें एक वर जालें. एक मराठी उलोवपी बायल लंडनाक



वचपी म्हज्या पुताक मेळ्ळी. तिचे कडेन म्हज्या पुतान म्हजी वळख करून दिली. मराठी उलोवपी म्हणटकूच म्हज्या पुताक, म्हाका आनी सगल्यांकूच सूऽऽ जालें. ते बायले बराबर हांव विमानांत पावलें.

''लंडन एअरपोर्टवर भेटुया'' तिणें म्हळें.

''बरं'' हांवें म्हळें.

विमान येदें व्हडलें. हांव एकटें. सगले लोक परकी. पासपोर्ट, पर्स, हँडबॅग सांसपीत बसलें. मुखार सिनेमा सुरू जालो. दोळ्यांर झापडी येताली. पूण न्हिदलें ना. फाल्यां लंडनाक पावतलें. धूव, नातरां, जांवय मेळटलीं. खोशयेंत हांव गुल्ल आशिल्लें. हांव एकटें आसां, भाशा येना हो विचारूय मनांत आयलो ना.

''व्हेअर इज बाथरूम?'' व्हडले चलयेन बरोवन दिल्ल्या उतरांनी ॲर हॉस्टेजीक विचारलें. तिणें दाखयलो.

ती टक टक करून गेली. भितर गेलें. भायर येवपाक दार कशेंच उगडना. तीं पाच मिनटां म्हाका दरदरून घाम सुटलो. कितें करचें, दार धोडायलें. ॲर हॉस्टेजीन दार एकदांचें उकतें केलें. 'थँक्यू व्हेरी मच' म्हळें आनी जाग्यार बसलें. परत पर्स,



पासपोर्ट, बॅग सांसपिलें. सिनेमा पळयत रावलें.

सकाळचीं स जालीं. लंडनाक विमान थांबलें. हांवें पळयलें, सगलीं उठून बॅगां काडूंक लागलीं. म्हज्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्याक विचारलें, ''लंडन?''

''एस लंडन.''

लोक भायर वचूंक लागले. हांवूंय भायर सरलें. हातांत पापड-लोणच्याचें बॅग आशिल्लें. लोक टक टक करीत वताले. तांणी ट्रॉली पकडल्यो. हांवें एका ब्रिटीशाक कुरवेनूच म्हजें बॅग ताचे ट्रॉलीर घाल म्हळें. ताणें घाली. तो हांसलो. ''थँक्यू व्हेरी मच'' हांवें म्हळें. मागीर दुसरें संकश्ट. एस्कॅलेटर लागलो. पांय दवरपाक भंय दिसूंक लागलो. एकदांचो दवरलो. फुडें पावलें. लोक वतात तशें हांव वचूंक लागलें. खूब मेजां आशिल्लीं. लोक रांकेन उबे रावन फुडें सरताले. हांवूंय दोग-तीग जाण आसात त्या मेजा कडेन गेलें. म्हजो पासपोर्ट पळयलो आनी 'व्हाय हॅव यू नॉट कम वुइथ युवर हजबँड?' म्हळें. हांव भियेलें. जाप येवजना जाली. 'बिझनेस' हांवें म्हळें. ताणें म्हजो पासपोर्ट मेजार दवरलो आनी तो एका गुजराथी मनशाक घेवन आयलो. तो गुजराथी म्हाका 'आईये' म्हणूंक लागलो. हांवें म्हळें, 'पासपोर्ट'. तो चलपाक लागलो. हांवें धीर केलो आनी त्या ब्रिटीशाक सांगलें. 'गिव्ह मी माय पासपोर्ट'. ताणें दिलो आनी हांवें हुस्कारो सोडलो.

हांव चलूंक लागलें. लोक सगले गेल्ले. दोग-तीग जाण उरिल्ले. तांचे फाटल्यान हांव. बॅगां वांटकुळीं घुंवतालीं. दरेकलो आपापलीं बॅगां काडटालो. म्हजें बॅग येतालें, वतालें. म्हाका काडूंक कशेंच जमना जालें. आतां कितें करचें हें येवजून मनांत भियेलें. सगले लोक गेल्ले. आतां एकूच मनीस आशिल्लो. ताका कुरवेन आपयलो आनी म्हळें, 'माय रेड बॅग'. ताणें बॅग काडलें. तो वता तशें ताचे फाटल्यान भायर येतकच म्हजी धूव दोळे लावन म्हजी वाट पळयत उबी आशिल्ली. तिणें म्हाका आनी हांवें तिका पळयलें, तो आनंद उतरांनी वर्णन करूंक येना. 'आई' इतलेंच ताणें म्हळें. ताका खूब खोस जाली. 'सगले लोक आयले तरी तूं ना. तेन्ना तूं आयली ना अशें आमकां दिसलें.' ती म्हणूंक लागली. जांवय लोकांचे गर्देंत म्हाका सोदतालो. तो मेळ्ळो.

''म्हजी तार पावली मूं?'' हांवें विचारलें.

ती म्हणूंक लागली, 'तार पावूंक ना. तुज्या पत्रा वेल्यान आमी आयलीं.'

आनी हांव पावतकूच दुसऱ्या दिसा तार पावली. अशे तरेन म्हजे कसोटीचो तो खीण, एकट्यान फॉरेनाक वचपाचो म्हाका सदांच येवजता.

(चित्रंगी दिवाळी अंक 1982 च्या अंकांत उजवाडाक आयिल्लो हो लेख आमी 'बिम्ब दिवाळी 2022' त घेतिल्लो. पूण लेखा वांगडचे फोटो गडबडींत उरले. इतले सुंदर फोटो उरिल्ल्यान चिटमिटे पडले. देखून तो लेख ह्या अंकांत परत घेतात.-सं.)

मो. 9236115625, मडगांव

| शीर्शकथा-२ |

# 'आय हॅव इलेक्ट्रीक ड्रीम' ह्या स्पॅनीश चित्रपटाक भांगरा मोर



'गोंय जातलें देशाचें सिनेहब' अशी घोशणां करीत 'राज्यांत 2025 मेरेन 'इफ्फी'भवन जातलें' ह्या गोंयच्या मुख्यमंत्र्यांच्या आश्वासनाक उत्सुफुर्त टाळयो मारीत 20 नोव्हेंब्राक ताळगांवच्या डॉ.श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडियमांत उक्तावण जाल्ल्या 53 व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचो समारोप 28 नोव्हेंब्राक तेच सुवातेर 'आय हॅव इलेक्ट्रीक ड्रीम' ह्या स्पॅनीश चित्रपटाक सर्वोत्कृश्ट चित्रपटा पासत आशिल्लो 'भांगरा मोर' भेटोवन जालो.




दिलीप
बोरकार

साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी
बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक


### ५३ व्या 'इफ्फी'चें दोळे दिपकावपी उक्तावण

गोंयांत इफ्फी आयलो 2004 वर्सा. त्या वर्सा सावन 17 वर्सां नेमान हो महोत्सव सकारात्मक पावलां मारीत मुखार सरत आसा. आयोजनाचेर सगल्या स्तरार जरी सातत्यान टिका जायत आसली तरी ती विरोधाचे नदरेन न्हय तर फुडल्या वर्सा सुदारणां घडोवन हाडपा पासतूच असो हयकारी विचार आपणावन जाळवणदारांनी गोंयांत इफ्फी रुजयलो. ओंदुच्या इफ्फीचें गोंयांतलें 19 वें वर्स. फाटलीं 17 वर्सां इफ्फीच्या आयोजनांत कसलो ना कसलो गोंदळ हो थारिल्लोच आसतालो. त्या गोंदळाक लागून आयोजकांक दुशणां मेळटालीं. पूण 53 वो चित्रपट महोत्सव मात फाटल्या 17 वर्सांच्यो सगल्यो चुकी निस्तारून गोंदळा बगर वेवस्थीतपणान जैतिवंत जालो. 18 वें

वर्स शाणेपणाचें आसता आनी त्याच वर्सा खरेपणीं प्रगल्भताय येता हाका प्रमाणपत्र म्हळ्यार ओंदुच्या इफ्फीचें आयोजन अशें प्रतिनिधींचें सर्वसादारण मत आशिल्लें.

फाटलीं 18 वर्सां मुखेल गोंदळ आसतालो तो उक्तावण सुवाळ्याक आनी समारोप सुवाळ्याक. हे दोनूय सुवाळे इफ्फीच्या थळा सावन आठ किलो मिटर पयस ताळगांव पठारा वयल्या डॉ.श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडियमांत जातात. थंय हे सुवाळे वेळार केन्नाच सुरू जायनांत. ते सुरू जावन उलगतात म्हणसर कळाव जाता. ते उलगल्या उपरांतूच उक्तावणाच्या आनी समारोपाच्या चित्रपटांचें प्रदर्शन आसतालें. उक्तावणाच्या आनी समारोपाच्या सुवाळ्याक रुची नाशिल्ले चित्रपट मोगी प्रतिनिधी केन्ना ह्या सुवाळ्यांची भोगावळ सोंपता आनी थंयचे लोक पणजे थेटरांनी पावून चित्रपटाक आरंब केन्ना जाता हाचे कडेन दोळे लावन ताटकळटाले. पूण ह्या वर्सा मात दोनूय चित्रपट ह्या सुवाळ्यां आदीं अडेज वरांचेर आयोजीत करून आयोजकांनी प्रतिनिधीं कडल्यान बरेपण जोडलें. हाका लागून चित्रपट मोगी धन्य जालेच त्या भायर जांकां सुवाळ्यांच्या नांवान जावपी झगमग आनी भाशणांत रुची आशिल्ली तांकांय मुक्तपणान हे सुवाळे उपभोगूंक मेळ्ळे. ही प्रथा फुडाराकूय अशीच चालू उरतली अशी आस्त बाळगूंक हरकत ना.




ताळगांवच्या डॉ.श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडियमांत आयोजीत केल्लो उक्तावण सुवाळो खऱ्या अर्थान दोळे दिपकावपीच आशिल्लो अशें म्हणपाक रजांव आसा. आकर्शक अशी माचयेची मांडावळ आनी ते माचयेर सादर जाल्ले देशभरांतल्या कलाकारांनी सादर केल्ल्या तरातरांच्या कला प्रकारांनी पुराय स्टेडियमांत जल्लोश केल्लो. तातूंत भर घाली ती सुत्रसंचालन करपी अभिनेता अपारशक्ती खुराणा आनी अभिनेत्री मृणाल ठाकूर हांणी.






उक्तावण सुवाळ्याचो दबाजो चड लक्षांत उरता तो केंद्र सरकार आनी राज्य सरकार कितें घोशणां करता आनी ह्या मळा वयल्या लोकांक फुडाराक कसलीं आश्वासना दिता हाका लागून. आदले मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हांणी इफ्फीचें गोंयांत कायम स्वरुपी थळ जावंचें म्हूण प्रयत्न केले आनी गोंयांत इफ्फी बरे पयकी थिरावलो. पर्रीकाराचें सपन आशिल्लें गोंयांत 'इफ्फी' भवन उबें जावंचें आनी ते एकेच सुवातेर इफ्फी संबंदीत सगळ्या सुवाळ्यांचें आयोजन जावंचें. ते पासत ताळगांव पठाराचेर जाग्याचीय तजवीज केल्ली. जर पर्रीकार आशिल्लो जाल्यार ते प्राधान्यतत्वाचेर आपलें सपन पुराय करीतय आशिल्लो. पूण उपरांतच्या काळांत तांच्या सपनाचेर कोणें केन्ना विचार केला अशें दिसना. पूण ओंदू उक्तावण सुवाळयाक मात आपल्या उलोवपांत मुख्यमंत्री सावंत हांणी तांचें सपन बेगीनूच पुराय करपाक पावलां उबारपाचें आनी 2025 चो इफ्फी तांच्या सपनांतल्या इफ्फी भवनांत घडोवन हाडटले म्हणपाचें आश्वासनूय दिलें.

देश विदेशांतल्या चित्रपट मळा वयल्या लोकांक गोंयान सदांच आकर्शीत केल्यात. आयज मुंबय उपरांत गोंयांत चडांत चड वेगवेगळ्या चित्रपटांचें चित्रिकरण जाता. ह्यान फुडें चित्रिकरणाची सगळी प्रक्रिया सुलभ करतले आनी ताका लागून ह्या मळा वयल्या लोकांक गोंयांत चित्रिकरण करपाक उर्बा मेळटली. ते पासत गोंय हें देशांतलें 'सिनेहब' जावंक पावतलें म्हणपाचो हावेस मुख्यमंत्र्यांनी उलोवन दाखयलो. उक्तावण सुवाळ्याचें तांचें उलोवप चित्रपट मळा वयल्या लोकांच्या मनांत नवी उर्बा जागोवपी थारलें.

उक्तावण सुवाळ्याक गोंयचे राज्यपाल पी.एस.श्रीधरन पिल्लय,केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारणमंत्री अनुराग ठाकूर,केंद्रीय म्हायती प्रसारण राज्यमंत्री बी.एल.मुरुगन केंद्रीय आयुषमंत्री श्रीपाद नायक,वाणी त्रिपाठी,ए.के.बीर हांचे वांगडाच परेश रावल,मनोज वाजपेयी, अजय देवगण,सुनील शेट्टी,वरूण धवन,सारा अली खान,कार्तिक आर्यन आदी कलाकार हाजीर आसले. उक्तावण सुवाळ्यांत चित्रपट मळार खाशेलें योगदान दिल्ले पासत मनोज वाजपेयी, सुनील शेट्टी,अजय देवगण,परेश रावल ह्या अभिनेत्यांचो आनी विजेंद्र प्रसाद

ह्या पटकथा लेखकाचो भोवमान केलो. त्या भायर स्पेनांतले छायादिग्दर्शक आनी सिने दिग्दर्शक कार्लोस सौरा हांचो ह्या वर्साचो सत्यजीत रे जीवन गौरव पुरस्कार भेटोवन भोवमान केलो. तांची सद्या पिराय 93 वर्सांची आनी भलायकेच्या कारणान तांका पुरस्कार घेवंक गोंयांत येवप शक्य जालें ना. तांची धूव ॲना सौरा हांणी तांचे वतीन मुख्यमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत हांचे हस्तुकी आनी केंद्रीय मंत्री अनुराग ठाकूर हांचे हाजेरींत हो पुरस्कार स्वीकारलो.

ह्याच उक्तावण सुवाळ्यांत नामनेचे तेलुगू आनी हिंदी अभिनेते जांची 'मेगास्टार' नामना आसा त्या चिरंजीवी हांचो ह्या वर्साचो 'इंडियन फिल्म पर्सनलिटी ऑफ द इअर' ह्या पुरस्कारान मुख्यमंत्र्यांनी भोवमान केलाह्या आदी ह्या पुरस्कारान वहिदा रेहमान, रजनीकांत, इलैयाराजा, एस.पी बालसुब्रह्मण्यम, अमिताभ बच्चन, सलीम खान, बिस्वजित चॅटर्जी, हेमा मालिनी आनी प्रसून जोशी हांचो भोवमान जाल्लो आसा.

## उक्तावणा आदींच सिनेमा एक बरो आरंभ

इफ्फीच्या इतिहासांत पयलेच खेप इफ्फीचें आयोजन राष्ट्रीय चित्रपट विकास म्हामंडळ(एनएफडीसी) करता. कान्स चित्रपट महोत्सवांत उक्तावण सुवाळ्या परस महोत्सवांतल्या चित्रपटांक चड म्हत्व आसता. एनएफडीसीन आयोजनाचो ताबो घेतले बराबर हीच प्रथा इफ्फींत हाडपाची थारायलें जावंये. ताका प्रतिसादूय बरो मेळ्ळो. उक्तावण सुवाळो सांजचो पांचांक आशिल्लो. त्या आदींच अडेजांक सगळ्या थेटरांनी उक्तावणाचो 'आल्मा ॲन्ड ऑस्कर' हो ऑस्ट्रियन दिग्दर्शक डायटर बर्नर हांचो चित्रपट सुरू केलो आनी संवसारभरच्या महोत्सव प्रतिनिधींनी ताचो हुस्क्या मेकळो आस्वाद घेतलो.

'अल्मा ॲन्ड ऑस्कर' हें वेगळे आयाम आशिल्लें





एक आश्वासक अशें भावनात्मक प्रत्यय हाडपी उत्कृश्ट फिल्म. 'अल्मा' आनी 'ऑस्कर' हीं वास्तवीक मनशां. 1920 च्या अदमासाक दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळार घडपी हें कथानक.अल्मा(एमिली कॉक्स) ही एक संगीतकार जावंक सोदपी आनी तशी तिचे भितर क्षमता आशिल्ली अस्तुरी. पूण तिचो घोव,जो नामनेचो संगितकार आसता ताच्या आत्म केंद्रीत सभावाक लागून अल्मा संगिताच्या मळार आपलो फुडार घडोवंक पावना. तिका आपले भोंवतणी प्रतिभावंत दादले आसप आवडटा. तांच्या ती मोगांतूय पडटा. तिच्या घोवाक ही गजाल कळटा तेन्ना ती ही गजाल न्हयकारना. भंय बाळगी नासतना ती ताका ती गजाल सांगता. कांय दिसांनी तिचो संगीतकार घोव मरता. ताच्या तोंडाचो मास्क करपाक ऑस्कर नांवाचो एक चित्रकार येता. तो नाटककारूय आसता. ताचे लागीं अल्माची वळख जाता. लश्करी अधिकारी वर्ग कलेच्या उच्च अभिरुचीचे नासता. तांकां कलेंत नग्नता,हिंसा बी दिसता आनी ताचेर बंदी घालतात. ऑस्कर अल्माच्या मोगांत पडटा आनी पझेसीव्ह जाता. ताका ताचे हेरां कडले संबंद आवडनात. तातूंत मतभेद वाडटात. उपरांत झुजांत वांटेकार जाल्लो ऑस्कर विकलांग जावन येता. तरी तो आपली कला सोडी ना. तो अल्माच्या मुखामळाचो मास्क तयार करता आनी कपड्याची अस्तुरी करून तिका दसयता. ती प्रतिकृती घेवन तो एक नाटक सादर करता. उत्कट भावभावनांनी भरिल्लो हो चित्रपट प्रेक्षकांचीं काळजां जिखता.

'अल्मा ॲन्ड ऑस्कर' ह्या उक्तावणाच्या चित्रपटान महोत्सवांत वेचिल्ल्या चित्रपटांचें मोस्र दाखयलें ताचे वयल्यान ओंदुचो महोत्सव दर्जेदार चित्रपटांची मेजवानी घेवन आयला म्हणपाची सुलूस प्रतिनिधींक लागली. ओंदुच्या इफ्फींत 79 देसांतल्या 280 आंतरराष्ट्रीय चित्रपटांचें प्रदर्शन जालें. तातूंतले 50-60 परस चड म्हणल्यार 30 टक्के चित्रपट अस्तुऱ्यांचेर




केंद्रीत आशिल्ले. 60 चित्रपटांचे जागतीक प्रीमीयर जाले.बेस्ट डेब्यू-फिचर फिल्म,फेस्टीवल कॅलिडोस्कोप,सिनेमा ऑफ द वर्ल्ड,ॲनिमेशन,इंटरनेट,कंट्री फोकस आदी कितल्याच विभागांत वेगवेगळ्या आशय विशयांचे चित्रपट ह्या आठ दिसांत प्रदर्शीत जाले. रसिकांनी तांचो मनसोक्त आस्वाद घेतलो. आंतरराष्ट्रीय सर्त विभागांत हे खेपे भांगरा मोरा पासत 12 आंतरराष्ट्रीय आनी 3 भारतीय अश्या 15 चित्रपटांचो आस्पाव आशिल्लो.

इंडियन पॅनोरमा विभागांत हे खेप 45 चित्रपटांची निवड जाल्ली. जातूंत 25 चित्रपट हे फिचर फिल्म सदरातले मोठे लांबायेचे आसले जाल्यार 20 चित्रपट लघुपट श्रेणींतले आसले. हातूंत कोंकणी लघुपट 'वागरो' हाचो आसपाव आशिल्लो.

## कोंकणी चित्रपटांचो उणाव?

गोंयांत 35 व्या इफ्फी पासून आरंभ जावन 18 वर्सां उलगलीं आनी ओंदु 53 वो म्हणल्यार गोंयचो 19 वो इफ्फी दबाज्यान आनी झेतान उलगलो. पूण ह्या महोत्सवांत भारतांतले हेर राज्यांतले ते ते भाशेंतले चित्रपट नदरेक पडटात तशे गोंयचे मातयेंतले कोंकणी चित्रपट कित्याक ना हो प्रस्न पडूं येता. गोंयांत तशे टॅलेन्ट नात काय असोय प्रस्न पडूं येता.

इंडियन पॅनोरमा विभागांत हे खेप कोंकणींतलो 'वागरो' हो 10 मिनटांचो लघुपट आशिल्लो. धा मिनटांचो काय जायना.भारतीय पॅनोरमांत ताची निवड जावप ही गजालय उणी न्हय. कोंकणीची वळख भारतीय पॅनोरमांतल्या हेर 44 निर्मात्यां मेरेन पावली. म्हणटकच गोंयकार तरनाट्यां मदीं चित्रपट निर्मितीची तांक आसा. वागरो ह्या लघुपटान ती दाखोवन दिल्या. ह्या लघुपटाचो बरोवपी आनी दिग्दर्शक साईनाथ उसकयकार. ताणें इंजिनियरींग केलां खरें पूण तो आतां पुण्याक भारतीय फिल्म आनी टेलेविजन संस्थेंत (एफटीआय) शिक्षण घेता. फुडाराक ह्या तरनाट्या कडल्यान इफ्फींत भांगरा मोरा पासत सर्तींत देवपाची अपेक्षा बाळगूं येता. ह्या लघुपटाची निर्मिती राजेश पेडणेकार आनी गायत्री पेडणेकार ह्या चित्रपट मळाची जाण आशिल्ल्या दांपत्यान केल्या. राजेश पेडणेकार हो रंगमाची आनी चित्रपट मळावेलो गुणी अभिनेतो.

ह्या 53वे इफ्फींत 'गोवन पॅनोरमां' हो गोंयकारांचे मागणे पासत तांका खूश करपा पासत शीण भागोवंक केल्लो विभाग. ह्या विभागा खाला गोंयच्या निर्मात्यांचे निर्मणेची निवड जाल्यार रेड कार्पेटीचें सूख भोगपाक मेळटा. ह्या विभागांत अंकीता वळवयकार हाणें तयार केल्लो आनी राजाराम तुरी हाणें दिग्दर्शीत केल्लो 'निमण्या दिसाक' ह्या सिनेमाचो आसपाव आसा. ह्या तरनाट्यांक फुडाराक जर बरें मार्गदर्शन आनी आर्थीक पालव मेळत जाल्यार तांका आंतरराष्ट्रीय स्तरार हेर कडेनूय रेड कार्पेट लाबूं येता. त्या दिसाची वाट पळोंवया!

## इफ्फीच्या यशांत हेर कार्यावळींचो वांटो

भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाक (इफ्फी) अज्ञानांतल्यान कोणूय नांवां दवरूं. पूण तांका दिसता तसो

हो महोत्सव वयलेतराक मनरिजवण करपा पासत न्हय. महोत्सवाच्या निमतान चित्रपट मळा वयल्या लोकांक देश-विदेशांतल्या वेगवेगळ्या भासांतले ,संस्कृतायेंतले, आशय-विशयांतले, शैलींतले,तंत्रांतले चित्रपट पळोवन तांचो अभ्यास करपाची मेळिल्ली एक संद.ताका लागून ह्या मळावेल्या नव्या तंत्रांची,प्रवाहांची वळख जावंक पावता. संवसारभरचे वेगवेगळ्या मळा वयले लोक आपली कलानदर आनी जीवन नदर घेवन आयिल्ल्यान तांच्या सहवासांत रावून,तांचे लागीं भासाभास करून जीवन समृद्ध करपाची संद मेळटा. चित्रपट महोत्सवांत फकत चित्रपट दाखयनात तर तातूंत चर्चासत्रां, कार्यशाळा आनी एकमेकांची भेट घेवन विचारांची देवाण घेवाण करूंक मेळटा.'मास्टर क्लासां'त सिने कला वेव्हारांतले दिग्गज तज्ज्ञांचें मार्गदर्शन एकामेका सामकार बसून संवादांतल्यान मेळूंक पावता. हे इफ्फींत 'पटकथा लेखक ते ऑटियर' ह्या विशयाचेर मणिरत्नम, बाहुबली ,आरआरआरचे पटकथाकार व्हि.विजयेंद्र प्रसाद हांचे लागीं चित्रपट लेखन प्रक्रिया, अनुपम खेर हांचे लागीं सिनेमा आनी नाटकांतलो अभिनय,पंकज त्रिपाठी हांचे लागीं अभिनेत्याच्या व्यक्तीरेखेची निर्मिती,श्रीकर प्रसाद हांचे लागीं संकलन तशेंच नवाजुद्दीन सिद्दीकी,ए. आर.रेहमान,शेखर कपूर ह्या सारख्या त्या त्या मळा वयल्या दिग्गजां कडेन इत्सुकांनी भासाभास केली.

## काळजाक हुरहूर लावपी समारोप

आयतार 20 नोव्हेंब्र 2022 दिसा दबाज्यान आनी उत्साहान आरंभ जाल्लो 53 वो इफ्फी 28 नोव्हेंब्राक उलगलो तो सगल्यांच्या काळजाक हुरहूर लावन. उक्तावणाक जसो उक्तावण सुवाळ्या आदींच उक्तावणाचो चित्रपट दाखयल्लो तसोच समारोप सुवाळ्या दिसाय समारोप सुवाळ्या आदींच समारोप सुवाळ्याचो चित्रपट दाखयलो. समारोप सुवाळ्याक पोलंडचो पोलीश चित्रपट 'परफेक्ट नंबर' दाखयलो. उक्तावण सुवाळ्याचो चित्रपट उत्कृश्ट काय समारोप सुवाळ्याचो उत्कृश्ट हाची तुळा करपीय चित्रपट मोगी आसतात. खरें पळोवंक गेल्यार आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत आयिल्ल्या चित्रपटांची तुळाच करूं नज. कित्याक दरेक चित्रपट आपलें खाशेलपण घेवन येता आनी तेंच उत्कृश्ट आसता. जीवनाक अर्थ कित्याक लागून फावो जाता? यशाक लागून काय मोगाक लागून? असो प्रस्न घेवन हो सिनेमा प्रेक्षकांक कदेलांक खिळावन दवरता. ओंदुचे इफ्फींतलो हो निमणो चित्रपटूय प्रतिनिधींनी हुस्क्या मेकळो कसलीच धांवपळ नासतना पळयलो. तो सोंपल्या उपरांत सगळ्यांक उत्सुकताय लागली ह्या इफ्फींतलो 'भांगरा मोर' खंयच्या सिनेमाक मेळटलो? जाका हो मोर फावो जाला तो सिनेमा आपणें पळयला काय आपल्याक तो चुकलो? हीच एक हुरहूर काळजांत घेवन प्रतिनिधी ताळगांवची वाट धरतात. थंय डॉ. श्यामाप्रसाद मुखर्जी स्टेडीयमांत तांची वाट पळयता इफ्फीचो समारोप सुवाळो आनी त्या निमतान आयोजीत केल्ली भोवरंगी कार्यावळ. भरगच्च भरिल्ल्या ह्या स्टेडियमांत स्पॅनीश चित्रपट 'आय हॅव इलेक्ट्रीक ड्रीम्स' हाका ह्या वर्साचो प्रतिशठेचो 'भांगरा मोर' पुरस्काराची घोशणा जाली आनी पुराय स्टेडीयम टाळ्यांनी गाजलो.

'आय हॅव इलेक्ट्रीक ड्रीम्स' ह्या चित्रपटांत दिग्दर्शकान इव्हा हे 13 वर्सांचे चलयेचें पौगंडावस्थेंतल्या पिरायेंतलें विश्व मांडलां. सिनेमांत पड्ड्याचेर दिग्दर्शकान फकत वाडटा ती पिराय दाखोवंक ना तर तिचे भितर हे पिरायेर जातात ते कुडीचे आनी मनाचे बदल बारीकसाणेन मांडल्यात. ह्या






सिनेमांत अशीं खूबशीं दृश्यां आसात जीं प्रेक्षकांच्या काळजाक चुरको लावन वतात. ह्या सिनेमांतल्यान मनशाचे जिणेंतली घुस्पट अशे तरेन मांडल्या जातूंतल्यान दिग्दर्शकाचो प्रामाणीकपणां पावला पावलाक वा फ्रेमी फ्रेमीक जाणवता. आंगार कांटो हाडपी हो सिनेमा जांणी पळयला ते निश्चितूच म्हणटले, 'योग्य चित्रपटाची निवड परिक्षकांनी भांगरा मोरा पासत केल्या.' ताळगांव पठारा वयल्या डॉ.श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडीयमांत जाल्ल्या ह्या सुवाळ्यांत गोंय राज्याचे मुख्यमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत,केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्री अनुराग ठाकूर, चिरंजिवी,खुशबू हांचे सांगाताक हो पुरस्कार भेटयलो. चित्रपटाचे निर्माते आनी दिग्दर्शक ह्या सुवाळ्याक हाजीर रावंक पावूंक नाशिल्ल्यान ह्या चित्रपटाचे छायाचित्रकारान हो पुरस्कार तांचे वतीन स्वीकारलो. भांगरा मोर,रुपया 40 लाख आनी मानपत्र अश्या स्वरूपांतलो हो पुरस्कार संवसारांत प्रतिशठेचो मानतात.




Anupam Kher

इराणचे नामनेचे लेखक आनी दिग्दर्शक नादेर साईवार हांका तांच्या 'नो एंड' चित्रपटा पासत सर्वोत्कृश्ट दिग्दर्शना पासतचो 'रुप्या मोर' भेटयलो. उपरांत जाली दिलखेचक सांस्कृतीक कार्यावळ.

ह्या वर्साचो इफ्फी आतां मेरेन गोंयांत जाल्ल्या 18 इफ्फीं मदलो उजवो इफ्फी म्हणूंक हरकत ना. कसलेंच गरजे भायलें आवडंबर ना. नाका थंय गर्दी ना. प्रतिनिधींची तक्रार वा कुरकूर ना. सगळ्यांक इफ्फीचो वेवस्तीत आस्वाद घेवंक मेळ्ळो. हाचें श्रेय कोणाक वता? राष्ट्रीय चित्रपट विकास म्हामंडळाक (एनएफडीसी) काय गोंय मनरिजवण संस्थेक? काय गोंयचे मुख्यमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत हांकां? मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हे एक बरे प्रशासक म्हणपाचें ल्हव ल्हव नदरेक येता. हे खेप इफ्फींत फाटल्या इफ्फींवरी मनरिजवण संस्थेच्या उपाध्यक्षपदार कोणाचीच नेमणूक मुख्यमंत्र्यांनी करूंक ना. उपाध्यक्ष नासलो म्हूण खंयच कोणाचें अडलें ना. मनरिजवण संस्थेचे कर्मचारी आपल्याक दिल्लें काम शिस्तीन आनी वेवस्थीत करताले. हें सगलें घडूंक पावलें तें उपाध्यक्षाची लुडबूड नाशिल्ल्यान बी न्हय मूं? सांगू नज.

पणजें, मोबा. 9822136885



# राजकन्येची तरसाद!

फस्का काडयेची एकाद्रे कळयेवरी ज्योत म्हजे इतली लार्गी जळटाली, हांव तिका स्पर्शूय करूंक शकतालें. तेन्ना म्हजे मनांत एकूच विचार आयलो, ते ज्योतीन म्हज्या आंगा वयल्या वस्राची देग कित्याक पेटोवंची न्हय? म्हजे कपडे मागीर ल्हव ल्हव पेट घेतले आनी फुलपी कळयेची सुंदराय तातूंत फुलतली. घराचे वणटीचेर हुमकळायल्ल्या कॅलेंडरांतल्या साळकांतले मद्दीं उबी आशिल्ले सरस्वतीच्या चित्रावरीं हांव सुंदर दिसूंक लागतलें. भोवतेक त्या तेजांत आनी धगांत म्हजी सुदय वचत. मागीर एके लयेंत सगळें जळूंक लागतलें. सामकें पुराय थंडसाणेन निस्तब्दपणान. वा भोवतेक म्हाका त्या वेळार आपल्या दोन काठां मदल्यान दिमाखान व्हांवपी न्हंयच्या पुश्ट प्रवाहाचीय याद जायत. ज्वाळांची सुंदराय आनी आवेग म्हाका सदांच ल्हारांचीच याद करून दिता.

पूण हें सगळें तेन्नाच घडटलें, जेन्ना हांव म्हजे सरभोंवतणी पेटपी ज्वाळे इतलेच आत्मप्रतिश्ठे मेरेन आनी शांतीकाये मेरेन पावन. मनशां पासत तें तशें अशक्य न्हय.

हांव भोवतेक म्हज्या निश्चेवा आड मोटमोट्यान आड्डन, रडन.

जेन्ना म्हजो घोव उठटलो आनी ज्वाळां मदीं उबें आशिल्ल्या म्हजे कडेन नियाळून पळयत, तेन्ना तो भोवतेक म्हाका तशें पळोवन उदक वा गरम ब्लॅकेट सोदपाचोय प्रयत्न करीत. पूण तेन्नाय तो हांवें ताचे कडेन आड नदर केलां हेय गजालीचेर मनांतले मनांत चरफडतूय आसत.

म्हाका दिसता, ताका जावपी ह्या त्रासांची म्हाका खोसूच जातली.

जिंकप ही आतां म्हजे पासत गरजेची गजाल उरूंक ना. फाटल्या कितल्याच शरणागतीं उपरांत हांव आतां म्हजे सोसणिकायेचे शिमेर पावलां.

म्हाका म्हज्या सपनांचेर जैत हाडपाचें आसा,जीं म्हाका कितल्याच वर्सां साकून भिवयत आसतात, भंयचकीत करीत आसतात.



**मानसी**

अस्तुरी आनी दादल्यांच्या संबंदांतल्या सुखदुख्खांच्या तपशिलांची खराय आनी खोलाय काव्यमय शैलींत चितारपी मल्याळी कथाकार हांची एक वाचकप्रिय कथा-मराठी अणकार:प्रफुल्ल शिलेदार, कोंकणी-दिलीप बोरकार

म्हाका म्हजे अहंकारी बुदवंतकायेचेरूय जैत जोडपाचें आसा, जी म्हाका उद्दटपणान दरेक गजालीचें कारण विचारत आसता. हांव कित्याक खातां, कित्याक मोग करतां, हांव कित्याक आसां? हांव कोण? म्हाका सारखें दिसता की, हांव ह्या प्रयत्नांत तरी यशस्वी जातलेंच.

हांव ज्वाळांचे मदीं उबें आसन. ते म्हजे इत्सेक आनी सपनांक विरोध करीत अशे सुवातेर उबे आसतले जंयसून तांका म्हाका स्पर्शूय करूंक येवंचेंना. तांच्या मुखामळार म्हज्या घोवाच्या मुखामळार आसता तसो फसयल्ल्याचो भाव आसतलो. तोंडांतल्यान सुटिल्ल्या भक्ष्याविशींचें दुख्ख आसतलें. हेच गजालीचो म्हाका अत्यानंद जावपाचो आसा. ते आपूण जावन ह्या धगांत वच्चेनांत, कारण तांका आपलीं बोटां भाजतलीं म्हणपाची भिरांत दिसतली.

अशे तरेन जेन्ना हांव कोणाच्याच पावपाच्या टप्प्या भायर खोशयेन उबें आसन, तेन्ना हांव मोट्यान आड्डन,‘‘ हांव तुमचेर सगळ्यांचेर प्रेम करतां, दरेक ...जो ज्वाळांचेर आनी धगाचेर मोग करता, तो मनशांचेर मोग करीत आसता.’’

विवेकाच्या नपुंसक आनी अपुऱ्यां शिमेरेशां भायर रावन हांव हें सदांच सांगपाचो प्रयत्न करीत आयिल्लें आसां.

फस्का काडी आतां पालवल्या. स्टोवा वयलें थंड उदक आनी म्हजी चुरगळेल्ली साडी तशीच आसा. फकत जळिल्ले काडयेचे कुडके रांदपाच्या ओट्यार तशेच पडिल्ले आसात. जेन्ना हांवें उदक गरम करूंक दवरिल्लें तेन्ना साकून, ल्हव ल्हव म्हाका सगळ्यो गजाली विचित्र आनी अविश्वसनीय दिसूंक लागल्यात.

आदले राती हांव एकटेंच दाट काळखांत एका लांबदीक बोळावरीं कोठयेंत एका कोनशाक पडून राविल्लें. ती सुवात फातरांच्या दाट वणटींनी पुरायेन वेडिल्ली आनी भायर सरतलें म्हणल्यार खंयच दार नाशिल्लें. स्वच्छ नितळ उदकाच्या तळाक एकादल्या फातराचो कुडको स्पश्ट दिसचो, तशें त्या फातराळ वणटीच्या एकाद्र्या वेवस्थीत ताशिल्ल्या फातराच्या कुडक्या वरी म्हजें मन म्हजे चामडेंतल्यान स्पश्ट दिसतालें. म्हजें मन सामकें शांत आशिल्लें. मात्तूय तरंग नाशिल्ल्या एकाद्र्या थिजिल्ल्या तळ्या वरीं आशिल्लें. तें मन भितरले भितर घट्ट धरून हांव ते लांबदीक कोठडेचे चकचकते फरशेर कितलेच खेप हे तोंका सावन ते चोंका मेरेन गडाबडा लोळत गेलें. कितलेच खेप हांव मोठमोठ्यान रडूंक लागलें. पूण हांव रडटना म्हजो आवाज मानवी आवाजा वरी येनाशिल्लो. हांवें म्हज्या घशांतल्यान येवपी तो भिरांकूळ आनी भितर मेरेन चिरत वचपी आवाज दामून उडयलो. म्हाका मोठ्ठ्यान रडपाची इत्सा जाताली. पूण हांवें म्हज्या आवाजाचे भिरांतेन तोंड लेगीत उगडूंक ना. ताकाच लागून हांवें जमनीर पर्थून गडाबडा लोळपाक सुरवात केल्ली.

हांव जे फरशेचेर जायते खेप गडबडा लोळिल्लें, तिचेर अकस्मात म्हाका एक लोखणाचो कुडको सांपडलो. हांवें तो कुडको वापरून म्हजे भोंवतणच्यो थंड मुखामळाच्यो वणटी फोडपाचो प्रयत्न केलो.

म्हाका अकस्मात जाणविकाय जाली,ते वणटीक तेंकूनच पलतडी म्हजें भुरगें,म्हजें जग आनी खूबशे तिखटमिठाचे पदार्थूय आसात. हांवें त्या कळमेल्ल्या लोखणा कुडक्यान त्या फातरांचे वणटीचेर परत परत चरे घातले.

त्या शांत त्रासहीण मरणाच्या वाड्यांतल्यान मार्ग काडून म्हज्या आदल्या जिविता कडेन, इश्टां मदीं वचपाचो प्रयत्न करतालें. हांवें पर्थून एक खेप मनशा वरीं रडपाचो प्रयत्न केलो. तो लोखणा कुडको घाशिल्ल्यान अर्द जाल्लो. हांव ते फातरांचे वणटीचेर तकली आपटून घेवंक लागलें. अजाप म्हणल्यार म्हाका मात्तूय वेदना जाय नाशिल्ल्यो.

पूण केन्ना तरी त्याच सुमाराक हांव जागें जालें.

हांव जागें जालें, तेन्ना म्हज्या सदच्या उठपा परस जायतोच कळाव जाल्लो. म्हाका खूब थकिल्लें आनी निरस भासतालें. हाचें वर्णन तशें करूंक येवप शक्यच ना. म्हाका फकत इतलेंच दिसतालें,अचळय उठचें आनी केंस लेगीत उगय नासतना भायल्या फांतोडेच्या शेळावांत चलत वच्चें. पूण हांव जाणां आशिल्लें,घरांत शंबर कामां पडिल्लीं आसतना हें कशेंच शक्य ना.

‘‘तुजो कांय उठपाचो विचार दिसना आयज.’’ घोवान विचारलें.

‘‘ म्हाका उठनशेंच दिसना.’’ हांवें जाप दिली.‘‘थकिल्ले वरी दिसता.’’



" थकवो इतलो कसलो आयला तर? रात भर घोरेत सुस्त न्हिदूनय थकवो आयलो?"

"हांव उठटां." उठत हांवें जाप दिली," काल रातीं म्हाका एक विचित्रूच सपन पडलें."

"बरें." ताणें म्हणलें," सपन पडपी काय तूं एकटेंच न्हय! तातूंत कितें व्हडलें !"

हांवें म्हजें आंग एक खेप नेटान घुसळ्ळें. तोंडार खूबशें उदक मारून तोंड धुवन बोंगो जाल्ली साडी तशीच दवरून रांदचे कुडीची वाट धरली,तेन्ना लेगीत म्हजे कुडीचो कणान कण थकव्यान भरिल्लो. म्हाका अशें दिसतालें,हांव अखंडपणान दीर्घकाळ ते लांब कोठडेंत गडाबडा लोळत आसुंये!

ते दार नाशिल्ले कोठडीची याद म्हज्या मनांत चमकली,तशें हांव अकस्मात रावलें. हांवें ल्हवूच म्हजीं बोटां तायट पसरयलीं आनी बोटांकडेन बारकायेन पळयलें. आमी रातचीं उसरां घरा येतकच,घरांत भितर सरले उपरांत दारा फाटल्यान चोर बी लिपून रावूंक ना मू हें तीं पिशेपणां हें खबर आसुनय पळयतात, तशेंच हांवें म्हजीं बोटां पळयलीं. म्हजीं सुरेख बोटां आजुनय स्वच्छ,लांबसडक आनी गुलाबी आशिल्लीं.

हांव रांदचे कुडींत गेलें आनी एखाद्र्याचेर सूड घेवंचो अशे तरेन जनेलां आवाज करीत उगडलीं. तसो वारो एखाद्र्या शत्रुवरी नेटान भितर घुसलो. एकटें रावचे परस शत्रुचो सांगात लेगीत कितलोच सूख देणो भासता. हांव लागशिल्या स्टुलार बसलें. खूब थकिल्ले वरी आनी खूब मेकळें जाल्ले वरी लेगीत. म्हाका दिसता हांव तेन्ना बशिल्ले कडेच न्हिदून पडलें.

घोवाचो ब्रशान दांत घांसपाच्या आवाजान हांव उठलें. ताचें मुखामळ रागान फुलून गेल्लें. हांवें जाणून बुजून ताचे कडेन म्हजें लक्ष वचूंक ना अशें दाखयलें. आजून आनीक खंयचे खंयचे गजालीं कडेन म्हजें लक्षूच वचूंक ना अशें दाखोवं? म्हजीं सोताचीं सपनां,म्हज्या घोवाचो रागावल्लो चेरो... म्हज्या पुताच्या चेऱ्या लागीं साम्य आशिल्ल्या भिकाऱ्याच्या पोराचो चेरो...ताचे पासत हांव वयल्यान बाल्कनींतल्यान सकयल पोळयो उडयतालें. म्हजे घरांतली गरिबीन कळमेल्ली वावराडी...तिचे आंगा भोंवतणी मूस भोंवताले आनी आपले भुरगेबाळांक खावंक घालूंक ती आमचे आयदनांतलें उश्टें खरकटें घेवन वचऽ.

घोवान च्या केल्लो. च्याचो चोथो आनी हांवें कुडके केल्ल्यो फसका काडयो ओट्यार तश्शयो पडून आशिल्ल्यो. हांवें दूद तापोवंक दवरलें आनी खूबशें उदक तोंडार मारून



तोंड धुलें.

हांव त्या भिकाऱ्याच्या पोरा विशीं विचार करूंक लागलें. ताचें म्हज्या पुता लागीं खूबशें साम्य आशिल्लें. म्हजे मनांत विचार आयलो, हांव एकटेंच आसतना,लागसाराक कोणूच नासतना त्या भिकाऱ्याच्या पोराक आपोवंचें. हांव ताका बाथरुमांत व्हरतलें. साबणान खसाखसा घासून न्हाणयतलें. नवे कपडे घालतलें. खूब खावंक खावयतलें आनी मांडयेर न्हिदयतलें. आनी मागीर? आसूं ती खबर! फुडलो विचार आतांच करप ना, हांवें सोताकूच म्हणलें. पूण त्या पोराक भितर येवंक दिवंचे पासत त्या गेटी वयल्या गुरख्याक हांव खंयची फट मारूं? गुरखो म्हजे लागीं दुबावान पळयतलो. हांवें ताचे दुबावीत नदरे कडेन आड नदर करून भिकाऱ्याच्या पोराक भितर धाडपाक सांगलें जाल्यार, तो म्हजे उंची साडये कडेन आनी भांगरां कडेन पळोवन ताका भितर येवंक दितलो, पूण हे गजालीचें जाहीर भांडवल मात शेर्त करतलो. मागीर कितें? आमचे बिल्डींगेंतलीं सगलीं सभ्य मनशां म्हज्या ह्या गैरकृत्या विशीं आनी एकंदरीत म्हजे वायट चाली विशीं नाकां किल्लिसतलीं. जेन्ना एकल्याची सभ्यताय मेजपाचें माप हेरांच्या हातांत दिल्लें आसता, तेन्ना सदां अशेंच घडटा. आनी अर्थांत म्हज्या घोवाकूय तें कळटलेंच.

हांव जेन्ना ह्या सगल्या गजालींचेर येवजितालें, तेन्नाच हांवें स्टोवाचेर तापोवंक दवरिल्लें दूद ओतलें. ताचे कडेन खीण भर पळोवन हांवें स्टोव रोखडोच बंद केलो. म्हजें हें एकंदरीत सुस्तपण पळोवन घोव संतापलो. तो एका ताळटार माथ्याक लावपाचें तेल घेवन तसोच संतापान म्हाका नियाळीत उबो आशिल्लो.

हांव ताच्या हाताच्या बोटांतल्यान नितळपी तेलाचे थेंबे पळयत कांय वेळ उबें रावलें. मागीर कांयच घडूंक ना अशे

आविर्भावांत ताका म्हणलें,'' म्हाका मातसो वेळ भायर वचूं दी. म्हाका दिसता, हांव खूब थकलां.''

म्हजो घोव आशिल्लो तेच स्थितींत हात लेगीत हालय नासतना तस्सो उबो रावलो. पूण हांव ताका टाळून वचूंक लागलें, तशें बळजबऱ्यां म्हाका धरून रावयलें.

''सोड म्हाका.'' हांवें म्हणलें, '' हांव रोकडेंच परतन.''

पूण म्हज्या घोवान पकड घट्ट आशिल्ली. दुखापत करपी आशिल्ली. ताचें तोंड रागान काळें पडिल्लें. ताच्या त्या तोंडार कोळशा पिठो सारायला काय कितें अशें शें म्हाका दिसलें.

अचानकूच कसलेंच कारण नासतना हांव ते लांबदीग कोठडेचो विचार करूंक लागलें. तातूंत हांव कितकेच खेप गडाबडा लोळिल्लें. मागीर म्हाका येवजितना अशें लक्षांत आयलें, हें त्या खिणाक घडटा,जेन्ना म्हजो संतापान सोता वयलो ताबो सुट्टा. म्हाका दिसलें, हांव एका झटक्यांत सोताक घोवाचे पकडेंतल्यान सोडोवन घेवंक शकन. तो एखाद्र्या ल्हान भुरग्यावरीं बावळटपणा करतालो.

तिटकारो,संताप,हिसपा भायर विटंबना जाल्ल्याची भावना आनी एक कुड्डो नेट ह्यो सगल्यो गजाली म्हजे मनांतल्यान एखाद्रे चितेंतल्यान किटी भायर येवंच्यो तश्यो नेटान भायर आयल्यो.

''सोड म्हाका.'' हांवें परत म्हणलें,''हांव रोकडेंच परतन.''

हांवें भायली गुलाबी फांतोड पळयली. वाऱ्याचे झुळकेन म्हाका एकदम सोबीत गुंगी आयिल्लेवरीं भावलें.

हांवें पळयलें...ती काळखी कोठडी चारय वटयां आकसत वता. थंड आनी ठाम गतीन...आनी शेवटाक सामक्या म्हज्या आकाराच्या कायशांवां येदी जावन ते कोठडेन म्हाका रेवडावन घेतलां.

''म्हाका सोड.'' हांव मोठ्ठ्यान आड्डलें,'' हांव रोखडेंच परतन, म्हाका रावोवं नाका.''

मात रोखडेंच म्हज्या घोवान म्हाका नेटान धुकल्लें. म्हाका अचानक म्हजे मस्तकाच्यो कितल्योच सरयो तुटिल्ल्या सारकें दिसलें. हांव बेगबेगीन तांचीं तोंकां सोदूंक लागलें. तशें ताणें म्हाका पर्थून फाटल्यान धुकल्लें. हांवें फकत बेडरुमाच्या दाराचो आदार घेतलो म्हूण सोताक सांबाळूंक पावलें.

हांवें सावरतकच म्हज्या घोवाच्या तोंडा कडेन पळयलें. तो जळिल्ले वातीच्या पोंता वरीं दिसतालो.

भोवतेक ताचे चेऱ्याचेर म्हाका ते दिसा जे भाव दिसले, ताकाच हांव काळो उजो म्हणटां. ताणें आपले तेलकट हात आपले उगडे छातयेर आनी पोटार पुसले आनी म्हाका पलंगाचेर धुकल्लें. पडटना म्हजें नाक पलंगाचे कडेक आपटलें. म्हजो सगळो स्वाभिमान,ताठो आंबशेवन इबाडिल्लो वरी जालो.

म्हाका जाणविकाय जाली,काल अशेच वेळार हांव एखाद्र्या अमानवी प्राण्यावरीं आड्डल्लें. हांव सामकें भियेलें.

बेडरुमाचीं जनेलां धांपून मागीर म्हजो घोव दाराचीय खिळी लावपाक चिंततालो. तो भोवतेक म्हाका मारपाचो आसलो. निदान ते उपरांत तरी म्हाका भायर वचूंक मेळूंक जाय आसलें. म्हाका भायल्या आतां तापिल्ल्या वतांत भोंवपाक जाय आशिल्लें. पर्थून उज्याचीच प्रतिमा म्हजे मनांत आयली. उज्याच्यो ज्वाळो, म्हाका भारावन उडोवपी गजाल. उज्याच्यो ज्वाळो, ज्यो कळयेवरी फुलतात आनी फुलावरी पेट्टात.

दाराची खिळी हातांत धरून म्हजो घोव म्हजे कडेन रोखून पळयत उबो आसलो. ताणें लाळ गिळ्ळी तसो ताचो कंठमणी वयर सकयल जालो. म्हाका दिसलें, हांव ते लांब काळखे कोठडेंत गडबडा लोळूंक लागलें तरी तो म्हजे कडेन असोच पळयत रावतलो.

अचानक म्हाका भान आयलें, की जें कितें घडटा तें सगलें सत्य.

बंद दार आनी बंद जनेलां.

हांव एकदम फणा काडिल्ल्या सोरपा वरीं उठून किंळचलें, '' म्हाका भायर वचूंक दी.म्हाका हांगा गुदमरिल्लेवरीं जाता. हांव...हांव ना...''

म्हाका दिसलें, हांव गुदमरतां. म्हजे मनांत सोंसवना असल्यो वेदना,तिटकारो,संताप,थकवो दाटला. एका खिणांत हांव जंय उबें आशिल्लें,थंयच्यान पळयलें,म्हज्या बेडरुम ाच्या वणटीचें रुपांतर ल्हव ल्हव जाड दगडी वणटींत जाता. काळखांत पायपांतल्यान उदक पोंवत रावचें तसो म्हजो घोवूय ल्हव ल्हव कडून ना सो जावंक लागिल्लो. बुडपी बोटींतल्या प्रवाश्यान उदका वटेन धांव मारची ते गतीन हांव त्या दुखऱ्या वातावरणांत दारा कडेन धांवलें.म्हजें मन चीड, तुच्छताय आनी सामके भिरांतेन भरिल्लें.

''म्हाका भायर वचूंक दी,ना तर हांव हें दार फोडून उगडटलें.''

घट्ट जायत वचपी शांततायेंत म्हजो आवाज एखाद्र्या विदेही अस्तित्वाच्या आवाजावरीं मोठसार जायत गेलो. हांव त्या निःशब्द काळखांत उबें आशिल्लें. म्हजे मुखार तें दार

काळखाच्या एखाद्र्या भिरांकूळ अपत्यावरीं अडथळो जावन उबें आशिल्लें. हांव भिरांतेन मोने जाल्लें. हांव शून्य नदरेन त्या दारा कडेन पळयलें.

ना. म्हाका दिसता,हांवें आतां जें सांगलां तें चूक. थंय खंयचेंच दार नाशिल्लें. हांव जाचे कडेन सामकें कुतुहलान आनी अपेक्षेन पळयतालें, तें दार नाशिल्लेंच. तो फकत काळोख आशिल्लो.थंय खंयचेंच दार नाशिल्लें.

म्हाका दिसलें, आपणें सोताक घोवाच्या पांयां कडेन घालून घेवंचें. ताचे लागीं भीक मागची, म्हाका दार दाखय आनी तें उगडून दी. अभिमान ही कितली सापेक्ष कल्पना! निमणें कितें, हांव थकव्यान क्षीण जाल्ल्या मनान खंयचेंच दार उगडूंक शकना. कुशीच्या सुक्या रिकाम्या कंपावंडा वयल्यान व्हांवत वचपी वाऱ्याचे गाजे वरीं म्हज्या श्वासाच्या आवाजान म्हजो संताप जागो जालो.

हांवें म्हज्या मनाच्या एका कोनश्यांत एक कल्पना केली, हांवें सपनांत पळयल्लो लोखणाचो कुडको म्हज्या घोवाचे सुकिल्ल्या झाडाच्या खोडा सारके मानेंत घुसला. हांवें पांदऱ्यांत कोंडून दवरिल्ल्या रानवटी सावजावरीं गुरगुरत चारय वणटी हुंगत ते कुडींत खूब पासयो मारल्यो. जसजशे म्हज्या श्वासांचे आनी पावलांचे प्रतिध्वनी म्हज्या कानांत सर्वसमावेशक कल्लोळावरीं पडूंक लागले तशी म्हजी ल्हान कूड लांबायेन वाडूंक लागली. एखाद्रे लांबदीक कोठडेवरीं. हांव ते अरूंद वाटेच्या वोल्तां मदल्यान ते वाटेचें दुसरें पोंत सोदीत नेट्टान धांवक लागलें. हांव त्या गुडुप्प काळखांतल्यान धांवत आसतनाच म्हाका मुयेचे बिळा इतलें सुक्षीम उजवाडा किरण दिसलें. भोवतेक म्हाका धांवपा बगर दुसरें कांयच करपा सारकें नाशिल्ल्यान हांव पाख्याचें लेपण काडपाचो प्रयत्न करूंक लागलें आनी अकस्मात रेवें सारके उजवाडाचे कण म्हजे आंगार पडले.

म्हाका राजपुत्राचो सोद लागलो तो असो!

राजपुत्र ताच्या पुराय राजचिन्हां सयत हातांत तलवार घेवन पाखां पसरायल्ल्या घोड्यार बशिल्लो. ताच्या हांश्यांतल्यान उजवाडाचे कण म्हजे आंगार पडटाले. चमचमपी खोगिराचेर बशिल्ल्या राजपुत्रान सकयल उबें आशिल्ल्या म्हजे कडेन पळयत आपले दोनूय हात पसरायले.

हांव ताचो हात धरून घोड्यार चडून बसलें,तशें ताणें विचारलें, "तुका कितें जाय?"

"म्हाका उंच उडपाचें आसा." हांवें म्हणलें.

"खंय वचपाचें आसा.?" राजपुत्रान विचारलें.

हांवें खूब विचार केलो. हांवें खंय उडत वचप काय? शेवटाक हांवें म्हणलें, "म्हाका खबगर ना.तूं सोताच थाराय."

उजवाडाच्या कणांचो शिंवोर करीत राजपुत्र हांसलो. मागीर आपल्या गळ्यांतल्या रत्नजडीत ताईता कडेन पळोवन ताणें म्हणलें, "तिका राजकन्या कर."

अचानक हांव अळंकारांनी नटिल्ली एक सोबीत राजकुंवर जालें. म्हज्या सुरेख भेसाक दर्याच्या ल्हारांची झालर आशिल्ली.म्हज्या केंसांत चान्याचीं आभुशणां आशिल्लीं.

"आतां हांव राजकुंवरीक एक तलवार दितां."ताणें म्हणलें. "पूण एक खेप जर तुवें ही तलवार कोणाचेर चलयली, जाल्यार वार केले बगर काय तुका ती फाटीं घेवंक मेळची ना."

हांव एका वर्णन करूं येना असल्या आत्मविश्वासान ती शक्तिमान तलवार हातांत धरून,केंसार भांगराळो मुकूट धारण करून राजपुत्रा वांगडा खूब पयस मेरेन गेलें.

उडत वतना हांवें फाटीं वळून पळयलें,जाल्यार म्हजो घोव एखाद्र्या रखवालदारा वरी दारा मुखार उबो आशिल्लो दिसलो.

"म्हाका जमनीर वचूंक दी न्हय" हांवें राजपुत्राक म्हणलें, "हांव रोखडेंच परतन."

एखाद्र्या सवण्याच्या पिसा वरीं हांव हवेंतल्यान तरंगत वेगान सकयल आयलें. हांव म्हज्या घोवा सामकार अचाट दिमाखान उबें रावलें.हातांत तलवार, माथ्यार मुकूट आनी आंगभर भांगरां शिंगरां चडोवन हांव उबें आशिल्लें.

म्हज्या त्या सामके सोबीत राजकुंवरींत जाल्ल्या रुपांतरा कडेन पळयत म्हजो घोव कांय काळ तसोच उबो आसलो. ताच्या चेऱ्यावेल्या अविश्वासाच्या आनी असमाधानाच्या भावां कडेन पळोवन म्हजे वोंठार ताका खिजोवपी हांसो फुल्लो. भोवतेक तेंच पळोवन एखाद्र्या शिकारी सुण्याचे शक्तीन आनी गतीन ताणें म्हजेर झडप घाली. म्हजो भांगराचो मुकूट खिणा भितर ओरबाडून काडलो. ताची ही करणी म्हाका अनपेक्षीत आशिल्ली, हें म्हाका कबूल करूंकच जाय. आमी दोगांय झगडपी सुण्यां वरी ते कुडीत गडबडा लोळटालीं.

म्हजें मन एखाद्र्या तुटिल्ल्या पतंगा वरी जालें. काळोख म्हजे मनांत रिगलो आनी न्हंयेक अकस्मात आयिल्ले बुडटे वरी भितर भरलो. त्या काळखांतूच हांवें म्हजी भांगराची तलवार घरांतल्या कितल्याश्याच वस्तुंच्या पसाऱ्यांत पडिल्ली पळयली. त्या वेळार म्हाका शत्रुच्या शिपायकांनी मारून पराभूत केल्ले वरीं दिसलें.राजपुत्र वयल्यान म्हजो पराभव आनी अवहेलना पळयतालो जावंक जाय.

हांवें म्हजे सामकार उबो आशिल्ल्या घोवाचे सडपातळ, बारीक आनी मात्तूय दादलेपण दिसनाशिल्ले माने कडेन एक खेप पळयलें. म्हाका याद जाली की म्हाका रोखडेंच राजपुत्रा कडेन परतुपाचें आसा.

एखाद्रे राजकन्ये वरींच हांवें तलवार भायर काडली. म्हाका खबर ना, ताचे ते विखारी सोरपा सारके गुळगुळीत मानेन काय म्हजे हातांतले ते नंगे तरसादीन म्हाका घोवाक मारपाक प्रवृत्त केलें.

पूण आतां तें सगलेंच गैरलागू आसा.

जेन्ना तो धक्क्यान एके कुशीक पडिल्लो, ताचे हात लेजाद पडिल्ले,तेन्ना ताचो चेरो म्हाका अपेक्षीत आशिल्लो तसो दिसऽनाशिल्लो. मरण आमकां सगल्यांकूच अत्यंत टाकाऊ आनी हास्यास्पद करता. म्हज्या पांया कडेन पडिल्ल्या त्या मनशाचो चेरो एखाद्र्या गुलामाच्या चेऱ्या सारखो दिसतालो. कुशीचे कपड्यांचे दोरयेर सुकत घाल्ल्या धव्या वस्त्रान हांवें म्हज्या घोवाचें तोंड आनी कूड धांपली. म्हाका थकवो जाणवना जाल्ले वरी आमच्या पलंगा वयली चुरगळील्ली चादर सारकी केली. कुडींत पातळिल्ल्यो वस्तू हांव आवरूंक लागलें. खंयच्याय मार्गान जायना, पूण मरणा बाबतींतय आमी कांय संकेत पाळटातच.

मरण राजपुत्राक आसता आनी राजकन्येकूय.

म्हाका दिसता हांवें खूब गतीन कामां केलीं,तरीय म्हाका कळाव जाल्लो. तो उडपी घोडो आनी ताचे वयलो राजपुत्र काय वयर मळबांत म्हजे पासत रावलोच ना. चूक म्हजीच आशिल्ली. हांवें ते तरसादीची शक्त घेवन जमनीर येवंक फावना आशिल्लें.

हें सगळें हांवें त्या राजपुत्राक सांगूंक जाय, की म्हाका हें एकटें रावप भिरांकूळ जाता आनी हांव ती तलवारूय पयस मोखून मारतां.

पूण म्हाका आतां वाट पळोवंकच जाय.

हांवें घरा मुखा वयल्या सोंपणाचेर बसपाक सुरवात केली ती ताकाच लागून.

शेवटाक ती म्हजीच चूक.

●●●



# खाशेलें नातें

मनीस हो समाजप्रिय प्राणी.जगपा खातीर, खोशी जावपा खातीर ताका सरभोंवतणच्या लोकां कडेन नातें जोडचेंच पडटा. मुखार वचून, हें नातें तिगोवपाक केन्ना मोगाची तर केन्ना त्यागाची गरज पडटा. तशें पळयल्यार जगातलीं चडशीं नातीं हीं रगताची आसतात. पूण रगता परस मना काळजांतल्यान निर्माण जावपी नातें हेंच खरें नातें अशें म्हाका खूब वेळार दिसता. कारण नातें हें जगाक दाखोवपा खातीर नासता. तीं केन्ना आपसूक जुळटात, वेळ पडल्यार तीं जुळोवनूय हाडचीं पडटात. नात्यांतली गोडसाण सांबाळपाक दसरो, संक्रांत, रक्षाबंधना सारके सण परबो मनोवची गिरेस्त परंपरा हांगा चलत आयल्या.

परस्पर विस्वास, आवड - निवड, नापसंती तशेंच मोग, आदर ह्या सारक्या भावनांच्या आदारान दोन मनीस जेन्ना एकठांय येतात तेन्नाच नातें संबंद जुळटात. अशें नातें हें घराब्यांतलें, इश्ट-मित्रांचें, शेजाऱ्या पाजाऱ्यांचें, सहप्रवाशांचें वा खंयच्याय वळखिच्या मनशांचें कोणाचेंय आसूं येता. असो हो नातें संबंद आमकां सरभोंवतणच्या लोकां कडेन जोडपाक तशेंच स्वताक समजून घेवपाक एक वेगळी संद दिता. देखून आपले निजी जिवितांत जण एकल्यान नातें तिगोवन दवरप खूब गरजेचें आसा. नात्याची सुरवात मनीस जल्मा पासून जाता खरी पूण मागीर बौध्दीक, शारिरीक, आध्यात्मीक तशें मानसीक गरजो भागोवपाक नात्यांची वळेरी वाडत वता. आनी होच नातें संबंद निर्माण करपा फाटलो मुखेल उद्देश्य आसता.

केन्ना केन्ना दुदांत मिठा कणी पडून दूद फुट्टा.तशेंच नात्यां भितर अहंकार, अंहमगंड, गर्व, सुवार्थ बी सारक्या कारणांक लागून नातीं सासणाचीं तुट्टात. देखून नातें संबंदांचेर परीणाम करपी कांय गजाली, कोडू उतरां वा घटना हांची आमकां खूब जतनाय घेवंची पडटा. कारण कसल्याय साद्याशा अर्थीक व्यवहारांतल्यान, तर केन्ना खाजगी गजालींनी चुकून तोंड घाल्यार लेगीत लागींचीं नातीं एका धपक्यांत तुटून वतात. नातीं सांबाळून दवरूंक एकामेकाचेर विस्वास, मुक्त संवाद, खरेंपण, सत्यताय हांची चडांत चड गरज पडटा. कारण नवीं नातीं निर्माण करप सोंपें पूण तीं मुखार व्हरप भोव कठीण. देखून मोगाच्या, विस्वासाच्या धाग्यांनी तीं बांदून दवरचीं आसतात. आमचे जिणेंत आमी जायत्यो सोबीत कल्पना साकारतात, हातुंतली म्हत्वाची कल्पना म्हणल्यार नातें संबंद. जायते फावट तुजें म्हजें जमना, तुजे बगर जायना. अशें आसलें तरी ,अति परिचयात् अवज्ञा ही गजाल मात आमी उगडास दवरची.आनी अशें करतना नात्यांतली गोडसाण सांबाळपाक बुद्दी परस काळजाचो सुबेज वापर करचो. सांगातान नातें तिगोवपाक दुसऱ्याचो भूतकाळ आमकां मानून घेवंचो पडटा. ताच्या वर्तमानाक आदार दिवंचो पडटा. तशेंच भविश्याक फुलोवंचें पडटा. कारण जिवीत सुखी आनी सुरक्षीत करप हेंच नातें निर्माण करपा फाटलें मुखेल उद्दीश्ट आसता.



**काश्मिरी पावसकार**
शिक्षकी पेशांतली लेखिका,ललित लेखनात फिशाल. तांचें 'कपयाळें' हें ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडाक आयलां.



एकदां निर्माण केल्लीं नातीं तोडपाचीं नासतात. देखून वेळा प्रसंगार फाटीं सरून, लुकसाण सोंसून, माफी मागून, तर केन्ना अपमान सहन करून जपचीं आसतात. पूण गरज ना तेन्ना तीं तोडचींय आसतात. दुख्खाची गजाल म्हणल्यार आयज नात्यांक वेव्हारी रूप आयिल्ल्यान आनी नात्या परस वस्तूंक चड मोल आयिल्ल्यान नातीं पातळ जावंक लागल्यांत. वता वता थंय नात्यांचो बाजार मांडिल्लो पळोवंक मेळटा.

समाजांतल्या दर एकल्याक नातीं सांबाळचीं पडटात. पूण सगल्यां परस बायलांक नातीं सांबाळूंक चड सर्कस करची पडटा. लग्ना उपरांत नवे व्हंकलेक घरांत पावल दवरतकच सगल्यां कडेन मोगाचें नवीन नातें रोखडेंच जोडचें अशी अपेक्षा आसता. केन्ना केन्ना आवयक स्वताचे चलयेक सुदारपा खातीर नातें कडेक दवरून निबर मनान चार शाणेपणाच्यो गजाली सांगच्यो पडटात. कारण नातें आनी मुल्ल्यांची जतनाय हांचे भितर कायम संघर्श चालू आसता. देखून परिस्थिती प्रमाण निर्णय घेवंचे पडटात. हांगा नातें तुटपाची दाट शक्यताय आसता.

केन्ना घरचे सोयरे जातात, तर केन्ना सोयरे घरचेच जातात. मराठा राज्य रक्षणा खातीर शिवाजी म्हाराज लेगीत सोयरीक करून नातें जोडटाले. सदृढ नातें संबंद आमचे मर्दीं सकारात्मक उर्जा निर्माण करता. मात होच नातें संबंद इबाडल्यार निर्शेणी, चिंता, खेद सारक्यो नकारात्मक भावना आमच्या वांट्याक येवं येतात. नातीं तुटिल्ल्यान मनीस आपली पुराय मनशांती वगडावन बसता इतलें मात खरें!

अशेंच एक खाशेलें, अतूट अशें नातें म्हजें आनी म्हजी इश्टीण मायाचें आसा. माया म्हणल्यार पुर्वाश्रमीचें मायाप्रियदर्शनी शशिकांत टिकेकार आनी आंताचें माया विश्वनाथ वझे. तागेलें कुळार महाराष्ट्रांतल्या, सोलापूर हांगाचें. लग्ना उपरांत गोंयां आयलें आनी नोकरे निमतान शिवोले आमची भेट जाली. आमची मिशनरी शाळा आशिल्ल्यान मराठींत उलोवपी आपणांक कोण मेळटलें ह्या हुसक्यांत तें आशिल्लें. पयलेच भेटेंत आमचें संभाशण मराठींत जालें खरें पूण मुखार आपणेंच फुडाकार घेवन ताणें म्हाका म्हणलें, 'मला गोव्यात दिवस काढायचे आहेत. तू मला कोंकणी शिकव.' तागेलो तो मोगाळ आग्रो सिर आंखो पर म्हणीत ताका कोंकणी मोगी करपाची जापसालदारकी स्विकारली. सुरवेक कोंकणीची खाशेली आंगां, उच्चारण तशेंच हेळे काडून उलोवपाची आमची तरा हांची पुराय वळख करून दिली. सांगातान म्हजे वांगडा तेन्नाचें 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचें वर्गणीदार केलें. कांय तेंपान तकालस घेवन तें बेस बरी कोंकणी उलोवंक लागलें.हांगाच्यान आमचे इश्टागतीचें नातें फुलपाक लागलें. गणिताची शिक्षिका आसुनूय संगीत, साहित्याची ताका विशेश आवड. गोड आवाज, संस्कृत श्लोक, सुभाशितां बी तोंडपाठ. अवांतर वाचन आनी म नांतल्यान मायेस्त ह्या गुणांक लागून ताची म्हाका रोखडीच माया लागली. एक स्थीतप्रज्ञ व्यक्ती, कोणाचे कसलेच भानगडींत तें केन्ना पडलें ना. म्हाका तें सदांच 'बीन विखारी मनीस' शें दिसतालें. खरेंच! सहवासांतल्यान मनीस कळटा म्हणटात तें फट न्हय. ताच्या मतान नात्याची व्याख्या रगताचें नातें शस्त्रा सारकें आसता. पेलतना थकपाक जाता. वेवसायांतलें नातें सतत दवरपाचें. गुरू शिश्याचें नातें आदराचें. तर मोगाचें नातें केन्ना परत फेडिचो हिशोब दवरीत रावता. मात इशटागतीच्या नात्यांत ना कसलो हिशोब, ना तुळा, ना देवाण घेवाण, ना कसलीच अट. अशे हे बत्तीस वर्सांचे इश्टागतीचें नातें सासणाचें तिगचें इतलेंच देवा लागीं म्हजें मागणें.

निमणें नातें कशें आसचें हें खासा मायाच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार...

नातें आसचें शीतळ वाऱ्यावरी  
कळत नकळत ल्हव मनाक स्पर्श करपी  
नातें आसचें सुरांत सूर भरसून घेवपी  
इल्लें लेगीत बेसूर जाल्यार निराश न जावपी  
नातीं जपत चलचें लयबद्द तालबद्द.

चलात तर मागीर जिवीत सुखी करूंक नवीं नातीं आमी मुजरत निर्माण करुया.

---

*शिवोले-मो.9421192858*




दिवो काळखांतल्यान उजवाडा कडेन व्हरपी साधन. तमसो मा ज्योतिर्गमय. दिवे खूब तरांचे आसतात. वेगवेगळे आकार आशिल्ले, मातयेचे, लायटीचे, वातींचे... तशें पळयत जाल्यार लायटीचो जल्म जाल्या पासून ह्या दिव्याची आमकां व्हडली गरज लागना, पूण केन्ना केन्ना लायट गेल्या बराबर ह्या दिव्याची, पॅट्रोमाक्साची आमकां गरज लागता. व्हडल्या व्हडल्या घरांनी चिमणी म्हणून आसताली, ती तशीच पेटून दवरिल्ली आसताली. तशें पळोवंक गेल्यार वेगवेगळ्या दिव्यांचें म्हत्व वेगवेगळें आसता. वात, मेणवात ही एक प्रकाशाचें माध्यम! ती शांत पेट्टा तेन्ना तिचो उडवाड पडटा. मेण गळून काबार जाता, तेन्ना ती वात बंद जाता. आमच्या नावेलीच्या फेस्ताच्या वेळार आमी अश्यो वाती सायबिणीक लायतालीं. 'सगळ्या भक्तांची आदारस्तंभ आमची रूजाय सायबीण!' अशें आमी म्हणत जाल्यार सगळ्यांचीं कामां जातालीं. मागीर ह्यो वाती आमी म्हजे भुरगेपणांत पाड्ड्यां दसऱ्या दिसा पालखी येवपा वेळार खूबदां लायल्यात. आमचे मावसभाव आमकां तो वातींचो पुडो हाडून दिताले आनी 'शुभा, आतां लायत बस' म्हणून सांगताले. ह्यो सगळ्यो यादी कुरकुटांत सांबाळून दवरिल्ल्यो आसात. ह्या वातींचो उजवाड देवीची वाट पळोवपी मार्गाचेर पयस मेरेन पातळटालो.

मागीर येता पणटी....

आमी दिवाळेच्या दिसा खूब पणट्यो लायतालीं. दिवाळेचे पाच दीस आमी दारांत पणट्यो लायतात. मागीर तुळशी लग्नाक आमी परत पणट्यो लायतात. तुळशी कडेन आमी रातचीं सदांच दिवो पेटयतात वा पणटी लायतात. मुंबय, इंदुर हांगा खूब सुंदर तरांच्यो, रेखीव, आखीव, व्हडल्या आकाराच्यो पणट्यो मेळटात. तांका सुंदर सुंदर नक्षीकाम केल्लें आसता. आनी रंगरंगयाळ्यो आसतात.

दिवली म्हळ्यार आनीक एक दिव्याचें साधन. पांच ते सात वाती घालून दिवली पेटयतात. गोंयचो दिवले नाच खूब प्रसिद्द आसा. दिवली तकलेर घेवन हो नाच करतात. हो नाच करपी अस्तुरी घट्ट णव वारी न्हेसतात. माथ्यार दवरिल्ली दिवली पडूंक दिनासतना तिचो बॅलन्स सांबाळून तरां तरांचें प्रात्यक्षीक ह्यो अस्तुऱ्यो करतात तें पळयत जाल्यार पळयतल्यांचो श्वास रोखून उरता. शेवटाक जमनीर आड पडून लेंस वा पयशे दांतांनी काडपाचें प्रात्यक्षीक तर आंगार कांटो हाडपी आसता. पुराय जमनीक समांतर पडून लेगीत दिवली पडची ना हाची जतनाय घेत मान वयर दवरप ही एक कळाशी आसता जाका प्रेक्षक टाळयो मारतात. आमच्या कॉलेजीच्या भुरग्यांक आमी हे नाच खूब खेप शिकयल्यात. तातूंत तांणी इनामाय घेतल्यांत. ह्या नाचा खातीर सुंदर अर्शी लोकगितां गायतात. ताची ही एक पत पळयात–

आमी आयले नमन करूंक तुकां श्री गणपती देवा
गणपती देवा – आयले आमी
खेळूंक तुझ्या मांडार
तुजी सासाय तुजी खोलाय
दाखय आयज देवा – (2)




**सुचेता**
**कामत पै**
पेशान शिक्षिका,भोंवडेची आनी ललित लेखनाची आवड.दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

आमी आयले नमन करूक  तुका श्री सातेरी माये.......

ताका वाद्यां म्हणून हार्मोनियम, शेनाय, घुमट, शामेळ, सुर्त, झांज वाजयतात.

दिवली आमकां प्रत्येक देवकृत्याक जाय. खंयचेय पुजेक वा उक्तावणाक दिवली जाय. ती व्हडली वा ल्हान आसूं, आपलें काम सोबयता. दिवल्यो ह्यो पितळेच्च्यो, चांदीच्यो, तांब्याच्यो सुददा आसतात. दिवली पेटली काय ताचो उजवाड सगळीकडे पसरता आनी मनाक एक शांती मेळटा. दिवे म्हटल्या बराबर म्हाका सगळ्या मंदिरांचे पेटिल्ले दिवे, लक्ष लक्ष दिवे, सहस्त्र दिवे याद जातात. कुमठाच्या देवळांतले जावं, कोल्हापुरच्या अंबाबाईच्या देवळांतले जावं, नेपाळांतल्या पशुपतीनाथ देवळातले वा आसामांतल्या कामाख्या देवळांतले दिवे  वा हायग्रिव माधव देवळांतले कार्तीक पुनवेक लायिल्ले सहस्त्र दिवे मनाचो थाव घेतात! अशे हे दिवे सृश्टीचें, उजवाडाचें एक खरेंखुरें प्रतिक जावन आसा.

आमच्या देवघरांतलो लामणदिवो असोच आमकां दिसभर



सांगात करता. एकटें घरांत आसतना म्हाका लामणदिव्याचो आदार आसता.

आकाशदिवो नवोच आमकां दिवाळेक सांगात दिता. आमच्या ल्हानपणांत आमच्या घरा वयर आकाशदिवो करून लावपाक खूब मजा येताली. कारण थंय चड करून नावेले क्रिस्तांवांचीं घरां. मदीं मदीं हिंदुचीं घरां आसलीं. आनी सगळ्यांचो ल्हान व्हड आकाशदिवो पळोवपाक मजा येताली. खंय आकाशदिवे पेटल्यात हेंवूय पळोवपाक मजा येताली. आतां काळ बदल्ला, तशें आकाशदिव्यांची सायझ, रंग, आकार बी सगळे बदल्ल्यात.  आतां थोडे लोक नखेत्रां सुद्दा लायतात. म्हाका दिसता तांच्या धावपळीच्या जगांत ह्या सगळ्यांत वाव ना. थोडे भोगावळ म्हणून हे सगळे समारंभ करतात.

दिव्याचेर सुद्दा कितलींशींच पदां आयिल्लीं आसात. शुभंकरोती कल्याणम हें सुद्दा आमी दिवे लायले म्हणटकर गायतात. केन्ना केन्ना दिवे लागल्या बराबर सांजवेळाचो सुंदर असो शुभशकून जाल्ले भशेन दिसता. तें तिमिरां कडेन वचपाचें नातें मनाक एक प्रसन्नताय हाडटा आनी मन प्रफुल्लीत जाता. तेन्ना जो आत्मीय आनंद मेळटा ताचो अणभव वेगळोच आसता.

*खोर्ली, म्हापशें-9421242859*

| तेफळां |.............................

# हांसोवपाची कला....



काल 'आमने सामने' हें मराठी नाटक पळेलें. थेटरभर लोक सुरवात ते सोंप मेरेन पोटभर हांसतना दिसताले. नाटकाक लोकांची खूब पसंती आसली. त्याच दिसा दनपरा 12.30 क ह्या नाटकाचो प्रयोग कोथरूडाक आसलो आनी सांजचें पांचाक बालगंधर्व थेटरांत पुण्याक आसलो. हें नाटक लोकांक कित्याक आवडलें ताका वेगवेगळीं कारणां आसूं येतात. पूण ह्या नाटकान प्रेक्षकांक पोटभर हांसयलें हेंय तितलेंच खरें.

संस्कृत साहित्यांत णव रस आसात, तांतुंतलो एक आसा हास्य रस. हांसप ही मनीस कुळयेक मेळिल्ली एक अनवळखी सैमीक देणगी. मानवी हास्य हें मनांतली खोस उक्तावपी आनी

हेरांक खोस पसरावपी करणी अशें मानतात.हांसप हें वेगवेगळे तरेचें आसता- मुमुरखें हांसप, खळखळून हांसप, छद्मी हांसप आदी. हांसपी व्यक्ती सगळ्यांकूच आवडतात.

भारतांत वेगवेगळ्या कालखंडांत टप्प्या टप्प्यांत संगीत, हस्त, शिल्प, साहित्य, पाक कला अश्यो वेगवेगळ्यो कला वाडल्यो आनी समाजा कडल्यान तांका योग्य प्रोत्साहन मेळ्ळें. देखीक, मुघल सम्राट, राजा अशोक, मौर्य, चित्रगुप्त, शालिवाहन अशे वेगवेगळे राजवटींत कलेक आनी कलाकारांक फावो असो मान-सन्मान राजदरबारांत मेळटालो.

भुरगेपणार पळयल्ल्या सर्कशिंनी जोकर वा विदुशक आसतालो, तो हांसोवपाचें बेस बरें काम करतालो. पूण हालीं सर्कशी कमी जाल्ल्यान, ताचे वांगडचे जोकर खूब कमी जाल्यात. पूण हो उणाव सद्या सिनेमा/ नाटकांतल्या विनोदी पात्रांनी भरून काडला म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. विनोद एक तर उलोवपांतल्यान वा बरोवपांतल्यान व्यक्त जाता. विनोदी पात्रां आपले करणेंतल्यान, उलोवपांतल्यान, हातवारें करून, आनी




**डॉ.वामन नायक**

नामनेचे अर्थतज्ञ आनी लेखक.
सद्या पुण्यांत आय.एस.बी.एस. कॉलेजीचे प्राचार्य.




एकदम विचित्र आवाज काडून आमचेर हांसपाची पाळी हाडटात. कांय जाणांचें हांसप हें रेशमी वस्त्राचे ल्हान सुरकुती सारखें आसता तर कांय जाणांचें हांसप सात मजली इमारती सारखें वयर वचपी आसता. लोकांक हांसोवप हें सगळ्यांकूच शक्य आसा अशें न्हय.

एका वेळार दुखेस्त काणी सांगून रडोवप सोंपें. पूण हांसोवप भोव कठीन आसता. विसंगती आनी अतिशयोक्ती ह्यो दोन गोश्टी हांसोवपाच्या मुळा कडेन आसता. ह्या दोन मुद्यांचो उपेग करून, बरेच लेखक हांसोवपाची कला आपणायतात. हांसप सगळ्यांक आवडटा, मागीर तो ल्हान आसूं वा व्हड,गरीब वा गिरेस्त, बायल वो दादलो, सगळ्यांकच ताचे पासून खोस मेळटा. जशे परीन दर एके घडणुकेक आडवाद आसता, तसो हास्यानंदाकय आसता. आपल्याक हांसूक येता, विनोद करपाक येता,आपल्या विनोदाक लोक बरोच प्रतिसाद दितात म्हणून तो कशाय कसो वापरचो आसना. मसुंडेंत,आकांताच्या वेळार,शोक सभेंत, अपघात जाल्ले कडेन हांसप समा न्हय अशें सभ्यतायेन मानतात.

सद्याचे धांवपळीचे जिणेंत, निरोगी जीण जगप खूबच गरजेचें. गोड हांसपी मनशाचे दर्शनान खीण भर जरीय आसलें तरीय आमी आमचें दुख्ख विसरतात. इतली ताकद हांसपांत आसा. हांसप हें खूब म्हत्वाचें. कांय लोक दिसपट्टे जिणेंत एरंडेल पियेल्ल्या सारके चेरे करून बसतात. तांका पळेतकच सगळ्या जगाचो भार हांचे माथ्यार देवान दिला व्हय? अशें दिसता. योग्य वेळार योग्य काळजी घेतली ना तर कुडीच्यो आनी मानसीक व्याधी जावंक शकतात. म्हणूनच कुडीच्या आनी मानसीक दुयेंसांचेर हास्ययोग बरोच फळादीक थारता. सुर्वेक हास्ययोगाक फावो ते प्रमाणांत म्हत्व दिवप जाय नासलें. पूण सद्या ही परिस्थिती बदलत आसा. बऱ्याच शारांनी हास्यक्लब सुरू जाल्ले दिसतात. हास्ययोगाक लागून आमकां कुडीची हालचाल करची पडना. हांसप हें आमचे कुडींत सकारात्मक उर्जेच्या संप्रेशणाक आनीक नेट हाडटा. हास्ययोगाक लागून आमकां फकत आनंदच मेळना तर आमच्यांत बरेच हॉर्मोन्स तयार करतात . आमच्या मुडांत सकारात्मक बदल दिसून येतात. तशेंच आमी मानसीक दुयेंसां पासून स्वताक पयस दवरूंक शकतात. हास्ययोगाक लागून कॅलरीज बर्न जातात. ब्लड प्रेशर नॉर्मल उरता. कुडींत ऑक्सिजनाची मात्रा वाडटा. स्मरणशक्त आनी एकाग्रतायेंत वाड जाता. कामांतली आनी खेळांतली कुशळटाय सक्षम जाता.

पुणे मोबा. 9922445059

पुण्यभूंय गोंय

# गोंयचें पर्यटन कूस परतिता



सुमार तिनशीं वर्सांची ऐतीहासीक परंपरा आशिल्ल्या,भारतांतली एक सगल्यांत व्हड एकत्र कुटूंब पद्दत आशिल्ल्या आनी गोंयचो सगल्यांत पोरणो मदलो वाडो- सावर्डे (हेमाडबारशें) हांगच्या प्रशस्त अश्या सावर्डेकार वाड्यांतलो प्राचीन आनी दिव्य अश्या 125 वर्सां पोरण्या श्री दत्तात्रय मंदिराच्या जीर्णोद्धारा संबदी उलोवणी करपाक ह्याच सावर्डेकार वाड्यांतल्या एक तरुण आनी कर्तबगार व्यक्तीमत्व मृदुभाषी तशेंच लागोळ्या सबावाचो, श्री शांतादुर्गा देवीच्या कृपाशिर्वादान असाध्य अश्या दुयेंसांचर सहज मात करपी श्री. प्रणव विश्वनाथ सावर्डेकार हांचें कांय दिसां आदीं निमंत्रण आयलें. हें निमंत्रण म्हणल्यार म्हजे पासत साक्षात श्री दत्तात्रय माऊलीचेंच प्रणवच्या माध्यमांतल्यान आपल्या दर्शना पासत आपोवणें आशिल्ल्याचो म्हाका साक्षात्कार जालो. तेन्ना साकून केन्ना एकदा हे इतिहासीक वास्तूक (वाड्याक) पांय लायतां आनी श्री दत्तात्रय माऊलीचें दर्शन घेतां अशें दिसूंक लागलें. हो सुयोग असोच एका आयतरा आयलो. म्हज्या परिवारा वांगडा आनी इश्टां सयत एके विस्मरणीय अशे सांजेर आमी सावर्डेकार वाड्या कडेन पावलों. आमी आयल्यांत म्हूण कळतकच हांसत्या मुखामळान आनी उत्साहान आमकां येवकार दिवपाक प्रणव वाड्याच्या मुखेल प्रवेशद्वारा कडेन दत्त म्हणून उबो रावलो. वांगडाक गिरीश भाई, सोहन भाई आनी श्री शेखर भाई हांचीय प्रसन्न मुद्रेन उपस्थिती आशिल्ली. आमकां सगल्यांक साग्रसंगीत मोठ्या दिमाखान तांणी येवकार दिलो. खरें सांगपाचें जाल्यार हो दुग्धशर्करा योगच म्हणचो पडटलो. कारण ह्या इतिहासीक वारसो लाभिल्ल्या सावर्डेकार वाड्याची भेट आनी श्री दत्तात्रय माऊलीचें दर्शन हो म्हज्या जीवनांतलो एक आल्हाद

देणो आनी  दैवी असो अणभव आशिल्लो. ह्या इतिहासीक वाड्यांतल्या आतां मेरेनचे इकरावे  पिळगेंतले णववे पिळगेचो प्रतिनीधी आशिल्लो, प्रणव सावर्डेकार हाच्याच मुखांतल्यान ह्या वाड्या विशीं, परंपरे विशीं, रितीरिवाजा विशीं, सण सुवाळ्यां विशीं आनी एकंदर सावर्डेकार कुटूंबा विशीं सविस्तर म्हायती जाणून घेवपाचें परम भाग्य आमकां लाबलें. वाड्याच्या मुखेल प्रवेशद्वारांतूच साक्षात श्री शांतादुर्गा देवीचो सदैव वास आशिल्ल्यान आमकां सगल्यांक देवीच्या मंदिरांतूच प्रवेश करतात म्हणपाचो भाव मनांत निर्माण जालो. प्रणवान श्री शांतादुर्गा देवीचो कायम स्वरूपी वास आशिल्ल्याचें आनी थंयच्या घराच्या दुसऱ्या क्रम ंकाच्या सोंपणार साक्षात श्री शांताई बशिल्ली आशिल्ल्याची पुराय, सावर्डे कार कुटुंबियांची धारणा आनी श्रद्धा आशिल्ल्याचें सांगलें. सावर्डेकार कुटुंबियांतलो खंयचोय वांगडी चुकून लेगीत अनावधानान ह्या दुसऱ्या क्रमांकाच्या सोंपणाक पांय लायना म्हणपाचें ताणें सांगलें. पोरण्या  काळांत दोनदां दिपाजी राण्यांच्या सैनिकांनी निष्ठूर आनी क्रूर असो हल्लो केल्लो आसतना आनी वाड्या वयली सगली पुरुश मंडळी कवळें हांगची कुलदेवी श्री शांतादुर्गा देवीच्या उत्सवांत  वांटो घेवपा पासत गेल्ली आसतना हे हल्ले जाल्ले. वाड्या वयल्या सगल्या अस्तुऱ्यांनी देवघरांत वचून श्री शांताईचो धावो केलो आनी साक्षात श्री शांताईन वाड्याचें आनी सगल्या अस्तुऱ्यांचें खासा प्रगट जावन राखण केली आनी दिपाजी राणेंच्या सैनिकांक माघार



घेवंची पडली अशी आख्यायिका आसा म्हणपाचें प्रणवान सांगलें. श्री शांतादूर्गा देवीचें मंदीर आनी सावर्डेकार वाड्याची पाया भरणी लागीं लागीं एकाच वर्सा म्हणल्यार 1732 च्या सुमाराक जाली म्हणपाची म्हायती मेळ्ळी. प्रणवा कडल्यान मेळिल्ले म्हायती प्रमाण शिवछत्रपती शिवाजी महाराजांच्या काळा उपरांत, संभाजी राजांच्या काळांत शूरवीर भोसले घराण्याची सरदारकी शूरवीर विठोजी सरदार हांका मेळ्ळी. तांणी कोडली हांगच्यान हेमाडबारशें म्हणल्यारच आतांचो मदलो वाडो हांगा स्थलांतर केलें. 1732 ते 1740 ह्या काळांत सावर्डेकार वाड्याची पाया भरणी करून टप्प्या टप्प्यान म्हालघर तें संपूर्ण वाडो बांदलो. सुमार 300 वर्सांचो जुनो इतिहास आनी म्हान दायज आशिल्लो, तब्बल 100 कुडी, 16 माळयो, 4 राजांगणां,





4 बांयों आनी 500 वांगडी आशिल्ल्या कुटूंबाचो आनी 11वे पिळगेचो वावर अणभवणारो हो वाडो म्हणल्यार अद्भूत सत जावन आसा. 11 वे पिळगेचो प्रतिनीधी म्हूण कुमार दक्ष शौनीत सावर्डेकार ह्या माणकुल्याचो प्रणवान खाशेलो उल्लेख केला. ह्या वाड्या भितर प्रवेश केल्या उपरांत सगल्यांत आदीं दोनूय वटांनी प्रशस्त अशीं दोन लाकडी बल्कांवां दिसलीं. श्री. सोहन सावर्डेकार सांगता ते प्रमाण ह्या बल्कांवाचेर सावर्डे गांवचे सुमार 100 गणपती विसर्जना आदीं हांगा हाडटाले आनी हांगा योग्य मान करूनच मुखार विसर्जनाक घेवन वताले.

प्रवेशद्वारांतल्यान वाड्यांत प्रवेश केल्या उपरांत सावर्डेकार वाड्यांतलें खास आकर्शण आशिल्ल्या आनी सुप्रसिद्ध अशें गणपतीचें लाकडी मकर पळोवपाचें भाग्य आमकां लाबलें. प्रणवान दिल्ले म्हायते प्रमाण हें मकर 150 वर्सांची परंपरा आशिल्लें आसून दर वर्सा पुजेचो यजमान ह्या मकराची सुंदर सजावट करता. मकरांत भितरल्या भागांत हारसो लायल्लो आसून सुर्याच्या प्रकाशाचें प्रतिबिंब त्या हारश्यांत पळोवन लख्ख रोषणाय करपाचो हेतू आसूं येता. पुराय सावर्डेकार कुटूंबीयांचो एकटांय येवन हांगा खूब मोट्या दबाजान श्री गणेशचतुर्थी उत्सव (चवथ) मनयतात.

सावर्डेकार घराण्यांतल्या खंयच्याच वांगड्याक हेर खंयचेच सुवातेर वेगळी चवथ करपाची अनुमती ना. श्रीगणेश चतुर्थी हो सण ह्या वाड्यांतलो सगल्यांत व्हड सण आशिल्ल्यान ताची तयारी 15-20 दीस आदीं साकूनच सुरू जाता. मकराचो आकार जरी व्हडलो आसलो तरी श्री गणपतीची मूर्ती मात 1 फूट उंचायेचीच आसता. हें एक वैशीष्ठय आसा. ही गणेशमूर्ती तयार करपी

मुर्तीकारूय एकाच घराण्यांतलो आसून लागीं लागीं शंबर वर्सां साकून सातत्यान तेच मूर्तीकाराच्या घरांतल्यान ती तयार करतात.आनीक एक खाशेलपण म्हणल्यार ही गणेशमूर्ती पाटाचेर बसोवन हाडी नासतना खास तांब्याच्या धातूच्या आयदनांत म्हणल्यारूच सतेलात बसोवन वाजयत-गाजयत, हासत-नाचत वाड्यांत हाडटात. नवसाक पावपी गणपती अशी ह्या वाड्या वयल्या गणपतीची नामना आसा. आंगवण पावोवपा पासत खाशेले माटोळेक लुगटांत नवजात बाळकाक गणपती मुखार बांदतात. दर वरसा ह्या श्री गणेशोत्सवाच्या वेळार त्या सावर्डेकार वाड्यांत सावर्डेकार कुटूंबांतल्या आनी हे कुटूंबांतल्या मेळून तब्बल 500 वांगड्यांची हाजेरी हमखास आसता. गणेश चतुर्थीच्या प्रमुख दिसा दनपारां सुमार 300 वांगड्यांची पंगत जेवपाक बसता. हीय एक खासीयत आसा. श्री गणेशचतुर्थीचे धामधुमी विशीं आनी एकंदर उत्साही वातावरणा विशीं प्रणव भरभरून सांगतालो. श्री गणेशचतुर्थी प्रमाणेच, हया सावर्डेकार वाड्यांत हेर उत्सवय म्हणल्यार नवरात्र उत्सव, गुढी पाडवो, पंचाग वाचन, सुतांपुनव, नागपंचम, महापंचम, पंचम व्हडा उत्साहान मनयतात. राजांगणाच्या चारय वटांनी प्रत्येक कुटुंबीयांच्या वांगड्यांच्यो कुडी आसात. सगल्या उत्सवां वेळार भायर स्थायीक जाल्ली मंडळी आवर्जून उपस्थिती लायतात तेन्ना हो वाडो खऱ्या अर्थान भरून वता. म्हालघरांतल्या गणेश मकराची आनी श्री गणेशचतुर्थी उत्सवाची पुराय म्हायती दिल्या उपरांत प्रणवान आमकां सगल्यांक म्हालघरांतल्या देवघराचें दर्शन घडयलें. देवघरांत श्री कुलपुरुष, कुलदेवता श्री शांतादुर्गादेवी तशेंच नागदेवता आनी पादुको आसात. हेच देवघरांत सगली वर्सुकी देवपूजा आनी विधी करतात.

म्हालघरांतल्या सुंदर अश्या तुळशी वृंदावनातूच तुळशीचें लग्न लायतात. राजांगणांतल्यान देवघरांत वतना वाटेंत श्री विठोबाचें सुंदर अशें कुरकूट लागता. दिवाळेचे परबे वेळार

आनी पाडव्या दिसा हांगा नेमीत देवपूजन आनी भजन करतात. देवघरांतल्यान प्रणवान आमचो मोर्चो व्हड आनी प्रशस्त अशे रांदचे कुडींत घुंनडायलो. रांदचे कुडींतर्ली व्हडली व्हडलीं आयदनां, (घंगाळ, तोप, दायो, दबले) हीं पुर्तुगेजा काळचीं असून तीं पंचमी पुजा व हेर देवकार्या पासत वापरतात. देवघरांतली दिवली, कळसो आनी कळसुली ह्या सारकीं कितलींच पोरणी आयदना थंय पळोवंक मेळटात. पळोवंक आयच्या काळाक सुसंगत आधुनीक अशे हे रांदचे कुडीची एकूण सुवात खुबूच प्रशस्त दिसली. रांदचेकुडी भायर एक बरीच व्हडली बांय आसून ती आधुनीक पद्दतीन फरशी बसोवन बांदून काडिल्ली आसा. अश्या प्रत्येकी एका घरांत एक बांय हे प्रमाण चार घरांत चार बांयों आसात. प्रत्येक कूड भायल्यान दाखयतना आमचें सगल्यांचें लक्ष एके कुडी भायर लायिल्ल्या,फोटवा कडेन गेलें. सावर्डेकार घराण्याची वंशवेल दाखोवपी तें कोरीव पांयजेल आशिल्लें. अकरा पिळग्यांचें दर्शन घडोवपी तें पांयजेल पळोवन आमी भारावन गेले. ते विशीं सांगतना प्रणवाक खूब अभिमान दिसतालो. आनीत मातशें मुखार वतकच आनीक दोन फोटे पळोवंक मेळ्ळे. ते फोटे आशिल्ले सावर्डेकार घराण्यांतले वीरपुरुश विंग कमांडर श्री विश्वनाथ सावर्डेकार हांच्या पराक्रमाची आनी शौर्याची महती सांगपी. 1966 आनी 1972 सालांत भारतीय सैन्यांत दिल्ल्या अतुलनीय आनी साहसी सेवे पासत त्या वेळचे भारताचे माननीय राष्ट्रपती श्री. राजेंद्र प्रसाद हांचे कडल्यान तांका किर्तिचक्र प्रदान केल्लें. तशेंच व्ही.व्ही गिरी हांचे कडल्यानय तांका तांच्या पराक्रमां बद्दल खाशेलें पदक दिवन भोवमान केल्लो. तांणी भारत-पाक युद्धांत भाग घेवन विशेश कामगिरी केल्ली. आपल्या घराण्यांतल्या ह्या थोर वीरपुरुषांची महती आनी दायज सांगतना प्रणवाचें हड्डें अभिमानान फुलून आयिल्लें. श्री. विश्वनाथ सावर्डेकार हांची घरकान्न पुराय गोंयांत सुपरिचीत आसून त्यो नागेशी हांगा संजीवनी आश्रम चलयतात. तातूंत नर्सिंग, ट्रेनींग आनी वृद्ध



नागरीकांक आधार आनी आलाशिरो दिवपाचो वावर चलता..

आनीक एका शूर सावर्डेकारा विशीं प्रणवान सांगलें ते म्हणल्यार श्री. नरहर बाळकृष्ण सावर्डेकार. तांणी राष्ट्रीय राखणे दळांत प्रोफेसर म्हणून सेवा दिल्ल्याचें समजलें. तांचे कडल्यान कितल्याच जवानांक प्रशिक्षण मेळ्ळां म्हणपाचें समजलें.

चहापाना वेळार श्री दत्तात्रय माऊलीच्या मंदिरा विशीं आनी मंदिराच्या जीर्णोद्धारा विशीं वेवस्थीत चर्चा जाले उपरांत दत्तात्रय माऊलीचें दर्शन घेवपाचो सुयोग आयलो. प्रणव आनी पुरोहीत मंडळींचे उपस्थितींत मंदिराचो इतिहास आनी तांका अभिप्रेत आशिल्ल्या जीर्णोद्धारा संबंदी वेवस्थीत जाणून घेतलें.

'काजा सोशिओदाद सावोर्डेकार' ह्या नांवान नोंदणीकृत सोसायटी तयार करून सावर्डेकार घराण्यांतले दरेकी चार वांगडी अशे संघटीत जावन ह्या युवा पिळगेच्या वांगड्यांनी नुतनीकरण समिती घडोवन सावर्डेकार वाड्याचो भायर भितरल्यान कायाकल्प करपाचो संकल्प केला. आनी ते प्रमाण सन 2007 साकून नुतनीकरणाचें अवघड कार्य 2022 मेरेन टप्याटप्यान पुराय केलां. नुतनीकरणाच्या चौथ्या टप्प्याचें काम फुडाराक रोकडेंच सुरू जावपाचें आसा म्हणपाचें प्रणवान सांगलें.

(शब्दांकन : **श्री. सुहास भट**)




## भारताचो वेंतभर जागो

मृत्युंजय
वीर आमचे
हड्ड्यांचीं
कोटां करून
हिमालया भोंवतणी
आयज उबे
आसतना...
भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना!

शांतिचो
उपासक
देश जरी
आसलो आमचो,
स्वतंत्रताय
राखपा खातीर
गंगेच्या
ह्या देशांत
रगताचे
हंवार येवन
न्हंयो व्हांवच्यो
रावच्यो नात....

भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना!

शक्तीच्या
बळग्याचे
बेठोच उडूं
नाकाय चिना!...

आमची शक्त
सत्याची
तुज्यान पेलूंक
जावंची ना!
भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना!
कितेंच केल्यार
गावचो ना!

मुंबय-15.11.62



**रघुनाथ विष्णु पंडित**
साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत
कोंकणींतले एक श्रेष्ठ कवी आनी
आंतरराष्ट्रीय किर्तीचे फोटोग्राफर.

## चंद्राचो बैल शिंगाडो

चंद्रा तुजें
तेज नितळ
जिवाक म्हज्या
लायता पिशें...
पूण बाबा
प्रेम तुजें
आयज अशें
फाल्यां तशें !..
आयज रूप
पुनवेचें
मनाक म्हज्या
भुलोवन वेता...
फाल्यां बैल
शिंगाडो
'फों' करून
शिंगार घेता !..
हरशीं तुजें
सगलें बरें
रूप,देख
चाल बरी...
एकूच वायट
प्रेमाची
रीत मात
जगा भायरी !!

## एकेच माळेचे मणी

सगले

एकेच
माळेचे मणी....

म्हजे
बायलेच्या गळ्यांतलो...

एक
म्हर्तमणी
सोडलो जाल्यार

आर. रामनाथ
© 9850458763

## पावस

आंगणांत हांवें
बेबकां रडयलीं
म्हशी भोंवडायल्यो
मोर नाचयलो
पूण पावस पडलो ना ...

सत्री घेवन
हांव हांगा थंय भोंवलों
रेनकोट घालून भोंवलों
पूण पावस पडलो ना ...

पावस चितारलो
चित्रांत हांवें म्हाका
पावसांत भिजिल्लो दाखयलो
तरीय पावस पडलो ना ...

निरशेलों
आनी आंगणांत
मळबा दिकेन दोळे लावन बसलों
तेन्ना मळबांत अचकीत
तूं दिसलें ...
पावस दडकांनी झडलो
हांव हुंवारलों ..

उदय म्हांबरो
© 9420766769

## रान पेटचें ना!

तुवें फकत
एक काडी पेटयली
चलतां चलतां
म्हज्या रानांत उडयली

तुका दिशिल्लें
रान पेट्टलें
लासून गोबर जातलें

तशें घडलें ना
रान पेटलें ना
काडी पालवली

हें रान
आपशीं वाडूंक ना
म्हज्या रानांतलें
तण सुकना

रानांतलें
दर एक झाड हांवें
संस्कारांच्या शिंपण्यान शिंपलां
झाडांचीं पाळां मुळां
ओलसाणीन फुगल्यां

ती ओलसाण
मुळाक आसतना
रान पेटूंक शकना
वारो लेगीत
झाडाच्या कानांत वचना
तूं काडी पेटय
वा चुडटी पेटय

माधव बोरकार
© 9420222876

## संचीत

पानां गळटना
झाड रडना
मध्यानेचो सुर्या
दुकांनी कडना

फुलांचीं केसरां
वाऱ्याची माया
उतरांच्या मुळा
रुजिल्ली काया

मनाक तशीं
फुट्टा चवरां
काळाचीं अनंत
ल्हारांर ल्हारां

लाय किरवटीक
संचिताची जोड
मातयेक माती
काळोख गूढ...

–26.10.22

सोनाली पेडणेकर
✆ 9923046779

## आमदार

आमदार आमदार आमदार
म्हाका आमदार जावंक जाय...
कसोय करून म्हाका आमदार जावंक जाय
आमदार हांव बाबा जातलों दमदार
म्हजेरूच पडोंक जाय शिक्को आमदार
इत्सा म्हज्या मनांतली म्हाका पुराय करूंक जाय
तूंवूय म्हजो, तोवूय म्हजो
तुमचीं कामां करूंक जाय ,
इत्सा म्हाका भागोंक तुमच्या उतरार
कसोय करून म्हाका दिया
मत जावंक आमदार
आमदार आमदार आमदार
म्हाका आमदार जावंक जाय...
कसोय करून म्हाका आमदार जावंक जांय..
म्हाका जावक जायं आमदार बदलूंक तुमचो फुडार
म्हज्या लोकांनो तुमका दिवंक आदार
तुमच्या दोळ्यां वयली साय म्हाका काडूंक जाय
तुमका सुखी पळोवंक जाय म्हाका तुमच्या दारार
आमदार आमदार आमदार
म्हाका आमदार जावंक जाय...
कसोय करून म्हाका आमदार जावंक जाय
आमदारकीच्या बसोंक पदार
स्विकार करतां तुमचो नमस्कार
गरज तुजी सांग, सगळ्यांक दितां आदार
आयज आसा, करा वेळ तो पासार
आमदार जालो की ना मेळचो वेळार
बिजी आसतलों तुमच्या कामांचो घेवंक भार...
आमदार आमदार
म्हाका आमदार जावंक जाय...
कसोय करून म्हाका आमदार जावंक जांय

उर्जिता भोबे
✆ 95275 65598

## रिकामें बोल्स

कितल्यांच्या तोंडावेलें
मयें देवयलें
रिकाम्या म्हाज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

दुडू आसले तेन्ना
अख्खो संवसार भोंवलों
जगांतले कितले
खांची कोनशे पळयले
जग म्हळ्यार किदें
सोदत उरलों हांव
रित्या हातान म्हाका
खरें जग दाखयलें
रिकाम्या म्हज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

बल्कांवार भरताली
इश्टांची सभा
खंयच्याय वेळार मेळपाक
म्हाकाय आसली मुभा
तोखणायेचे तुस्तीचे
झरेच व्हांवताले
इश्टागतीचे बावटे
धोलत रावताले
खिसो ल्हव जातांच
भायलें दार दाखयलें
रिकाम्या म्हज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

येवप वचप आसतालें
आपले लोकांचें
माथ्यार म्हज्या चादर कशें
माये मोगाचें
आतऱ्या पयऱ्यान जमतालें
सोयऱ्यांचें भिरें
पादिसेरीन माये लुगट
केलें झिरझिरें
दुडवां तागडेंत माप म्हजें
सकयल वाकयलें
रिकाम्या म्हज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

पुस्तकांनी सोदलें हांवें
जिविताचें सत
जाणट्यांचें, पारख्यांचें
घेतलें हांवें मत
चाळून चाळून कितले
हांवें ग्रंथ पळयले
घाम गळयलो
आनी रगत जळयलें
अणभवानींच सताचें
रूप दाखयलें
रिकाम्या म्हज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

कितल्यांच्या तोंडावेलें
मयें देवयलें
रिकाम्या म्हाज्या बोल्सान
म्हाका खूब शिकयलें

कल्याण सावंत
✆ 9765128185

## हळडुली

दिसता म्हाका तोखणाय करची.
हळदीच्या झाडाची
हजार तिच्या गुणांची
तरेकवार उपेगाची
व्हंकल नवऱ्याच्या हातीची
मणकुटी जावपाची
हळदीच्या समारंभाची
तोंडाक सारावन घेवपाची
बायलां मर्दी मिरोवपाची
त्या सक्रांतिच्या दिसांची
बोटावेल्यान कपलाचेर बसपाची
वखदांनीय घोळपाची
शिरंगार साधनानी मिसळपाची
पानांच्या रुपांत गोडशात शिजपाची
पातोळेक मुठलावन उकडपाची
नुस्त्याक वेंगावन लासपाची
घावे पेखोवपाची.
पुजेच्या सामग्रेंत गरजेची
पिंजरीचे जोडयेन भोंवपाची
कितली कितली अपुरबायेची
हळडुली सामकी गुणाची...

ॲड.प्रा.अशोक कृष्ण मोये
✆ 9822486180

## शिस्त

आमचे जिवनांत शिस्त जाय
दरेक काम शिस्तीनूच करूंक जाय ।।

बेशीस्त वागणूक सोडून दिवंक जाय
मनशान शिस्तीनूच वागूंक जाय ।।

बाळपणा पासुनूच शिस्त लावंक जाय
चलता भोंवतना ती नदरेक पडूंक जाय ।।

उलोवप शिस्तीनूच आसूंक जाय
हें ताका आवय बापायन शिकोवंक जाय ।।

दरेक घरांत शिस्त दवरूंक जाय
ती राखपाक बायलांनी फुडें सरूंक जाय ।।

घरांतलें काम शिस्तीनूच करूंक जाय
प्रत्येकान शिस्त राखून घरांत मजा हाडूक जाय ।।

आंगांत एकदां शिस्त संचारलेली बदलना
जीवन सवस्तकायेन जगपाक चड त्रास पडना ।।

दवरलेली वस्तु सोदपाक चड वेळ वचना
एक टांचणी लेगीत काळखांत मेळ्ळ्या बगर रावना ।।

शिस्तीची खरेंच गरज आसता
तिकाच लागून जीवनांत मजा येता ।।

सगळीं कामां एकदम भराभरा जाता
उमेद एकदमूच उंचायेर वेता ।।

इश्कोलांत टिचरींनी शिस्त घालूंक जाय
भुरग्यांच्या आंगांत ती हाडूंक जाय ।।

ती पाळून इश्कोलाची भरभराट करूंक जाय
प्रत्येकान शिस्त राखूंकूच जाय ।।

म्हजी घरकान्न कडक शिस्तीची आसली
देखूनच म्हज्याय आंगांत ती संचारली ।।

# चीनाच्यो प्राचीन नीतीकथा

म्हज्या माणकुल्या इश्टांनो, फाटलीं दोन-अडेज वर्सां हांव तुमचे मुखार दवरतालें कोंकणींतले नामनेचे साहित्यकार आनी विचारवंत भौ.दत्ता दामोदर नायक हांच्या 'द जंगल बुक' ह्या इंग्लीश पुस्तकांतल्या आधुनीक नीतिकथांचो कोंकणी रुपकार. फाटल्या म्हयन्यांत तो सोंपलो. ह्या म्हयन्या सावन हांव तुमचे मुखार दवरतां आमच्या शेजारच्या चीन देशांतल्या प्राचीन नीतीकथांचो कोंकणी अणकार.

चीन सरकार आपल्या विदेशी भास प्रकाशन विभागा वतीन संवसारभरच्या भासांतल्यान आपल्या देशांतलें म्हणल्यार चीनी अक्षर साहित्य अणकारीत करता आनी संवसारभर ताचें वितरण करता. चीन देशान संवसारभर कोरोनाची धाम पातळायली असो तांचेर आरोप जाता. खरें फट फुडाराक कळटलेंच. ताचे आदीं चीन देशान आपलें साहित्य हेर भासांनी अणकारीत करून संवसारभर पातळायलें ताचो आमी आस्वाद घेवंया.

पेईचींग शारांतल्या विदेशी भास प्रकाशन गृहान १९८२ वर्सा चीनाच्यो प्राचीन नीतिकथा हिन्दींत अणकारीत केल्यो त्यो हांव हांगां कोंकणींत हाडटां.

ह्यो काणयो चड करून ख्रिस्ता आदल्या चौथ्या आनी तिसऱ्या शतमानांतल्यो आसात आनी त्यो अजुनय चीनी लोकांच्या ओंठार खेळटात आनी तातूंतल्यान देख घेवन तातूंतल्या विचारांचें आपले जिवितांत आचरण करतात.

तर चलात वचुयां आमी चीनांत....

## चालाक चमगादड

अमरपक्षीक (एक काल्पनीक पक्षी) पक्ष्यांची राणी मानतात. ताच्या जल्मदिसा सगळी पक्षी ताका शुभेत्सा भेटोवंक गेले. पूण चमगादड गेलो ना. जेन्ना अमरपक्षीन न येवपाचें कारण ताका विचारलें, तेन्ना ताणें जाप दिली,'' हांव एक संस्तन प्राणी आनी म्हजो निवास भुंयेचेरूय आसता. देखून म्हाका पक्षी न्हय तर पशू मानूंक जाय. जेन्ना हांव तुमच्या शासनांत पडच ना, जाल्यार तुका शुभेत्सा दिवंक कसो येतलों?''

कांय दिसां उपरांत, एकश्रृंगी पशुचो (एक काल्पनीक पशू) जल्मदीस आयलो. एकश्रृंगी पशूक पशुंचो राजा मानतात. ताका लागून सगले पशू तांका शुभेत्सा दिवंक तागेर पावले. पूण चमगादड गेलो ना. जेन्ना एकशृंगी पशून ताका न येवपाचें कारण विचारलें, तेन्ना ताणें जाप दिली,'' म्हाका तर पांखां आसात आनी हांव उडूंक शकतां. जेन्ना हांव तुमच्या शासनांत पडना तेन्ना तुका शुभेत्सा भेटोवंक कित्याक येवं?''

उपरांत एक दीस अमरपक्षी आनी एकश्रृंगी पशू एकमेकांक मेळ्ळे, तेन्ना दोगांयचें चमगादडाचे वागणुकीचेर उलोवप जालें. तेन्ना तांणी निश्कर्श काडलो तो असोः 'चमगादड संवसारांतलो सगल्यांत चालाक प्राणी.

(ही काणी 17 व्या वा 18व्या शतमानांतल्या य्वे च्युन हाणें रचिल्ल्या ग्रंथांतली.)



मानसी
प्रेमानंद
धाऊसकार

कथा, कविता, ललित लेखनात उमेदवारी करपी लेखिका पेडणेच्या संत सोहिरोबानाथ आंबीये सरकारी म्हाविद्यालयांत प्राध्यापक आसा. अणकार हो आवडिचो विशय.

# लोखणा कांब आनी सूय



एक मस्तो भुरगो आपल्या शिक्षणा कडेन मात्तूय शितीद दिना आशिल्लो. `क दीस ताणें शाळेक दांडी मारली आनी हेडपाक भायर सरलो.

ताका न्यचे देगेर एक म्हातारी दिसली,जी लोखणाची कांब घेवन एका फातराचेर घांसताली.

भुरग्यान कुतुहलान तिका विचारलें,"आज्जे,तूं हें कितें करता?"

म्हातारेन जाप दिली," कपडे शिवपाक म्हाका एक सूय करतां."

भुरगो हांसलो आनी ताणें म्हणलें,"येदे व्हडले हे कांबीची तूं सूय कशी करतली?"

म्हाकारेन म्हणलें," हांव आयज तिका मातशी घांसतलीं,आनी मातशी फाल्यां. अशे तरेन हांव म्हजो यत्न चालूच दवरतलीं.आनी एक दीस ही कांब जेरूल सूय जातली. ज्या भुरग्याचें शिक्षणा कडेन शिंतीद लागना,ताका ही गजाल कशी कळटली?"

म्हातारेचें उलोवप त्या भुरग्यान आयकलें आनी तो थंयच्यान उठून तुरतुरीत शाळे वटेन चलूंक लागलो. □□□

(ही रचना छन रनशी (1581-1636) हाच्या ग्रंथांतली)

---

# सोपूत

एक भ्रश्टाचारी अधिकारी भायल्यान आपूण खूब इमानदार आसपाचें नाटक करतालो.

एक दीस ताणें देवाचें नांव घेवन लोकां सामकार सोपूत घेतलोः" जर हांव उजव्या हातान लांच घेत जाल्यार म्हजो दावो हात गळून पडूं. आनी जर हांव दाव्या हातान लांच घेत जाल्यार म्हजो उजवो हात गळून पडूं."

कांय दिसां उपरांत एकलो ताका शंबर औंस चांदीची लांच दिवपाक आयलो. ताचें मन ती घेवपा पासत सामकें चिटमिट्रतालें. पूण तो भायल्यान दाखयतालो,' हें सारकें न्हय, हांवें सोपूत घेतला, ज्या हातान लांच घेतां तो हात गळून पडूं.'

ताच्या हाता खालच्या एका कर्मचाऱ्याक ताच्या मनाची अवस्था उमगली. ताणें ताका सांगलें," तूं ती चांदी तुजे अस्तनींत कित्याक दवरून घेना? गळ्ळी जाल्यार फकत तुजी अस्तनीच गळटली."

भ्रश्टाचारी अधिकाऱ्यान ताची सुचोवणी मानून घेतली.

( ही रचना 15 व्या शतमानांत च्याङ इङखो हाणें रचिल्ल्या ग्रंथांतली.)





# मुर्ख हरण

लिनच्याङच्या मनशान शिकारेक गेल्ले कडेन एका हरणाक धरून हाडलें. ताका घेवन तो घरा आयलो. थंय कांय शिकारी सुणे आशिल्ले. हरणाक पळयले बराबर तांच्या तोंडाक उदक सुटलें. तें पळोवन ताणें तांका धांवडावन घाले. मागीर ताणें चिंतलें, ह्या हरणाची देखरेख दर खेपे करप म्हाका शक्य ना. जर ह्या हरणाची इश्टागत त्या सुण्यां कडेन करून दिली जाल्यार ते सुणेच ह्या हरणाची राखण करतले. तो त्या हरणाक वेंगेंत घेवन त्या सुण्यां कडेन वता आनी आपलो त्या हरणाचेर खूब जीव आसा आनी ताका जर कितेंय जायत जाल्यार आपूण कोणाकूच ओगी रावंचोना म्हणपाची गजाल तांचे भितर बिंबोवपाचो यत्न करता.

अशे तरेन कांय काळा परांत तें हरण आनी सुण्यां भितर खऱ्यानीच दाट इश्टागत जाली. हरण त्या सुण्यांक पले बरे इश्ट मानून तांचे लागीं खेळपाक आरंब केलो आनी सुण्यांनीय आपल्या धनयाच्या भंयान त्या हरणाक दुखोवपाचें धाडस केलें ना.

तीन वर्सां उपरांत तें हरण एक दीस एकटेंच भोंवपाक भायर गेलें. रस्त्या वयल्यान कितलेच सुणे वताले. हरणान त्याय सुण्यांक आपले इश्ट मानले आनी खेळपा पासत तांचे म्हऱ्यांत धांवून गेलें. हरणाक पळयल्या बराबर सुण्यांनी ताचेर झडप घाली आनी ताका फाफसून फाफसून खालें.

मूर्ख हरणाक निमणे खिणाक लेगीत समजूंक पावलें ना, त्या सुण्यांनी आपल्याचेर झडप कित्याक घाली?

( ही रचना 10 व्या शतमानांतल्या सङ वनइङ हाणें रचिल्ल्या ग्रंथांतली)

---

# मस्को लावप

एक गरीब मनीस अन्नाक पातिशेर जावंनूय खंयच्याच गिरेस्ताचे तळवे चाटी नाशिल्लो.

एक खेप एका गिरेस्त मनशान ताका विचारलें,"हांव गिरेस्त मनीस.तूं म्हाका मस्को मारपाचें काम कित्याक करीना?"

" ताणें जाप दिली." तूं म्हाका तुजी संपत्त थोडीच दिता! मागीर हांव तुका मस्को सो कित्याक लावं?"

"अच्छा,जर हांवें तुका म्हजे गिरेस्तकायेंतली वीस टक्के तुका दिली जाल्यार तूं म्हाका मस्को मारपाचें काम करतलो?"

" ना, तेन्नाय हांव म्हाका म्हज्या नशिबाचो बळी मनतलों आनी तुका कसोच मस्को मारचो ना."

" जर हांवें तुका म्हजे गिरेस्तकायेंतलो अर्दो वांटो दिलो जाल्यार?"

" तेन्नाय करचो ना. तेन्ना म्हजो दर्जो तुजे बराबरचो जाल्लो आसतलो. अशे परिस्थितींत हांवें तुका मस्को कित्याक म्हूण मारप?"

" जर हांवें म्हजें पुराय धन तुका दिलें,जाल्यार मागीर



कित करतला !

" तेन्ना तर हांव सोताच गिरेस्त जाल्लों आसतलों. तेन्ना तुजे तळवे चाटपाची म्हाका गरजूच कित्याक पडटली?" □□□

(ही रचना मिङ राजवंशांतल्या (1368-1644) तू पनच्यून हाणें रचिल्ल्या ग्रंथांतली)

# 'सनी खाता तें...'



"सनी आयलो. सनी आयलो. बिट्टुलो हिरो आयलो."

सनी खोरें कुदळ घेवन माडा मुळांत आळें काडूंक लागलो.

"सनी हांव खणटां." बिट्टून म्हळें.

"राव आं, तूं मागीर. पयलुं हे फातर काडटां."

सनी खोऱ्यान माती ओडूंक लागलो.

"सनी, हांव काडटां फातर."

"राव रे बाबू, पप्पा म्हाका तापयतलो."

सनीन एक आळें केलें.

"सनीक तलफ आयली. ताणें बिट्टू वटेन फाट वळ्ळी.

हातार पुडी रकयली आनी चुनो लावन बोटान चोळ्ळी.

"सनी, हाप्प कर." बिट्टून फाटल्यान रावन सांगलें.



किरण म्हांबरे

कविता,ललित,कथा आनी बालसाहित्यांत योगदान...

आरे, हेणें दिस्त पळयलें दिसता!

काम आटापून सनी गेलो. बिट्टू भितर आयलो.

"म्हाका सनी खाता तें जाय." बिट्टुली मागणी.

"सनी कितें खाता?"

बिट्टून बोटान हाताचो तळटो चोळ्ळो आनी तोंडा म्हऱ्यांत व्हरून हाप्प केलें.

"शी बाबा. तें तुवें खायनात आं...!"

पप्पान बिट्टूक समजायलो.

"म्हाका जाय, सनी खाता." बिट्टूलो जप.

"आरे तें भुरग्यांनी खायनात. आमी लेगीत खायनात."

"ना. म्हाका जाय. सनी खाता तें जाय." बिट्टुलो हट्ट..

"आरे तें वीख. सनीक कळना म्हणून तो खाता. तूं शाणो मरे, तुका कळटा मरे वीख खायनात म्हणून?"

"म्हाका सनी खाता तें जाय..." बिट्टून हाताचो तळटो चोळून हाप्प केलें. बिट्टून साभिनय दाखोवन तशें खाल्ल्याचो आनंद भोगलो..

"पळय मम्मान काय बरो भोबो केला!"

"म्हाका सनी खाता तें जाय."बिट्टुलो हट्ट वाडलो..

"बिट्टू, आमी स्कुटरीन भोवंक या. आयस्क्रीम खावन येवया." पप्पान तोडगो काडलो..

"म्हाका सनी खाता तें जाय." हाताचो तळटो चोळून बिट्टू हाप्प करतालो..

'चोळ चोळ हाप्प कर' करून खावपांत मजा.

बिट्टू, कोणाचेंच आयकना.

पप्पा तापपा कडेन पावलो.

" बिट्टू....." तो आड्डलो.

"म्हाका सनी खाता तें जाय." बिट्टूयय तेमाक पेटलो.

बोवाळ आत्यागेर पावलो. आयलें आत्या.

सुंदर आत्या, शाणें आत्या, हुशार आत्या. बरें आत्या, गोरें आत्या, लाडकें आत्या.. आत्या .. आत्या

"आत्याऽऽ" बिट्टून आत्याक वेंग मारली. आत्यान बिट्टूक उबारलो... पापी घेतली. "बिट्टू शाणो!"

"आत्या, म्हाका सनी खाता तें जाय."

"सनी खाता तें.. कितें?"

बिट्टून हाताचो तळटो चोळून हाप्प केलें.

"आं! तें जाय तुका?"

" हय."

'आत्या बरेंच' म्हणत बिट्टून आत्याच्या गळ्याक वेंग मारली.

"हांव दितां आं..चल रे पप्पा. रांदचे कुडींत यो."

पप्पा आत्या फाटल्यान रांदचे कुडींत आयलो.

"उगत्यो कर आलमारी."

आत्यान ओर्द सोडली.आत्याचे हांडीर बिट्टू खुशाल जाल्लो.

पप्पान सगल्यो आलमारी उगत्यो केल्यो. आत्यान सगल्या बाटल्यांचेर नदर भोंवडायली. तांतली एक बाटली काडली. बाटलेंतलो वोंवों हातार घेतलो. चिमटी मारून बिट्टुच्या हातार दवरलो.

बिट्टू खुशाल जावन हांसलो.

"आगो तो....."

"तोच! सनी खाता तो. बिट्टू खावन पळयतलो



तो! बरो लागलो ना जाल्यार केन्नाच खावचोना.हय मरे शाण्या?"

आत्यान पप्पाचें वाक्य अर्दार तोडून ताका कलाटणी दिली.

बिट्टुची तकली हालली, वयर सकल, वयर सकल.

"घे शाण्या. पयलीं इल्लो खावन पळय. तीख लागत आं..!"

बिट्टू खुशाल जावन हांसलो. हांसत ताणें आत्यान दिल्लो वोंवों हातार घेतलो. बोटान चोळ्ळो. तोंडा म्हऱ्यांत व्हेलो. आनी 'हाप्प' केलो. चाबलो.

"आत्या तीख! बिट्टून तोंड वांकडें केलें.

"तीख लागलो मरे? पळयलें? थूऽ कर. तूं खाय नाका तो. सनीकच खावंदी. ताका सांगल्यार कळना. चल रे पप्पा, बिट्टूक चॉकलेट दी."

साठां उत्तरांची काणी पांचां उत्तरीं सुफळ संपूर्ण.

---

*आडपय – फोंडें, मोबा. 8007231075*

संगीता बर्वे
✆ 9545995693



## हत्तीदादा

हत्तीदादा,हत्तीदादा
भारी बाबा तू फिशाल
एकाच धपक्याक मोडटा
व्हडलें झाड खुशाल

हत्तीदादा,पत्तीदादा
केदे रे तुजे दांत?
पूण जमता रे खावंक
ताणें सादो वरणभात?

हत्तीदादा,हत्तीदादा
तूं सद्दां कितें जेवता?
तण खावन खावन
केन्ना येद्दें पोट भरता?

हत्तीदादा,हत्तीदादा
दिसूंक तूं छान
सारके कित्या हालयता
फटक् फटक् कान?

हत्तीदादा,हत्तीदादा
सोंड मुखार काड
फाटीर म्हाका बसोवन
भोंवडावन मातसो हाड

## मुंयांची रांक

*हांगच्यान थंय लांबच लांब*
*घरांत लागली मुंयांची रांक।*

*फळयेर आसलो साकरे लात*
*थंयच भरली तांची जमात ।*

*एकलेन म्हणलें, 'चला लुटा*
*म्हाल उखलून हांगच्यान फुटा।*

*लातार तांणी केल्लो हल्लो*
*साकरेर पुराय मारलो डल्लो।*

*लातांत आसली साकर मणभर*
*हातांत आयली फकत कणभर।*

*शिस्तीन घुंवली परतून रांक*
*मातूय नासलो गुन्यांव मनांक।*

*(साहित्य अकादेमीच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री.कोंकणी अणकार-दिलीप बोरकार)*

●●●

शोभा फुलकार
✆ 7875237478



## नाका म्हाका

नाका मम्मा नाका
माम माम नाका
कुतूक लागल्या भूक
सगळोच दी ताका

म्यांव पळय फाटल्यांन फुडल्यान
कशें म्यांव म्यांव करता
दोनूय पांय वयर काडून
नाचून म्हाका दाखयता

दी गे म्हजें मेमें ताका
म्हाका तें कशेंच नाका
खावंदी ताका पोटभर
म्हाका आयज माम नाका

दिताच जाल्यार दी गे म्हाका
फ्रिजांतली गोड गोड आयस्क्रीम
चिप्स दी,कॅडबरीय जाय
दिल्यार जाता दुदावेली साय..

# बिमलांचें लोणचें



“आजये, हांव बिमलां काडूं गे?” थोडीं बिमलां आशिल्लो घोंस हातांत घेवन रीमान म्हळें.

“राव आं! पळयतां हांव. मोठीं जाल्यांत तर तीं?”

उलयतां उलयतां आजी पावली बिमलीणी कडेन.

“आवयस! बरीं मोठी जाल्यांत मगो! चल काडया सगळींच. भितर वचून मम्मा कडल्यान पिशवी हाडटा?”

रीमा शेंवटत पावलें घरांत. खिणा भितरच पिशवी घेवन आयलें.

बरींऽऽ पिशवी भर बिमलां मेळ्ळीं.

देवाक काडिल्ल्या फुलांचो कुरपणो आनी बिमलां पिशवी घेवन रीमा हाय हूय करीत पावलें घरांत.

“ओ शाण्या, दवर ती पिशवी मेजार.”

आजी कदेल ओडून कदेलार बसली.

“आजे, घालया मगे वांटे?”

रीमान बिमलां मेजपाक सुरवात केली. मम्मा तांकां दोगांयकय पळोवन हांसत रावली.

रीमालें सदचेंच घोस्ताचें काम हें. वांटे घालपाचें.

“आई, फाटले खेपो खूब तिखट जाल्लें. मातशें गोडशें कर आं!” मम्मान म्हळें.

“वाव! बिमलांचें लोणचें!!” पप्पान रूच काडीत ओठां वयल्यान जीब घुंवडायली.

“बरें जालें! फाल्यां चपाती आनी गोड लोणचें व्हरपाक मेळटलें!” मम्मानय रूच काडली.

“एक मावशेक, एक आतूक, एक मम्माले इश्टीणीक, एक शेजान्नीक आनी एक घरांत गोड लोणचें करपाक.” रीमान वांटे घाले.

आजयेन भितर वचून चार पिशव्यो हाडल्यो आनी चारूय वांटे पिशवेंत घालून मम्मा कडेन सोंपयले.

आजी आपल्या फुडल्या वावराक लागली.

“आज्ये, गोड लोणचें केन्ना करतली?”

रीमाली जाली भुणभूण सुरू.

“शाण्या, आज बिरेस्तार न्ही? हांव देवळांत वचून येतां आनी करतां आं!”

आजी गेली देवळांत. मम्मा पप्पा गेलीं कामाक.

रीमाक दिवाळेची सुटी आशिल्ल्यान रीमा घरा.

रीमाक वाज वाज येवपाक लागलो. आनी सट्ट




**उषा ज. कामत**

कविता, ललित, कथा आनी बालसाहित्यांत योगदान...



करून ताका येवजलें...हांवेंच बिमलां लोणचें केल्यार कशें? आजयेक सरप्राइज दिवया.

रीमान बेगीन बेगीन सुरयेन बिमलां कापलीं. आजी खूश जातली सामकी! रीमा ताकतिकेन कामाक लागलें.

बारीक मोठीं वाकडीं तिकडीं!

मागीर ताणें एक तोप घेतलो आनी तांतूंत किशिल्लें गोड घालें. तांतूंत सामकें थोडेशें उदक घालें. मिरसांगे पिठो आनी मीठ घालून गॅसार शिजपाक दवरलें.

इतल्यांत कोणें तरी बेल मारली. दार उगडूंक वेळ जालो तशी दुसरे खेपो बेल वाजली. रीमा धांवलें. पूण बेगीन वचून आज्यान दार उगडलें. पळय जाल्यार आज्यालोच इश्ट. रमेश आजो. रीमालो आवडीचो आजो.

दोगय जाण खबरांक पेटले आनी रीमा....लोणचें विसरून तांच्यो गजाली आयकुपाक गुल्ल सामकें.

हेवटेन गोड शिजून, उदक आटून तोप करपलो. गजाली मुखार कोणाक कांयच कळ्ळें ना.

आजी भितर मात सरल्या,

''आगेबाये! कसलो वास हो?'' आजी धांवली रांदचे कुडींत आनी कपलार हात मारून थंयच कदेलार बसली.

---

*मडगांव, मोबा. 9763823745*

# खर प्रयत्न करतल्यांक कितेंच अशक्य आसना!

## लेखिका आनी पत्रकार नयना आडारकार



**'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उपसंपादक आनी 'भांगरभूंय' दिसाळ्यांत ज्येशठ उपसंपादक म्हणून काम केलां. 'सुनापरान्त' आनी 'भांगरभूंय' दिसाळ्यांत स्तंभलेखन केलां. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली साहित्यीक जीण आरंब करपी नयना आडारकार आयज कोंकणीं साहित्य मळार आपली खाशेली सुवात सुगूर करून आसा. तांणी बाल साहित्यांत मोलाची भर घाल्या,तशेंच तांचें विनोदी ललित लेखन एक आगळी साहित्यीक गोडी वाचकाक लायता...**




**श्रध्दा गरड**

लेखिका साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री.बालसाहित्य आनी ललित लेखनांत फिशाल.


**श्रध्दा:–** नयनाबाय,तुमी कोंकणी चळवळींत आशिल्लीं म्हणटकच आरंब तुमच्या अणभवांतल्यानच करुंया...

**नयना:–** कोंकणी भाशे विशीं स्वाभिमान आमच्या मनांत आमचो बाबा सर्गेस्त रंगनाथ सुर्लकार हांणी जागयलो आनी कोंकणी चळवळींत आमच्या बोटाक धरून हेमाबाय आनी पुंडलीकबाब हांणी हाडलें. भौ. नागेशबाब करमली, गुरुनाथबाब केळेकार, रमेशबाब वेळुस्कार, पुंडलीकबाब, हेमाबाय आमच्या कुटुंबाचेच वांगडी जाल्ले. इतलो बाबा–माईचो तांचेर विस्वास. त्या विस्वासान हांव आनी म्हज्यो भयणी अमिता, बबिता, हर्षा (सरस्वती नायक) वासंतीक मेळ, कोंकणी प्रजेच्या आवाजाच्यो सभा, राजभास चळवळ हातूंत उर्बेन वांटो घेतालीं. मागीर तातूंत चड सक्रीय हांव आनी अमिताच उरलीं. चळवळी वेळार अमिता, शकुंतला, माया हांणी सोंशिल्लो लाठीचार्जूय पळयिल्लो. अटक करून आल्तिनो पठाराचेर आमकां सगल्यांक सोडिल्लें. तेन्ना अभिमानान हड्डें भरून येवपाचोय अणभव घेतलो. ताळो सरांटून कोंकणीच्यो घोशणांय दिल्यो. त्यो सगल्यो सगल्यो गजाली याद जातात. पूण खेरीत अश्यो दोन गजाली म्हाका तुमकां सांगुकूच जाय.

म्हज्या सुदैवान म्हज्या घरकारान, नंदकिशोर आडारकारानूय म्हाका कोंकणी पसून पयस करूंक ना. कोंकणी चळवळींत वांटो घेवप हो म्हजो आनी अमिताचो जल्मसिद्द हक्क आशिल्लो. देखून हांव गुरवार आसतनाय म्हाका घरा बसून रावपाक जालें ना. मोर्चा सुरू आशिल्लो. आशिकुशीक लाठी घेवन पुलीस वावुरताले. कितेंय जावं येतालें. पूण म्हाका ताचें भान नाशिल्लें. हांव, माया शेल्डेकारा (खरंगटे) सांगातान नेटान घोशणा दियत मुखार मुखार चलतालें. पूण भौ. दत्ता श्री. नायक हांचें लक्ष म्हजेर गेलें आनी ते फाटल्यांतल्यान धांवत मुखार आयले. तांणी म्हाका हाताक धरून फाटल्यान हाडलें आनी रस्त्या कुशिकच्यान चलपाक सांगलें. लाठीचार्ज जालोच जाल्यार ल्हवूच भायर सरपाचो सल्लोय दिलो. इतली माया आमचे म्हालगडे आमचेर करताले. आमकां जपताले.



दुसरो एक प्रसंग याद जाल्यार म्हज्या आंगार आयजूय कांटो येता. 1986 तली गजाल. राजभास आंदोलन तेन्ना खूब खर जाल्लें. हांवें तेन्ना चलयेक जल्म दिल्लो. नवें वाडें हांगा सरल्या फेर्नांडीसाल्या जपानी टायप घरांत हांव तेन्ना बिराडाक रावतालें. त्या घराक चोंयवशीन हारशे. चळवळी वेळार हांव वास्कोच्या मिटिंगेंनी आसतालें. वास्कोच्या वांगड्यां वांगडा दारां दारांनी भोंवतालें. म्हजो बाबा लोकांच्या थोमण्यांचो टार्गेट आसतालो. (जे बाबाक टार्गेट करताले तांचीं भुरगीं आयज राजकारणीं जाल्यांत) वास्को हो कट्टर मराठीवाद्यांचो प्रदेश. कोंकणी समर्थक चार बोडकां. तीं ह्या मराठीवाद्यांचे तकलेंत फिक्स जाल्लीं. त्या दिसांनी अख्खें गोंय आंदोलना खातीर धगधगतालें. मडगांव एकलो हुतात्मो जाल्लो. सगल्याक कर्फ्यू लागिल्लो. म्हजो घरकार मडगांव गेल्लो. नव्या वाड्यारूय बोवाळ चलिल्लो म्हणून हांव लायटी बी पालोवन जनेलाच्या हारशांतल्यान भायर पळयत बायक घेवन कदेलार बशिल्लें. इतल्यांत फेर्नांडीसाले गेटी भायर बोवाळ सुरू जालो. 'हंयच खडें रवता तां सुर्ले काराचां चेडूं!' म्हणीत कांय तरणाटे भायर बोवाळ करपाक लागले. तांच्या हातांत फातर आशिल्ले. तीं उतरां कानार पडटकच हांव कुळकुळ्ळें. म्हजे मांडयेर बाय आशिल्लें. ताका घेवनूच हांव घरा भितरले पायणींत वचून बसलें. फातर मारलेच जाल्यार आमकां लागचे न्हय म्हणून. तेवटेन फेर्नांडीसाल्या घरांतल्या हेर लोकांचेरूय आकांत आयिल्लो. अदमासान फातर शेंवटिल्यार तांचेर पडत म्हणून. ते तरणाटे गेट उकती करपाचो यत्न करतनाच खंय तरी सायरन वाजलो आनी ते थंय सावन पळून गेले. सगलीं पावलां घबघब करून थंयच्यान पयस गेलीं तरीय म्हज्या काळजाची धडधड थांबूंक नासली. कांय वेळ असोच भिरांतेनूच गेलो आनी अकस्मात दारार घडघड जालें. म्हजो स्वासूच बंद पडटा अशें म्हाका दिसलें. पळयल्यार तो म्हजो घरकार. नव्या वाड्यार प्रकरण चिघळ्ळां म्हणून ताका कळ्ळें. ताका गोवा शिपयार्डा कडेन आडावन दवरिल्लें. ताणें सुर्लकाराचें चली आपली बायल म्हणटकच पुलीस वळखलो आनी ताका घरा कडेन हाडून सोडलें. घरकाराक पळोवन म्हाका रडूंक येवपाक लागलें. लायट बी पेटोवन जीव सूऽ करता म्हणसर फाटले वटेंतल्यान अपसरण आयलें. घरकान्नीचो दुसरो पूत येवन 'घरांतल्यान ज्या ज्या भायर सर' म्हणूंक लागलो. 'तुजे खातीर आमचें घर फोडटले. तूं झूर' म्हणत रावलो. पूण घरकान्न एके अस्तुरेचें मन समजुपी. तिणें ते रातीं ताका थातारलो. पूण दुसरे दिसा फकत धाकल्या बाय खातीर तरी बापायगेर वचून रावप योग्य असो सल्लो दिलो. बाबाच्या कानार ही गजाल वतकच ताणें चळवळ न्हिवसर म्हाका आपल्यागेर व्हरून दवरलें.

कोंकणी लोकांचीं कोंकणी खातीर, कोंकणी राज्या खातीर उबारिल्लीं सगलीं आंदोलनां जैतिवंत जालीं. ते उमेदी मुखार ह्यो यादी केन्नाच काळजा कुरकुटांत गुडूप जाल्ल्यो. आयज ह्या प्रस्ना निमतान त्यो वयर सरल्यो.

**श्रध्दा:–** शिक्षणाचो उपेग तुमच्या जिवितांत कसो

जालो?

**नयनाः-** जिणेंतल्या दर खिणाक शिकप म्हणल्यार शिक्षण. मागीर तें पुस्तकी आसूं, अणभवांतल्यान मेळिल्लें आसूं वा मनशाक, मनशाच्या जिविताक वाचून मेळिल्लें आसूं, गरज पडटा तेन्ना तें धीर जावन फाटल्यान उबें रावता. नवी वाट अनवळखी आसली तरीय मुखार पावल घालपाक बळगें दिता.

भुरगेपणांत म्हाका पासियेंस म्हणटात तें नाशिल्लें. येदेश्या कामाक लेगीत हांव फुर्ग जातालें. हांव एमईएस हायर सेकेंडरीक वचपाक लागलें तेन्ना म्हज्या बाबाच्या दुकानार सांजवेळार पार्टटायम टायपिस्ट म्हणून काम करूंक लागलें. थंय विंगड विंगड भाशा उलोवपी लोक येताले. आपापले भाशेंत कागाळी वा कितें काम आसा तें सांगताले. तें पासियेंसान आयकून थंयचे थंय इंग्लिशींत अनुवादीत करून स्पिडीन टायप मारचें पडटालें. तेन्ना म्हज्या इंग्लीश, हिंदी, मराठी वाचनाचें शिक्षण म्हज्या कामाक आयलें.

हांवें झेरॉक्साचो वेवसाय सुरू केलो. त्या वेळार झेरॉक्साचें काम एके काळखे कुडींत चलतालें. पयलीं दिल्लें काम बोर्डार घालून एक हजार वोल्टाचे दोन बल्ब लावन ताचो फोटो काडचो पडटालो. जे प्लेटीर तो फोटो येतालो तो काळे शायीच्या ट्रेंत हालोवंचो पडटालो. ते प्लेटीर आयिल्ल्या फोटवाक कुशींतल्यान जतनायेन पुसचें पडटालें आनी मागीरूच ताच्यो प्रिन्ट् काडपाक मेळटाल्यो. सामकें पासियेंसाचें काम. मातशी वांकडी कॉपी आयली, लायट कॉपी आयली जाल्यार तिडकुपी गिरायक आसतालें. ह्या कामा वेळारूय हें पासियेंस म्हाका उपकाराक पडलें.





आजयेन म्हाका मनीस वाचपाचें शिक्षण दिल्लें. प्रसंग येतकच आपलो म्हणपी मनीस कसो फाटींत सुरो खुपशिता हें ह्या शिक्षणान म्हाका दाखोवन दिलें आनी हांव सादूर रावपाक शिकलें.

टायपींग म्हाका येतालें, पूण इंग्लीश. कोंकणी टायपिंगेचो अणभव नासलो. हांव सुनापरान्ता खातीर स्तंभलेखन करतालें, कविता- कथा बरयतालें. पूण बरयिल्लें संपादीत करपाचो अणभव नासलो. कविता कथा सादरीकरण करतालें, आकाशवाणी खातीर अणकार करतालें. पूण बाबाच्या दुकानार केल्ल्या इंग्लीश टायपिंगेचें शिक्षण, पासियेंस कशें बाळगुपाचें हाचें शिक्षण आनी सुनापरान्ता खातीर दिसाळ्याचेर कशें बरोवचें हाचें मेळिल्लें शिक्षण, म्हाका म्हज्या पडट्या काळार हात दिवन गेलें. म्हजो आत्म विस्वास दृढ करीत गेलें. पत्रकार म्हणून काम सांबाळटकच हें सगळें शिक्षण म्हाका गजाली सोंप्यो करीत गेलें. हांव मुलाखतीय घेवपाक लागलें, कोंकणींत कंपोजूय करपाक लागलें, शिकून घेवन, जमता तशें संपादनूय करपाक लागलें, कोरल ड्रॉंत आयताराचीं कलर पानां लावंक शिकलें, ताच्यो प्रिन्ट आवट काडून प्रिन्टिंगेक धाडपाकूय शिकलें. खरेंच तें,

जिणेंत अशे कितलेच येतात खीण,<br>
जे शिकयतात नकसूद विणूंक जिणेची वीण.

**श्रध्दाः-** सुरवातेक खंयचो साहित्य प्रकार तुमी रचलो? हेर साहित्य प्रकार रचपाचो तुमचो प्रवास कसो सुरू जालो?

**नयनाः-** साहित्याची श्रीगणेशा हांवें कवितेन केली. पिराय आठ वर्सां. आमची एक कुटुंबीक सहल एका जुंव्यार गेल्ली. थंय हावझी खेळटना बाबाक स्टिलाची कप-पिरी फुटली. बाबान ती म्हाका दिली. म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं,




बशीत बसला कप
कपात चहा
मला म्हणतो
प्या प्या प्या

तेन्ना हीं उतरां तांबडे मराठींत आसलीं. पूण बाबान मात म्हजीं हीं उतरां उखलून धरलीं. वा कविता मगो! बरोवन दवर. हांव सामकें खूश! मागीर बाबान कोंकणींत बरय म्हणलें तशें 'जात्रेचें खाजें', 'वास', 'शब्दुलीं' अश्यो कविता बरोवप जालें. शाळा-कॉलेजींनी कविता बरोवपाक लागलें. इश्टिणी म्हाका शाबासकी दिवपाक लागल्यो. हायर सेकेंडरींत म्हज्यो कविता घोंसार आयल्यो. भलायकी संचालनालयान कोंकणींत घेतिल्ले फॅमिली प्लॅनींग विशया वयले अखील गोंय कविता सर्तींत कविता बरोवन पयलें इनाम घेतलें. दोतोर भिकाजी घाणेकार हांणी फाट थापटिली. सातपुते कविता सर्त, चित्रंगी कविता सर्तींनी वांटो घेतलो, इनामां जोडलीं, आकाशवाणीर युववाणी खातीर कविता सादर केल्यो. इकरावेक आसतना 'पिशी पिराय' ही सोळा वर्सा पिरायेचे किशोरीची मनअवस्था सांगपी कविता जल्म ली. एके इश्टिणी वांगडा सर्वे करूंक गेल्लें तेन्ना बायणा दर्यावेळ आनी थंयसरल्या लोकांची जीण पळोवपाची संद मेळ्ळी तशी 'गिराणाचो गांव' जल्मली. म्हजें मन पिळवटून उडोवपी घडणुकांनी 'शाळा अशी आसता काय?' 'तिखळें' कवितांनी जल्म घेतलो.

समाज, समाजांतले लोक, तांची जीण हाचे विशीं बारिकसाण बाळगुपी म्हजे नदरेक वेगळें कितें दिश्टी पडलें जाल्यार काळीज हालतालें, अस्वस्थ जातालें. नवें वाडें हांगा रावतना आमच्या शेजरा घोवान हालहाल करून मारिल्ले अस्तुरेची व्यथा, बायणा वेश्यावस्तींतल्यो आपलीं घरां वाटावपाक धांवपी गरीब अस्तुऱ्यो, ह्यो घुस्मटावन उडोवपी अवस्था उकत्यो करूंक कवितेचो कॅनव्हास पावनासलो. मागीर ताणें ललीत लेख, काणयो, कथांचें रूप घेतलें.

तरीय ललीत लेखांची सुरवात जावपाक भौ. बाबली नायक हांचो खूब हात आसा. तांणी म्हजेर सुनापरान्ता खातीर 'पारजत' बरोवपाची जापसालदारी सोंपयली. सप्ताकांतलो एक दीस म्हजे खातीर तांणी राखून दवरलो. 'तुजे कडेन जातलें' हो तांचो म्हजे वयलो विस्वास आनी चुकनासतना तीन माळयो चडून येवपी सुनापरान्ताचो कर्मचारी दामू हाणें घेतिल्लो त्रास हाचे खातीर हांव निरंतर बरोवंक पावलें.

हांव पयलीं सावन बालकाणयो सांगतालें, पूण बालकाणयो बरोवपाक सुरवात जावपाक दोग व्यक्ती कारणीभूत थारल्यो. म्हज्यो इश्टिणी माया खरंगटे आनी दीपा मुरकुंडे. म्हजेर घाल्ले जापसालदारीची परत परत जाणीव करून दिवन म्हाका बरोवपाक प्रोत्साहीत करपी दीपाबायचें हांव खरेंच उपकारांत. ताणें अशे तरेन म्हजे कडल्यान णव पुस्तकां बरोवन घेतलीं. व्हडल्या काणयां परस ल्हान आनी सामक्यो ल्हान काणयो बरोवपाची कळाशी ताणें म्हजे कडल्यान साध्य करून घेतली. भौ. प्रकाश थळी, माधव बोरकार, हेमा नायक, प्रकाश पाडगांवकार हांणी केल्लें कवतूक म्हाका प्रोत्साहीत करीत गेलें.

**श्रध्दा:–** तुमकां पुस्तकां वाचपाक खूब आवडटात. एक वाचक म्हणून तुमकां कसलीं पुस्तकां वाचपाक आवडटात?

**नयना:–** 'Reading is dreaming with open eyes' हें म्हजे बाबतींत सामकें खरें थारलां. ह्या वाचनानूच हांव बरोवपाचें सपन पळोवंक पावलें. पयलीं हांव आजये कडल्यान काणयो आयकतालें, आवयक 'शिवलिला' बी वाचतना आयकतालें. आयकतां आयकतां हांव वाचूंक शिकलें. चांदोबाच्या






अप्रुबी संवसारांत रमून वचपाक लागलें. 'शेवंतीचे फूल', 'जादुई अंगठी' वाचतां वाचतां शेणपाक लागलें. गुरुनाथ नायक हांचीं 'कॅप्टन दीप', 'उदयसिंह चौहान' वाचून रहस्यां सोदपाक लागलें; सानेगुरुजींचीं 'श्यामची आई', 'तीन मुले', 'चित्रकार रंगा' वाचून रडपाक लागलें; पु.ल. देशपांडे हांचीं 'बटाट्यांची चाळ', 'व्यक्ती आनी वल्ली' वाचून पोटभर हांसलें; प्रेमचंदाचें 'गोदान'; रणजीत देसाई हांचें 'श्रीमान योगी', 'स्वामी'; महाबळेश्वर सैलांचें 'अरण्यकांड' म्हाका अस्वस्थ करीत गेलें. हिंदींतले लेखक-कवी निदा फाजली, जयशंकर प्रसाद आनी हाताक मेळत तशीं पुस्तकां वाचीत गेलें. सामान हाडूंक गेल्ले कडेन सामान बांदून दिल्ले पेपर आरतून परतून वाचपी हांव, बाबान म्हाका जायतीं पुस्तकां विकतीं हाडून दिलीं. पूण हांवें नेमकें कितें वाच्चें हें सांगपी म्हाका ते वेळार कोण मेळ्ळो ना. हांवें म्हज्या हातांत येता तें साहित्य वाचलें आनी पचयलेंय. म्हणून म्हाका अमूक लेखक, अमूक लिखाण हाचो पात्सो उरलो ना.

म्हाका विनोदी लिखाण वाचूंक आवडटा, काळजाक पिळवटपीय लिखाण आवडटा, मनाक प्रेरीत करपी साहित्यूय वाचूंक आवडटा. भुरगेपणांत अवांतर वाचना खातीर हांव घरांतल्यांक कसल्याच कामा खातीर उपकरा पडनासलें. पूण लग्ना उपरांत त्याच कामां खातीर तो वेळ तो हो वेळ मेरेन म्हजें वाचन लागीं लागीं खुंटिल्लेंच म्हणल्यार जाता. हालींसरां न्हिदचे वेळार थोडें वाचन जाता.

**श्रध्दा:-** जिवितांत जबाबदारी सुचोवणी दिनासतना अचकीत येता. तुमचो अणभव सांगशात?

**नयना:-** जबाबदारी म्हजे खातीर सत्कर्माची वारी अशें म्हणल्यार जबाबदारीचें वजें जाणवना अशें म्हजी आजी म्हणटाली. ही म्हणणी म्हज्या मनार कोरांतून उरली. धावी जातकच बाबान म्हणलें, 'ताई शिकतां शिकतां म्हजे कडेन पार्ट टायम नोकरी करता. तुका जाय जाल्यार तुवेंय करूं येता'. हांवें पळयलें. ताई शिकतालें, पूण ताका आपल्या गरजां खातीर बाबा कडेन हात पसरचो पडनाशिल्लो. हांवेंय मनांत गांठ मारली. म्हजें शिक्षण, लग्न आनी हेर सगलो खर्च हांव म्हजेच जोडींतल्यान करतलें. ह्या विचारान म्हाका ह्या पार्ट टायम नोकरेची जबाबदारी घेवंक उमेद आयली. मगीर हांवें स्वताचोच ल्हानसो झेरॉक्स-अमोनिया प्रिन्टिंगेचो वेवसाय सुरू केलो. त्या वेवसायानूय खूब जोडलें. म्हजो फ्लॅट घेतलो. तेन्ना ती जबाबदारी घेवंक नाशिल्ली जाल्यार हांव दुसऱ्यांचेर निंबून अशें उरतलें आसलें.

शालेय जिणेंत आसतना एक फावटीं गोंयकार आनी भायले हांचे मदीं वास्कोंत खर झगडें पेटलें. खिणाखिणाक अमक्याक पेटलो, तमक्याक धांवडायलो अश्यो खबरो येताल्यो. आमी सगलीं घरांतूच बसून राविल्लीं. रात सरली आनी फांतोडेर आमच्या घरा फाटल्या घरांतल्यान किंळच्यो आयकूंक येवपाक लागल्यो. आमी दार उकतें करून भायर



धांवलीं, पळयल्यार नेव्हीचे पुलीस प्रत्येक घरांतल्या दादल्यांक भायर काडून बडयतात. आमी येतकच पुलीस धांवले. हाची खबर सरकाराक कळोवपाक जाय असो बोवाळ जालो. ही जापसालदारी आमची अशें तेन्ना म्हाका आनी कपेला कडल्या एका तरणाट्याक दिसलें.

कोंकणी भाशा मंडळाची 'साहित्य उपासना' हे म्हयनाळे कार्यावळीची जबाबदारी अचकीत दोतोर राजेंद्र हेगडे हांणी म्हजेर सोंपयली. खरें म्हणल्यार तेन्ना ती म्हजे कडेन जातली हाची म्हाका खात्री नाशिल्ली. कारण म्हाका घरा कडेन खूब प्रॉब्लेम आशिल्ले. पूण ती म्हजे कडेन जातलीच असो दोतोराचो आशावाद म्हाका ह्यो कार्यावळी निरंतरपणान दोन वर्सांच्या एका टर्माकूच न्हय जाल्यार सेगीत तीन टम ींनी करपाची उर्बा मेळ्ळी. ह्या कार्यावळींतल्यान वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर भासाभास, साहित्यीक चर्चा, कविसंम ेलना, पुस्तक प्रकाशनां अश्यो जायत्यो कार्यावळी आयोजीत केल्यो आनी जबाबदारी बरी निभायली. ह्या सगल्यांच्या कौतुकान समादानी जालें. कोंकणी भाशा मंडळान म्हजेर सोंपयिल्ली 'भांडारी'पदाची जापसालदारीय हांवें म्हजे वायट परिस्थितींतूय योग्य तरेन निभायली.

जाका कन्स्ट्रक्शनाचें मातीगुण्यांचेंय गिन्यान ना त्या म्हजेर म्हज्या घरकारान बिल्डर म्हणून जबाबदारी दिली. माथ्यार दिल्लें पाटें व्हडलें. तरीय चेपणाक पडिल्ली म ान वयर काडपाचो यत्न करीत हांवें घरकाराच्या दोळ्यां आड घडपी जायत्यो गजाली दाखोवन दिल्यो. देखीक म्हज्या भागिदाराचीं फटींगपणा, सयो घेवन गेल्ले चेक पूण पुरुशप्रधान संस्कृतायेचो वारसो म्हज्याय घरांत चलतालो. देखीक थंय दुर्लक्ष करून गाफील राविल्ल्या घरकारान सगलो संवसार बुडयलो. त्या त्सुनामींतल्यान नाका-तोंडांत उदक गेल्लें आसतनाय अचकीत आयिल्ली संवसाराची जबाबदारी सांबाळपाचो हांवें यत्न केलो. खूब उतळताप भोगले, अपमानीत जालें, जीव दिवचो अशे प्रसंग आयले. तरीय मनाचेर ताबो दवरून संवसार तिगोवन दवरपाचो यत्न केलो आनी अजुनूय करीत आसां.

सगल्यांत व्हडली जबाबदारी हांवें पेल्ली ती पत्रकार म्हणून. गांठीक कसलोच अणभव ना तरीय म्हज्या इश्टान संदेश प्रभूदेसायान म्हजेर ती जबाबदारी सोंपयली. ना म्हणप शक्य नाशिल्लें. कारण ती नोकरी म्हजी गरज आशिल्ली. तुजे कडेन जातलें! हो संदेशान दाखयिल्लो विश्वास आनी 'कसलेंय सवंग करूं येता पूण पयशांचें सवंग करप कठीण नयन' म्हणून ही नोकरी हांवें करची म्हणून म्हज्या फाटल्यान राविल्लें नूतन साखरदांडे. हीं तरीं म्हजीं मनशां. सुनापरान्ताचे वेवस्थापक भौ. विनोद शेटया हांणी म्हज्या पन्नासाव्या वाडदिसा वेळार जाल्ल्या पुस्तक प्रकाशनार काडिल्लीं उतरां- नयनाक आमी सांगिल्लें तुका तीन म्हयन्याचो





अवधी दितात. तो मेरेन तुका कंपोजींग, बी जमलें जाल्यार बरें आसा. नाजाल्यार तुका काडचें पडटलें. अशें सांगुनूय नयन आपलो सगलो संवसार घेवन पणजे आयलें. तेन्ना दिसलें, जातलें काय हाचे कडेन ? पूण अभिमानान सांगतां, ताणें तीन म्हयन्यां भितर कंपोजिंगूच न्हय सगलीं कामां शिकून घेवन आपली जबाबदारी खूब बरे तरेन निभायली.

ही जबाबदारी निभावपाक म्हाका सुनापरान्तातले म्हजे इश्ट अनंत साळकार, दीपक देसाय, शरद सातार्डेकार, संजय बोरकार, गीता महाजन, महेश दिवेकार आनी सविता बोरकार हांचो खूब आदार जालो. हांगां सगलीं फुलांच मेळ्ळीं अशीं ना. खिणाखिणाक कांट्यांनीय म्हाका बुचकायलें. रगतबंबाळ केलें. नोकरी सोडून दिवची अशे अपमानीत खीण कांय लोकांनी म्हज्या वांट्याक दिले. पूण जबाबदारीची दोरी सोडली ना. ती घट्ट धरून हुमकळत रावलें. पांय थिरावसर.

खरेंच Responsibility finds a way हाची प्रचिती म्हाका पावला पावलांर येत रावली.

**श्रध्दा:–** जिवितांत आव्हानां येतकच तणाव आपशींच येता. अशे परिस्थितींत कशें जगप?

**नयना :–** 'ल्हारांचे उरफाटे दिकेक पेंवता तो जिणेंत येसस्वी थारता' अशें भुरगेपणांत जायते फावट आयकतालें. त्या वेळार म्हज्या कविमनाक त्या आकांत ल्हारांनी बुचकळपी मनीस दिसनासलो. त्या ल्हारांचें देगेर फेंसाळ फुटप मनाक ओढून घेतालें. पूण जेन्ना हांव असल्या ल्हारांनी फारावलें तेन्ना त्या आव्हानांक तोंड दितां दितां, तांतूंतल्यान सुटपाची आकांताळी धडपड करतना जीव कसो गोळाक लागता हाचो अणभव म्हाका आयलो. तेन्ना येवपी हो ताण शारिरीकूच नासलो, तकली फुटोवन उडोवपी मानसिकूय तणाव आसलो. अचकीत आयिल्ल्या निश्कांचनतायेच्या ल्हारांनी गात्रां खिळखिळावन सोडलीं, आसत्याचें नासतें करून बेघर करपी ल्हारांनी घुस्मटावन सोडलें. वेंतभर पोटाच्या कूसभर भुकेच्या ल्हारांनी अपमानीत करून सोडलें. अशे वेळार 'कोण कोणाचो नासता' हाचो प्रत्यय दिवपी ल्हारांनी सामकें बुचकळावन उडयलें. पूण बुडटा आसतनाय हात पांय हालोवन म्हज्या वांगडा म्हज्या संवसाराकूय वाटावंक जाय हे जाणविकायेक हांवें मनार कोरांतून तकली थीर दवरली. सगळ्या वटांनी म्हजेर घुरी घालपी ताण-तणाव हातूंतल्यान भायर सरपाक देवार आशिल्ली म्हजी आस्था जागयली, म्हजो आत्मविस्वास जागयलो. हे वेळार म्हज्या फाटल्यान धिटायेन उबो रावन म्हाका धीर दिलो तो म्हज्या भितरल्या 'लेखका'न. ताणें म्हाका चोयवशींत पळोवपाची नदर दिली. ते नदरेंतल्यान कितल्याशाच लोकांची दुखयाळी जीण म्हज्या काळजाक आफडीत गेली. त्या दुख्खाक हांवें उतररूप दिवन कागदार मांडपाक सुरवात केली आनी कितें अजाप म्हज्या दुख्खाचेर ल्हवपीक फूंक मारून म्हज्या म्हाका तणावांतल्यान कांय प्रमाणांत कांय जायना, मुक्त करून म्हज्या ओंठार हांसो फुलोवंक म्हाका येस मेळ्ळें.

अजुनूय गोमटेक आशिल्लो तणावाचो फांस सुटूंक ना. पूण तणावाक नदरे आड करून जगपाक शिकपाक जाय जाल्यार आमी सकयलीं उतरां मतींत दवरपाक जाय.

जिंदगी जिना आसान नही होता,<br>
जिंदगी को आसान बनाना पडता है।<br>
इसलिए कुछ सब्र कर, कुछ बर्दाश्त कर<br>
बहुत कुछ नजरअंदाज कर।





**श्रध्दा:–** तुमी वेगळ्या वेगळ्या साहित्य संमेलनांनी वांटो घेतला. हे विशीं तुमचो अणभव कितें?

**नयना:–** कोंकणी साहित्य संमेलनांनी सहभागी जावपाची सुवर्णसंद म्हाका तरणे पिरायेरूच मेळिल्ली. ते दीस म्हणजे म्हजे खातीर एक व्हड घरगुती दबाजो आसतालो. त्या दिसांनी मेळपी म्हालगड्या साहित्यिकांचो सहवास, तांच्या साहित्याचो रस्वासाद, कोंकणी मुखारल्या आव्हाना विशीं चलिल्ली भासाभास आयकतना ह्या विशाल साहित्य प्रवाहाचो आपुणूय एक ल्हानसो बिंदू म्हणून खूब खोस भोगताली. हांगा आमकां माचयेर स्थान नाशिल्लें आनी आमकां ताची खंतूय नासताली. आमी उमळशिकेन रावतालीं तीं रातच्या जेवणा उपरांत जातल्या कविसंमेलनाक. जंय म्हालगड्यां मुखार आमकांय कविता सादर करपाची संद मेळटाली. आमचे खातीर तो उत्सव आसतालो.

ह्या साहित्य संमेलनांत सगळीं एक कुटुंब कशीं रावतालीं. कोण ल्हान व्हड ना, ना जात-पात-धर्माच्यो मेरो, ना उंच-उणाकाच्यो वणटी. ही कुटुंबाची भावना आमचे मदलो आत्मविस्वास जागयताली.

पूण मागीर मागीर अश्या संमेलनांनी नकळटना कांय मेरो पडटना दिसूंक लागल्यो. मानपान, म्हालगडेंपण, मानधन, राबित्याची आपले खातीर वेगळी वेवस्था, वेगळेवेगळे पंगड अशे वांटे पडटना दिसूंक लागले. कोंकणीक बरे दीस येवंक लागल्यात हाची ती सुलूस आसली आनी सुलूस आसली 'कोंकणी कुटुंब' हे वेवस्थेक 'सुरूंग' लागपाची. साहित्य संमेलनांत 'सत्ता हातांत आसल्यार' हाची प्रचिती येवपाक लागली. ह्या 'सत्ताधाऱ्यां'ची झळ म्हाकाय एक दोन फावटीं हुलपावन गेल्या.

कोंकणी साहित्य संमेलनां भायर हांवें 'अखील भारतीय कवयित्री संमेलनां'नीय वांटो घेतला. हीं संमेलनां देशाच्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांत जातालीं. एक राष्ट्रीय माची गोंयच्या कवयित्रींक मेळटली ह्या उद्देशान हांवेंय हांगच्या कांय तरणाट्या कवयित्रींक थंय व्हेलें. पूण 'घरां घरांत मातयेच्योच चुली' हाची प्रचिती हांगाय म्हाका आयली. 'सत्तेची आस' मनशाक कितली घाणायता तें पळोवन हांवें ती माची सदां खातीर बंद केली.

आकाशवाणी वतीन दरवर्सा प्रजासत्ताक दिना निमतान भौभाशीक कविसंमेलन आयोजीत करतात. एका वर्सा म्हाका ह्या भौभाशीक कविसंमेलना निमतान भोपाळ वचपाचो सुयोग आयलो. म्हजी 'सगळें आतां इतिहासजमा' ही कविता 18 भाशांनी अनुवादीत जाल्ली. म्हज्या कविता सादरीकरणांत एक खाशेलेंपण आसा हें म्हाका ह्या संमेलनांत सगल्यांच्या तोंडांतल्यान आयकतकच कळ्ळें. खूब खोस भोगली. खरें म्हणल्यार त्या वेळार आकाशवाणी फकत स्लिपर क्लासाची तिकेट आनी एक हजार मानधन दिताली. पूण ह्या संमेलनान दिल्लें समाधान ताचे चारपटींत आसतालें. एक याद कशी तें संमेलन सासणाचें उरलें.

तिरूर हांगा जाल्ल्या राष्ट्रीय थुंचन फेस्टिव्हलाक 'माय फेलो पोयट्स' ह्या विशयाचेर उलोवपाक म्हाका आपयिल्लें. नामनेचे मलयाळम कवी थुंचथु रामानुजन एजहुथंचन (Thunchathu Ramanujan Ezhuthachan) हांच्या

सन्मानार्थ दवरिल्ल्या ह्या साहित्य फेस्ताक साहित्य प्रस्नमंजुशा, कविता सर्त, कवी आनी साहित्यिकांचो मेळ, कला फेस्त, भारतीय गायन, साहित्यिकांची मिरवणूक अश्यो कार्यावळी आशिल्ल्यो. मुखार शालेय आनी महाविद्यालयीन भुरग्यांची गर्दी. शांततायेन व्याखानां आयकुपी भुरगीं आनी सामान्य मनीस- साहित्या कडेन तांची जीण कितली निगडीत आसा हाचो दिश्टावो दितालीं. उपरांत त्या मातृभक्त विद्यार्थ्यांनी मातृभाशेंत विचारिल्ले प्रस्न...समन्वयकान त्या प्रस्नाक इंग्लिशींत अणकार करून आमचे कडल्यान मेळयिल्ली जाप परती तांकां मलयाळमांत सांगपाची कुशळटाय पळोवन जीव धादोसलो आनी आमचे कोंकणीचे आवतिकायेक हातभार लावपाची लोकांची तिडकूय मारली. थंय हांवें पळयलो साहित्यिकांचो जावपी भौमान. नामनेचे साहित्यीक ज्ञानपीठ जैतिवंत एम. टी. वासुदेवन नायर थंय येतकच सामान्यांतलो सामान्य मनीस तांचे मुखार नतमस्तक जाल्लो हांवें पळयलो. तांचे हस्तुकीं शाळेंत पयलेच फावट वचूंक तयार आसपी भुरग्यां खातीर केल्लो 'विद्यारंभम्' सुवाळो, जातूंत त्या भुरग्यां मुखार दवरिल्ल्या तांदळाच्या ताटांत 'हरिश्री गणपतेय नमह:' बरोवन मागीर भांगराचे मुदयेन त्या भुरग्यांचे जिबेर तीं उतरां बरयिल्लीं पळोवन धन्यताय भोगली. साहित्य, शिक्षण आनी समाज हांचे मदीं आशिल्लें नातें पळोवपाक मेळ्ळें.

स्पॅरो-सावंड एण्ड पिक्चर आर्किव्हस फॉर रिसर्च ऑन वूमन रायटर्स कॅम्प 2006 त गोंयच्या दोन साहित्यिकांक वांटो घेवपाचें भाग्य लाभिल्लें. एक डॉ. जयंती नायक आनी दुसरें हांव. अख्ख्या भारतांतल्यान नामनेच्यो लेखिका हांगा हाजीर आशिल्ल्यो. हें राष्ट्रीय संमेलन अलिबाग हांगा आशिल्लें. मुंबय सावन अलिबाग मेरेनच्या प्रवासांत सगळीं सामकीं थकिल्लीं. बशींतल्यान थकून भागून म्हणटात तशीं देंवलीं. थंय आशिल्ल्या जार्दिनांत पावलां घालीं मात, सगळीं जाणां सामकीं चार्ज जाल्ले भशेन जालीं. प्रत्येक रुखाक मनीसभर लाबांयेचो तकटो लायिल्लो. जाचेर प्रत्येक कवयित्रीचो फोटो, तिची कविता वा कथेचो वांटो ते ते भाशेंत आनी ताचो अणकार आशिल्लो. सगळीं आपापलो तकटो सोदूंक धांवूंक लागलीं. खीणभरांत थंय चैतन्य सळसळपाक लागलें. कविता वा कथा हांचे विशय कशे वेगळे तरेचे आसूं येतात आनी कवयित्री ते कशे निर्भयतेन सादर करतात हाचो दिश्टावो त्या संमेलनांत जालो. ह्या संमेलनांत साहित्य अकादेमी जैतिवंत अंबाय वांगडा, कुट्टी रेवती, अरुणा ढेरे, कोंडाविती, सलमा, सुखवंत कौर मान, प्रतिभा रे, कविता महाजन, झैतांगपूय, सिसिलिया सयत 53 महिला साहित्यीक हाजीर आशिल्ल्यो. हांगा सकाळचो नाश्तो जातालो तो तर अप्रूपच. भारतांतल्या प्रत्येक प्रांतांतले जिनस आसताले. निमाण्या दिसा 'ऑन द फ्लोर' हे कार्यावळींत सामकें मुक्ततायेन नाचून एक वेगळी खोस हांवें भोगली. हें संमेलन म्हज्या साहित्यांत खास करून कथा बरोवपांत म्हाका एक वेगळी नदर दिवन गेलें.

**श्रध्दा:-** दर एके व्यक्तीन अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आसप कित्याक म्हत्वाचें?

**नयना:-** हांव केन्ना केन्ना 'दिवपी हात' आनी 'घेवपी हात' हांची तुळा करतां. दिवपी हातांक एक समाधान आसता. घेवपी हातां मदीं एक वेदना झळकता. हे वेदनेची शिकार जाल्ल्या मनशाक आपलेय हात दिवपी आसचे अशें दिसता. पूण अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आशिल्ल्या हातांकूच दिवपी हात जावंक मेळटात.

अर्थीक नदरेन कोणाचेरूय निंबून आसल्यार घरांत तशेंच भायरूय स्वताक परत परत सिद्द करचें पडटा. वेळ प्रसंगार तडजोड, अपमानूय सोंसचो पडटा. केन्ना केन्ना अर्थीक सहाय्य मागिल्ल्या मनशां कडेन संबंदूय पयसावतात. अशे वेळार आपूण असहाय्य आशिल्ल्याची जाणीव जाता आनी मानसीक चेपण येता. पूण अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आशिल्ल्यांची घरांत तशेंच समाजांत लोक योग्य दखल घेतना दिश्टी पडटात. ते व्यक्तीच्या मतांक मोल आसता. तिचो योग्य सन्मान जाता. तिका आदर मेळटा.

जे परी शिक्षणान आत्मभान येता, तेच परी अर्थीक स्वावलंबनान आत्मनिर्भरताय येता. शिक्षण आनी अर्थीक स्वावलंबन व्यक्तीचो आपूण स्वयंपूर्ण आसा हो आत्मविस्वास जागयता. म्हज्या स्वताच्या अणभवांतल्यान ही जाप दितना एक कुटुंब अशें उदाहरण घेवन त्या कुटुंबांतले दरेक व्यक्तीच्या अर्थीक स्वावलंबना विशीं विचार करुंया. एका कुटुंबांत एकूच व्यक्ती अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आसा आनी हेर लोक तिचेर निंबून आसात जाल्यार ह्या कुटुंबांत भुरगे बाळांक योग्य शिक्षण, न्हेसप-पांगरप, जेवण खाण हांचेर सुमारा वयर तडजोडीचे प्रसंग येतात. जर कुटुंबांतले सगळेच लोक अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आसल्यार तांकां आपल्याक जाय त्या प्रमाण कुटूंब चलोवंक मेळटा. एक व्यक्ती आसता तेन्ना बचतूय जायना. कुटुंबांतलो दर व्यक्ती अर्थीक स्वावलंबी आसल्यार बचतूय जावं येता.

**श्रध्दा:-** एके अस्तुरेन दुसऱ्याचेर निंबून रावचें पडूंक जायना म्हणून घरांतलीं खंयचीं कामां स्वता शिकून घेवप म्हत्वाचें ?

**नयना:-** अस्तुरेच्या कामाक एके मर्यादेंत बांदप म्हाका पयलीं पसून आवडना. भुरगेपणांत चवथीक वा हेर देवाधर्माच्या कार्याक माळ्यार चडून व्हडले व्हडले तोप बी सकयल काडून दिवप हीं कामां हांव करतालें. म्हाका म्हजीं भावंडां 'भीम' म्हणून चाळयतालींय. आमगेर लाकडां फोडपाक एक मनीस येतालो. एक दीस तो सांगिल्ल्या दिसा आयलो ना. लाकडांची गरज आसली. हांवें त्या दिसा कुराड उबारली आनी जमता तश्यो लाकडाच्यो कापट्यो आवयक करून दिल्यो.

लग्ना उपरांत फ्लॅटांत रावपाक गेलें. गॅसीचो नवो सिलिंडर लावपाक म्हाका कळनासलें. बिल्डिंगेंत सगल्याक भोंवलें. खंयचेच बायलेक तो लावंक येनासलो. तांकां मदत करपी दादलेय घरा नासले. त्या दिसा हांवें बाबा पुता करून रस्त्या वयल्या एका मनशाक घरा आपयलो आनी सिलिंडर लावन घेतलो. ती पयली आनी निमाणी खेप. घराचो घंयराव काडपा पसून, रेशन हाड, बाजार हाड, सेमी ऑटोमेटीक वॉशींग मिशीन बंद पडल्यार फाटली वट उकती करून कितें जालां तें सोदून काड आनी जमल्यार सारकें कर, बल्ब गेलो जाल्यार दुसरो लाय, गॅस शेगडेचे बुराक लीप कर, गॅसीची वायर बदल अशीं एका तेंपार दादल्याचें काम म्हणून म्होर लायिल्लीं कामां शिकून घेवपाक जाय. जितलीं दुसऱ्याचेर निंबून तितलीं असहायता तुमकां जाणवूंक लागतलीं.

**श्रध्दा:-** जिवीत जगतना मन शांत दवरप कित्याक म्हत्वाचें आनी तें कशें शांत दवरप ?

**नयना:-** भुरगेपणांत (आतांय बी) आमी तिनसांजेर परवड म्हणटालीं आनी निमाणे कडेन एक मागणें मागतालीं. 'देवा, आमी तुजीं भुरगीं नेणार. आमकां बरी बुद्द, सूख, समाधान, भलायकी आनी शांती दिवची'. तेन्ना सावन ह्या 'शांती' उतरा कडेन म्हजो संबंद. पूण संबंद काना पुरतो मेरींत. मना कडेन शांतीचें एक कुसूय लागनाशिल्लें. चड वेळ शांती पातळ्ळी, वा शाळेंत प्रार्थने वेळार कोणा खातीर एक मिणटाची शांतताय पाळपाची आसली काय म्हजी अशांतताय चाळवताली आनी पोटांत कवळो येसर हांसो फुट्टालो. म्हज्या सांगाताक बाकीचीं भुरगीं हांसतालीं. पूण हो हास्यस्फोट म्हजे खातीर जाला हें कोणाक कळनाशिल्लें.

पूण म्हज्या नशिबान म्हाका ह्याच अशांत, स्फोटक घडणुकांच्या म्हासागरांत शेवटून उडयलें आनी ही शांती जियेवपा खातीर कितली गरजेची आसता हाची जाणीव जाली. फॉरसेप्स डिलिव्हरीन म्हजे धुवेची केल्ली अवस्था, साळावले धरणाची केस जिखपा खातीर घरकारान तिजोरी खालीं केली पूण ताच्या कश्टाचे पयशे दुसऱ्या वकिलान जेन्ना आपणेच खाले तेन्ना आनी कन्स्ट्रक्शनाच्या नांवान सुखी संवसाराचें जाल्लें डिस्ट्रक्शन हाचे खातीर अशांततायेच्या भोंवऱ्यांत हांव सांपडलें.

म्हजो स्वताचो वेवसाय सुरू करतना बाबान म्हाका एक तकटो भेट दिल्लो. ताचेर 'When everything seems to be finish remember future remains' अशें बरयिल्लें. ह्या उतरांनी म्हाका म्हज्या मनाक शांत दवरपाचो यत्न करपाची उर्बा मेळ्ळी. मन अशांत आसप म्हणल्यार तेल रकिल्ले सुवातेर पडून परतें परतें उठून चलपाचो यत्न करप. तें काम खूब कठीण खरें पूण खूब गरजेचें. थंयच्यान उठून भायर सरना जाल्यार तूं अंतर्बाह्य हालता. तुजें हालप तुज्या आशिकुशीकच्यांकूय हालोवन, गोंदळावन उडयता. खंयच स्थिरता उरना. येद्या येद्या कारणान मन उंचाबळीत जाता, खरशेता, निरशेता आनी निमाणें तोंकाची भुमिका घेवपाचें मन जाता. हें सगलें आडावपाक जाय जाल्यार मन शांत दवरप सामकें गरजेचें.

मन शांत दवरपाक जाय जाल्यार आपलो आत्मविस्वास पयलीं खर करपाक जाय. आपणें फकत निर्धार करपाचो आनी आपल्या फाटल्यान एक अनामीक शक्त आसा ती आपल्याक सांबाळटलीच म्हणपाचो विस्वास बाळगुपाचो. हो विस्वास जागयता तुज्या निर्शेल्ले मनाक, तुका दाखयता भविश्याचें सपन, तें घडये तुजे खातीर नासत, तुज्या कुटुंबांतल्या मनशां खातीर आसत, त्या सपनांक हातासपा खातीर खर प्रयत्न करप. ते अदृश्य शक्तीचें जावं देवाचें नामस्मरण करप, 'आय वील फायट' हें स्पिरीट दवरप. ह्या प्रयत्नांक थोडें कांय जायना जेन्ना येस मेळटा तेन्ना मन शांतीचे एके अवस्थेंत पावता.

खरें म्हणल्यार मन तशें पुरायेन शांत जायच ना. पूण जितली जितली शांततायेची सावळी मेळत वता तितलें तितलें मन शितळ जायत वता.

**श्रध्दा:-** नवोदीत बरोवप्यांक आनी अस्तुरींक संदेश ?

**नयना:-** संदेश म्हणचे परस एक विचार सांगीन दिसता अस्तुरी आनी नवोदीत बरोवप्यांक खर प्रयत्न करतल्यांक कितेंच अशक्य आसना.

# नयना नंदकिशोर आडारकार हांची यशां

‘सुनापरान्त’ दिसाळ्यांत उपसंपादक आनी ‘भांगरभूंय’ दिसाळ्यांत ज्येशठ उपसंपादक म्हणून काम केलां.
‘सुनापरान्त’ आनी ‘भांगरभूंय’ दिसाळ्यांत स्तंभलेखन केलां. सुनापरान्तांतल्या आयतार पुरवणे खातीर नामनेच्या व्यक्तींच्यो मुलाखती घेतल्यात.

## प्रकाशीत साहीत्य

**कविता संग्रह–** 1-प्रतिमा , 2- मनसांवर, 3- किसरां
**कथा संग्रह–** 1- स्पंदन, 2. कृष्णचूड (प्रकाशनाचे वाटेर)
**ललीत निबंद–** 1- पोवनां , 2- चांफो , 3- कांटेकुंवर, 4- बटमोगरीं.
**बालसाहित्य–** 1- रानांतल्यो काणयो, 2- हिरन आनी वास्वेल 3- पिटकुल्यो काणयो, 4- सोश्याची मावशी, 5- मस्तूल, 6- टिटू-मिटू-पिटू, 7- कुटुन्यो, 8- चिटूर पिटूर काणयो किटूर, 9- कासवाचें घर, 10- चिपकू चिन्टूलें, 11- भिरमुट्यो, 12- रानपिसां, 13- चिन्नी मूय, 14- फुलपाखो, 15- रागार-फुगार, 16- आमी तीं आमीं, 17- बेलाबायचो शंकर आनी हेर काणयो
**सुनापरान्त आयतार पुरवणे खातीर ५० वयर बालकाणयांचो कोंकणींत अणकार**

## अणकार –

1) साहित्य अकादेमी खातीर ‘लोग भूल गये’, ‘सुनो कहानी’ आनी ‘आलोक’ ह्या तीन पुस्तकांचो कोंकणींत अणकार.
- नॅशनल बूक ट्रस्टा खातीर ‘नेपाली मेंढक के साहसी कारनामे’ ‘मधुमख्खीयोंकी वापसी’, ‘सूरज-चंदा’ कोंकणीत हाडलां.
- ‘विवेक किरण’ हें इंग्लीश त्रैमासीक कांय वर्सां कोंकणींत अणकारीत केलें.
- ‘मनसांवर’ कोंकणी कविता संग्रहाचो कवी श्री राज मेहेर हांणी हिंदींत भावानुवाद केला.
- कथा, कवितांचो हिंदी, कन्नड, मल्याळम, इंग्लीश अणकार

## कवितांचो आसपाव –

1) गोवा उच्च माध्यमीक बोर्डाच्या 12वेच्या अभ्यासक्रमांत
2) महाराष्ट्र उच्च माध्यमीक बोर्डाच्या 12वेच्या अभ्यासक्रमांत
3) गोवा युनिव्हर्सिटीच्या बीएच्या अभ्यासक्रमांत
4) इंटरनॅशनल एन्थॉलॉजी ओफ पोयम्स आसाम
5) एन्थॉलॉजी ओफ कर्नाटक अकादमी
6) साहित्य अकादमीचें भारतीय साहित्य आनी इंडियन लिटरेचर त्रैमासिकांत

## कथांचो आसपाव –

1) रॉक जर्नल, लंडन, 2) शॅल विन्डोज शॉर्ट स्टोरी एन्थॉलॉजी, 3) मनसून विन्डस् शॉर्ट स्टोरी एन्थॉलॉजी
4) रिव्हर ओफ फ्लॅश इंडियन शॉर्ट स्टोरी फिक्शन 5) आलेफ बूक कंपनी एन्थॉलॉजी

## कवितांचें वाचन –

1) अखील भारतीय आकाशवाणीचें भोवभाशीक कविसंमेलन. भोपाल जाल्लया ह्या कविसंमेलनांत ‘सगळें आतां इतिहासजमा’ हे कवितेचो सगळ्या भारतीय भाशांनी अणकार जालो.
2) स्पॅरो सावंड एन्ड रिसर्च आरचिव्हजच्या बायल लेखकांच्या काशीद, अलिबाग हांगा जाल्ले कार्यशाळेंत वांटो.
3) गोंय प्रजासत्ताक दिसा निमतान राष्ट्रपतीचे भेटेक ह्या केंद्र सरकाराच्या कार्यावळी अंतर्गत राष्ट्रपती सर्गेस्त अब्दुल

कलाम हांका भेट दिवपा खातीर दीपा मुरकुंडे, अनिता पिंटो, तुकाराम शेट हांच्या वांगडा नयना आडारकार ह्या नांवाचो आसपाव.

4) साहित्य अकादेमी वतीन अहमदाबाद, पुणे, जम्मू, मंगलुरू, दिल्ली, मुंबय आनी गोंयांत जाल्ल्या कविसंमेलनांनी, कार्यशाळेंनी वांटो
5) थुंचन फेस्टिव्हल- तिरूर केरला माय कॉन्टेम्पररी पोयटस् ह्या विशयाचेर इंग्लीशींतल्यान पपत्र वाचन.
6) केरला कोंकणी अकादेमीवतीन आयोजीत उक्ते मळब कार्यावळींत कविता सादरीकरण.
7) 'त्रिवेणी' ह्या कार्यक्रमा अंतर्गत गोंय, मंगलुरू, मुंबय, कारवार हांगा कवयित्री नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे सांगातान कविता सादरीकरणाच्यो 50 वयर कार्यावळी
8) अखील भारतीय कविसंमेलनावतीन गुजरात, दिल्ली, पुणे, हैदराबाद, कर्नाटकांत जाल्ल्या कविसंमेलनांनी कविता वाचन.
9) अखील भारतीय कोंकणी परिशदेवतीन कोची, बेळगांव, गोंय, कारवार जाल्ल्या संमेलनांनी कविता वाचन.
10) गोवा दूरदर्शन, आकाशवाणी, भोपाल आकाशवाणी, मंगलूर आकाशवाणीचेर कविता वाचन, दूरदर्शन, आरडीएक्स, प्रायम टिव्ही चॅनलाचेर सादरीकरण.

### साहित्याक पुरस्कार

1. गोंय सरकाराचो 'यशदामिनी पुरस्कार'
2. डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन प्रशस्ती पुरस्कार
3. केरला प्रचार सभेचो सरस्वतीबाई साहित्य पुरस्कार
4. अखील भारतीय हिंदी साहित्यसंमेलन अलाहाबादचो राष्ट्रभाषा गौरव पुरस्कार
5. गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार
6. कोंकणी भाशा मंडळाचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार
7. अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाच्या हैदराबाद जाल्ल्या अधिवेशनांत कविता संग्रहाक डॉ. चंपाप्रसाद पुरस्कार.
8. अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाच्या दिल्ली जाल्ल्या अधिवेशनांत कोंकणींतल्यान काव्यसेवा केल्ले खातीर काव्यसेवा पुरस्कार
9. अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाच्या गुजरात जाल्ल्या अधिवेशनांत श्री मान अरविंदाश्रम पुरस्कार
10. बिम्ब परिवारा वतीन बालसाहित्याचो विजयाबाय सरमळकार बालसाहित्य पुरस्कार
11. कुडचडे कोंकणी साहित्य केंद्रा वतीन बालसाहित्याचो मथा पुरस्कार
12. कोंकणी भाशा मंडळा वतीन मनोहरराय बालसाहित्य पुरस्कार

### पदां हाताळळीं

1. कोंकणी भाशा मंडळाच्या कार्यकारिणी समितीचें वांगडी 2002-2008
2. कोंकणी भाशा मंडळाचें भांडारी 2004- 2006
3. कोंकणी भाशा मंडळाच्या वाचक सल्लागार समितीचें अध्यक्ष 200-2002, 2002-2004, 2006-2008
4. कोंकणी अकादेमीच्या कार्यकारिणी समितीचें आदलें वांगडी
5. अखील भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचें आदलें जोड चिटणीस
6. अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाच्या कार्यकारिणी समितीचें वांगडी 2010
7. अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाचें चिटणीस कार्यकाळ 2011, 2012, 2016
8. साहित्य अस्तुरी अस्मिताय मंचाचें अध्यक्ष

# खेळ



कालच गुगल न्युजाचेर हॉलीवूड ॲक्टर विल स्मिथ हाचें पुरायपणान जाल्लें परिवर्तन सांगपी एक आर्टिकल वाचलें. भुरगेपणांत मोगांत जाल्ल्या विस्वासघाताचो सूड म्हणून ताणें खंय अवास्तव प्रमाणांत अल्कोहोल घेतलें आनी अगणित बांयलां कडेन खंय लिंगीक संबंदय केले. तरी ताचे मनांतली सूड भावना कमी जाली ना. नशेंत आसतना लेगीत ताचें काळीज सूड...सूड... करतालें खंय! आनी तो आपलीं आनीक वेसनां वाडयतालो. कितल्याशा तेंपान अचकीत पयर फाट्टीं भारतांतल्या काशी-वाराणशींत येवन ताणें सनातन धर्म आपणायलो. आतां ताका मन:शांती मेळ्ळी काय ना हें तोच जाणां. आर्टिकलांत हाचेर आनीक कांय खुलासो ना. पूण घडये मेळ्ळी आसतय! कारण कसले तरी दुयेंसान तकलेचे पुराय केंस गेल्ले ताचे घरकान्नीचेर खंयच्या तरी अवॉर्ड फंक्शनांत अँकरान पर्सनल कमेंट करतगीर विल स्मिथान भर स्टेजीर त्या अँकराक थापटायलो. आसुं...तर हें वाचतना म्हाका आमचो मोर्तु याद आयलो.

ना..ना...मोर्तु असो हलकट, ओर्दिनाद बी न्हय आं! तोंडान, मनान, काळजान सामको म्हळ्यार सामकोच कुसको. पूण काडयेचेंय वेसन नाशिल्लो. भीष्म प्रतिज्ञा करून मोग केल्ले ते एकेच चलये कडेनच लग्न जावन आपले बायल-भुरग्यांक, नातरां-पोतरांक सर्वस्व मानून जगपी मोर्तुच्या नाकटाचीय सर त्या विल स्मिथाक येवंची ना. पूण ताचो पुत!...सगळें जग ताका बाब्या म्हणटात...तोय वयार येतना एके सुंदरीच्या मोगांत घुस्पलो. सगलो गांव हांचे लग्न जातलेंच हाचेर शेर्त आशिल्लो...कितें गडबड जाली देव जाणा...पूण ती सुंदरी एका दिसपाक सादारणा परस कमीच... पूण पयशांनी असामान्य अश्या एका दादल्या कडेन लग्न जावन गेलें शारांत. बाब्याय मोर्तुलोच पूत...ताणेंय आजन्म ब्रह्मचारी रावपाची प्रतिज्ञा केली. मोर्तुलें काळीज कल्ल जालें. काल आपणें आपले फामिलीक आपल्या मोगा कडेन लग्न जालें ना तर आनीक कोणाच कडेन जावंचो ना अशें सांगून



**आशा शानभाग**
कथा आनी ललित साहित्यांत फिशाल.
तांचो 'कोऽहंऽऽ'हो कथासंग्रह उजवाडाक आयला



जबरदस्तीन लग्न करून दिवपाक मजबूर केल्लें... तेंच दान आपले होटयेंत पडटा दिसता हें चिंतून बाबड्याचें तोंड आनीकय कुसलें. पूण मोर्तु तो मोर्तु! ताची भीष्म प्रतिज्ञा ती..! बाब्याची बेश्टी फुसकी फोगेटी! दोन वर्सां भितर बाब्यान लग्न जावन दोन कॅलेंडरां छापलीं लेगीत...पूण..

हो पूण म्हत्वाचो. बाब्यान विल स्मिथाक फॉलो केलो. ताचे भशेन पयसो वगडावपी सोरो, ड्रग्स हांका न्हयकारून ज्यो बायलो हार्ची बोल्सां दुडवांनी भरतल्यो अश्यांचो सोद घेवन तांका खोशी करून तांच्याच उश्यां पोंदचो दुडू फारावपाक लागलो. मदींच केन्ना तरी एका बऱ्या पयशेकाराली धूव ...जी मोग करून लग्न जांवनय बाब्या भशेनच व्हरायटींचो आनंद घेवपी, ताचे लक्षणांक वळखून भुल्ली. ताचे सर्विसे परस चडच दिल्ल्या भांडवलान बाब्यान आपलो सोताचो धंदो सुरू केलो. एके फॅक्टरीच्यो दोन केल्यो. एक घर आशिल्लेंच ...हिचे खुस्तार व्हडलो बंगलो बांदलो. तिच्या व्हांवत्या पयशांचो ओघ हळुच हाचे वटेन वळ्ळो.

वेसनच तें! सोरो, ड्रग्स एक वेळ रिहॅबांत व्हरून काडपाक जाता. पूण वेगवेगळ्या कुडींचें वेसन? सुटना तें...वाडतच वता. वय वाडत गेलें तसो बाब्याले सर्विसेचो दर्जोय देंवपाक लागलो..ते पयशेकार बिजीनेस वुमनेन हेर नेणट्या नेणट्या भुरग्यां कडेन सूत जमयलें...भायलो कोण नेणटो भुरगो ना तर गरजेक स्टाफांतले भुरगे लेगीत...तिकाय विंगड विंगड ताटांनी जेवणाची जाल्ली संवय! कोणच ना तर बाब्याली ढकलगाडी उपेगाक आशिल्लीच . आसुं ...बाब्यान अर्थीक नदरेन आपलें सगलें...म्हळ्यार सगलेंच साधयिल्लें. पूण हें वेगवेगळ्या कुडींचें वेसन ताका त्रास करपाक लागलें.

आपली फॅक्टरी... वेगवेगळ्या कंपन्यांच्यो एजन्सी मदीं कामांक सगल्यो चलयोच दवरिल्ल्यो बाब्यान. कमी पगार आशिल्ल्यांन त्योय बापड्यो हाचें वेसन पुराय करून इजी मनी जोडपाक लागल्यो. आतांय गुदावां शेजरा बांदिल्ल्या सर्व्हंट क्वार्टरांत बाब्याची रासलीला चलता. घरदार, गाडयो, अफाट पयसो, बायल-भुरगीं आशिल्लो बाब्या...एक हात दुदांत तर एक तुपांत दवरून जगता ...अशें सगलेच कुचकुचतात.

विल स्मिथ आनी बाब्या...दोगूय प्रेमभंगाच्या दुख्खान पेटून बायलजातीचेर तांकाच भोगून तांचे पद्दतीन म्हणून सूड घेताले. स्मिथ लाखांनी डॉलर्स ह्या बायलांचेर खर्चितालो, आपली फिल्मी जोड मोडटालो. आनी बाब्या? एके लग्न जाल्ले बायलेन ताका वापरून पयशेकार केलो. पयल्यान भरपूर दिंवन बायलजातीचेर सूड घेतलो...आनी दुसरो तांच्याच खुस्तार पयशेकार जावन सूड घेता काय? हो सूड काय खेळ?

*सादोळशें-काणकोण-गोंय. ✆ 9404145337*

| दिस्टावो |

# आमची कोंकणी पोसकी भास जावंची न्हय..!




आमचो देश आदीम काळा सावन विविधतायेन भरिल्लो. त्या भायर विस्तारान व्हड असो, तरा तरां राज्यांनी सजयल्लो आनी नटयल्लो देस. तांतूंत वेग-वेगळ्यो जाती आनी धर्म आशिल्ल्या लोकांचो राबितो म्हणल्यारच आमचो देस रंगयाळो. इतलो सगट लोक, तांचीं घरां-दारां, जेवण-खाण, न्हेसप-वावरप आनी वागप सगलेंच वेगळे. आमच्यो भासो लेगीत वेग-वेगळ्यो. पावला कणकणीं भास बदलता. उतरांचो चड-उतार, उलोवपाची तरा बदलत वता. उतरां जरी एक सारकीं तरी हातवारें करून वा हावभाव करून उलयल्ले कारणान स्वर बदलता, उतरांनी धार दिसून येता. भाशेक लागून त्या-त्या वाटाराक खाशेलेंपण येता. हेर लोकांच्या मनांत त्या लोकां बद्दल आपुलकी निर्माण जाता. आमचे जाणटे म्हणटाले, भाशाच मनशांचेर संस्कार करतात, भाशेक लागूनच मनीस घडटा म्हण आपली भास आपणेंच तिगोवन दवरपाचे यत्न करूंक जाय. ना जाल्यार हळुहळू करून भास नश्ट जावंक लागता.

आमच्यो भासो जरी वेग-वेगळ्यो तरीय सगल्या राज्यांत शिक्षणाचीं उद्दिश्टां मात एक समान आसात. शिक्षणाचे बाबतींत राष्ट्रीय धोरण थारायिल्लें आसता. ताचे आधारान शिक्षण पद्दत राबोवची सर्व सादारण तरा आसा. पुराय भारतांत कांय प्रमाणांत समांतर शिक्षण पद्दत लागू जाल्ली आसा. नवें राष्ट्रीय शिक्षणीक धोरण पुराय लागू जावंचें अशी इत्सा चडशे गोंयकार बाळगून आसात. थोड्यांक वाडिल्लें नाका सांडिल्लें जाय तसल्यांतली गजाल आमचे गोंयांत शिक्षणाच्या मळार जाताली. ती हे फावटी जावंची न्हय इतलेंच सरकारा कडेन मागणें. कित्याक काय म्हणल्यार गोंयांत शिक्षणाच्या मळार वेगळेपण दिसून येता. हेर सगल्या राज्यांत मुळावें शिकप तांचे मांय भाशेंत तर गोंयांत परके भाशेंत जाता. हरशींय जाल्यार आमी गोंयकार मातशे वेगळ्याच सभावाचे मनीस जाल्ल्यान 'गोवा के लोग अजीब हैं' अशें जवाहरलाल नेहरून गोंयकारांक लेखून म्हणिल्लें ताची ह्या खिणांक याद जाता.

आमचें गोंय सुपुल्लेंशें! शेतां-भाटांनी, दर्या-ल्हारांनी, न्हंया झऱ्यांनी, दोंगर दोंगुल्ल्यांनी भरिल्लें. त्या भायर हांगा सगले कडेन एक सारकें वातावरण आशिल्ल्या कारणान आम ची परिस्थिती हेर दुसऱ्यां राज्यां परस वेगळी आसा. तेच परी हांगा सरली भुगोलीक रचना हेर राज्यां परस वेगळी. अशें जरी आसलें तरी शिक्षणाच्या मळार आमी फाटीं उरूंक फावना म्हूण नवें शिक्षणीक धोरण पुरायपणान आपणावप सामकें गरजेचें आसा. पुरायपणान लोकशाय राज्य आशिल्ले कारणान देशाचे सुजाण नागरीक घडोवपाची जापसालदारकी शिक्षणाचेर आनी आमच्या सारक्या शिक्षकांचेर येवन पडटा. भुरगें दोन-तीन वर्सांचें जालें काय आवय बापायचेर आपल्या भुरग्यांक खंयचे शाळेंत वा स्कुलांत घालपाचीं? असो प्रस्न तांचे मुखार उप्रासता आनी तांचेर ताण येता. मागीर तांचो सरये वयलो नाच सुरू. हाका फोन कर, ताका मेळ! शेजारचे शाळेंत घालपाचें कांय कन्वेंटांत घालपाचें? इंग्लिशींत काय मराठी? काय कोंकणी शिकपाक घालचं? अशे कितलेशेच प्रस्न तांचे



एच. मनोज

पेशान शिक्षक.आदर्श समाज निर्मणेचो वसो घेवन वृत्तपत्रीय लेखन करतात.



तकलेंत घुंवक लागतात आनी त्या प्रस्नांच्यो जापो सोदूंक ते घुस्पून उरतात.

म्हजे लार्गी जायते आवय-बापूय सल्लो मागपाक येतात तेन्ना म्हजें तांकां एकूच सांगणें आसता, गोंयांत सगळीं स्कुलां एक सारकींच. खंयच्याय स्कुलांत घालात, दिफरेंस ना. कित्याक तर खुबशीं स्कुलां सरकारी अनुदानाचेर आनी सरकारान थारायिल्ले शिक्षणीक धोरणाचेर चलतात. म्हणटकच शिक्षण दिवपाची तरा आनी पाठ्यक्रम लेगीत एक सारकोच आसता. हालींसराक कांय खाजगी स्कुलांचो आसपाव गोंयांत जाल्लो दिश्टी पडटा. पूण तीं सर्वसामान्य पालकांक परवडपाचीं नात. आनीक एक गजाल हांव तांकां निखालस सांगतां ती अशी, आमची आवय भास कोंकणी जाल्ल्यान कोंकणी भाशेंत शिक्षण घेतलें जाल्यार चड बरें! भुरग्याक शिक्षक कितें शिकयता तें रोखडेंच समजता. मुळावें शिकप चड करून आपले आवय भाशेंत घेतलें जाल्यार तें खुशालभरीत जावं येता. भुरगीं आपलेच भाशेंतलीं नवीं नवीं उतरां उमेदीन आनी सोंपेपणान शिकतात. कोंकणींत शिकतना लेगीत भुरग्यांक विंगड-विंगड उपक्रमांनी वांटेकार करून घेवन तांकां सगले तरेचें गिन्यान दिवपाचो यत्न जावपाक जाय. ल्हान भुरग्यांक चित्रां काडूंक आनी रंगोवंक आवडटा. तेच परी तांकां कृती करपाक चड आवडटा. देखून तांकां अशे तरेचे उपक्रम दिवन शिकोवप केल्यार लाबाचें जावं येता. अशे तरेच्या उपक्रमांक लागून तांचें शिकप सहजतायेन जावं येता आनी तीं बेजार लेगीत जावंक पावचीं नात. कोंकणी आवय भास जाल्ले कारणान तांकां तें फायदेशीर जाताच आनी समजपाक लेगीत सोंपे जाता.जाणकारांच्या मतान आवय भाशेंत शिक्षण घेतल्यार भुरग्यांच्या गिन्यानांत हिसपा भायर वाड जाल्ली तांकां पळोवंक मेळ्ळ्या खंय!

आनीक एके गजाली खातीर भुरग्यांचें गिन्यान बेगीन वाडपाक कारण म्हणल्यार संगणक यूग. भुरगे संगणकाचो उपेग खूब बरे तरेन करपाक शकतात. नवे नवे प्रयोग संगणका वरवीं ते करतात. तेच परी भुरग्यांच्या हातांत मोबायल येत सावन तांकां वेग-वेगळ्या एप्सां वरवीं जाय-जाय त्यो गजाली शिकपाक मेळटात. हाचोच अर्थ मोबायला वरवीं तांच्या हातसून उपक्रम जावन पडटात खरे! पूण मोबायलाचो अतिरेक जावंक फावना ही एक गजाल मतींत दवरून भुरग्यांनी मोबायल वापरलो जाल्यार तांच्या गिन्यानांत भर पडटली हातूंत दुबाव ना. विज्ञान विशयाचे बाबतींत विचार केल्यार भुरग्यांक जशे प्रयोग करपाक मेळटात, जातूंतल्यान ते अणभव घेतात. तेच परी मोबायलार ते वेग-वेगळे प्रयोग करतात आनी शिकतात.

खरें म्हणशात तर मुळावें शिक्षण भुरग्यांक आपले आवय भाशेंतच दिवंक जाय. तेन्नाच तें शिक्षण तांकां सोंपें जावंक पावतलें. तेच परी तें तांचे जिणेच्या अणभवा लार्गी जोडिल्लें आसत तर मजेशीर जातलें हाचें भान आमीच दवरचें पडटलें न्हय! गोंयकारांनी आपली आवय भास सांबाळून दवरचे खातीर आपल्या भुरग्यांक ल्हानपणा सावन कोंकणी नेमाळीं आनी पुस्तकां वाचून दाखोवचीं. जशी-जशी तांची पिराय वाडटा तशी तांचे कडल्यान कोंकणी पुस्तकां वाचून घेवचीं. वेग-वेगळ्या विशयांचेर आदारिल्ल्यो काणयो तांका सांगच्यो. हळुहळू ते भाशेंतल्यान तीं वाचूंक आनी बरोवंक लागतलीं. पालक ह्या नात्यान आपूण जावन आमी जे मेरेन कोंकणी शिकोवपाचेर भर दिवचे नात ते मेरेन भुरगीं कोंकणी पासून पयसावतलीं. अशें जावचें न्हय म्हूण आमी आत्तांच पावलां मारचीं पडटलीं. आम ची भास पोसकी भास जावंची न्हय म्हूण फावो ते उपाय आतांच केल्यार बरे! अशें केलें ना जाल्यार मात फुडाराक तकलेर हात म ारून घेवची पाळी आमचेर येतली. जेन्ना आमी कोंकणी वाचन करतले आनी भुरग्यांक करूंक लायतले तेन्नाच आमचे भुरग्यां मदीं कोंकणीची आवड निर्माण जातली. जळीं मळीं चुकिची कोंकणी उपेगांत हाडटात ती अशें केल्ल्यान सुदारपाक लाव मेळटलो. जंय भाशेचो प्रस्न येता थंय चुको जावप सभावीक. पूण योग्य ती खबरदारी घेतल्यार आमी चुको टाळपाक शकतले. नवीं-नवीं उतरां समजुपाक आनी शिकपाक पावतले. आमकां हेर खंयचेच भाशेचो दुस्वास ना. पूण आमची भास आमकां बरे तरेन उलोवंक आनी बरोवंक येवंक नाका व्हय? आमचे भाशेक आमी पोसकी भास जावंक केन्नाच दिवंचे नात असो सोपूत आमी एका वेळार घेतिल्लो. आयज तो सोपूत याद करपाची गरज उप्रासल्या.

---

*वास्को-मो.9822441417*

**| ललित |**

# ब्र ह्म गां ठी



सर्वे करून व्हडलें संशोधन केल्ल्या सारकें काव्यश्री हालीं जायत्या आंतरजातीय, अंतर धार्मीक वा जाचो ताळमेळ जुळना सो दिसता अश्या जोडप्यांक, 'तुमचें कशें जुळ्ळें गो बाय?' वा 'बाब?' अशें सरळ विचारता आनी चवकशी करता. ह्या वयार असले प्रस्न विचारपाक ताका कांयच दिसना आनी तींय बी मोठ्या घोस्तान लजत, मुरगडत आपली मोगाची काणी ताका सांगतात. थोड्यांची काणी काव्यश्री जाणां. थोड्यांची तें उसपून काडपाचें काम करता. घडये फाटल्यान, 'बेकार लवडी कशें! हाका कित्याक जाय फालतू चवकश्यो?' अशें म्हणटा आसत ताका. काव्यश्रीची सामकी कडक सोयरीक म्हूण ताका अणभव ना. तुमी रोमियो आनी ज्युलियट, बाजीराव मस्तानी आनीकय खूब काणयों आयकल्यात आसतल्यो. खुबश्यो आयकून विसरलेय आसतले! जोडप्यांच्यो जोडयो जुळोवपी तो परमेश्वरच आसूंक जाय, म्हूण म्हणटाले आसत जाणटे, 'ब्रह्मगांठी ह्यो सर्गातच बांदिल्ल्यो आसतात!' आसत खरें! ना जाल्यार हजारांनी व्यक्तीं मदल्यान एकच व्यक्ती चड आवडटा कशी? तिचेरच जीव बसता कसो? कसल्या तरी रसायनांचोय आंगांतल्यान अदृश्यपणान मेळ बसता आसूंक जाय. आनी तांकां मेळोवन दिवपाचो फार्स घडोवन हाडपाक देवाचोच अदृश्य हात वा गुपीत कारस्थान आसूंकच जाय.



कल्याण
सावंत
ललित, कथा आनी कविता हातूंत फिशाल

काव्यश्रीची एक खाशेली इश्टीण प्रशांती, शेजारचो भुरगो अनंत हाच्या मोगांत पडली. अनंताक सात भाव. हाचो नंबर तिसरो. व्हडले दोन आनी ल्हान पांच. पांच जाण प्रशांती परस व्हडले. पूण तिका तिसरोच कसो आवडलो? शेर्त तो जादूच्या रसायनांचोच प्रभाव न्हय तर कितें? तिचे आनीक एके इश्टीणीचो मोग फेरीबोटींत जालो. तें एक दीस सकाळीं फुडें रातपाळयेच्यान घरा वतालें. रात भर मेडीकल हॉस्पिटलांत जागरण केल्या उपरांत घुवळ्ळां आसत वा निसरलें आसत! मुद्दाम कोण असो पडटलो? पडलें तें पडलें पूण एका चल्यान ताका उठपाक आदार दिवन विचारपूस केली. सकल पडिल्ली युनिफॉर्माची प्लास्टीकची पिशवी आनी बाकीच्यो वस्तू एकठांय करून दिल्यो. हो आनी कसलो फार्स घडयलो सैमान वा देवान? तें पडटा कितें आनी केन्ना फेरीबोटींत वचऽ नाशिल्लो तो थंय त्याच दिसा पावता कितें? वळख जाता, तें क्रिस्तांव आनी तो कोंकणो. पूण मोगाक खंय असलीं आडमेळीं लागतात? तांचे वळखीचें मोगांत रुपांतर जाता. लग्नाच्या धाग्यान बांदून घेतात. भांगराचो संवसार करतात. भुरगीं दोतोर,



इंजीनियर जातात. कोणाची करणी तर ही?

काव्यश्रीची आनीक एक इश्टीण सारा मनिपाल नर्सींग कॉलेजींत एम् एस्सी वेळार ताच्या वर्गांत शिकतालें. ताका मुंबय नर्स एड्यूकेटर म्हूण काम मेळिल्लें.दिवाळेची सुटी आशिल्ली म्हूण मंगळूर आपल्या घरा रेल्वेन वतालें. रातची चारांक ट्रेन उडपी पावली. उडपीच्यान मंगळूर पावपाक एक वर लागता म्हूण ओगी दोळे धांपून रावलें. इतल्यांत ताका एक अनवळखी नंबरा वेल्यान फोन आयलो. एका दादल्याचो आवाज,'सॉरी! म्हजी आवय चुकून, तिची म्हूण समजून तुमची सुटकेस घेवन उडपी देंवली. तसलोच रंग आनी कंपनी म्हूण न्हिदेंत घुस्पागोंदळ जालो आसत! तुमी ती दुसरी सुटकेस घेवन उतरात. तुमची सुटकेस तिजेर बरयल्ल्या पत्त्यार सकाळींच पावयतां. राग धरूं नाकात.' पलतडच्यान आवाज.

उडपी पावलें तेन्ना सारकें लक्ष दिल्लें जाल्यार अशें घडचें नाशिल्लें अशें साराक दिशिल्लें पूण उडपीवाल्याच्या मनांत कसलीं कारस्थनां आशिल्लीं तीं तोच जाणा.

बरें जालें काव्यश्रीचे इश्टीणीन आपले सुटकेसीर आपलो पत्तो आनी फोन नंबर बरयलो म्हूण! ना तर कितें जातलें आशिल्लें!

सकाळीच एक तरनाटो गाडी घेवन तिची सुटकेस घेवन आयलो. घरांत येवन उलोवप जालें. आवयच्या चुकी बद्दल माफी मागून जाली, च्या पाणी घेवप जालें. हांगाच्यान सुरू जाल्ली काणी लग्नाचो थाट जाल्या उपरांत थांबलीं.

हीच ती ब्रह्मगांठ!

थोडो मोग कॉलेजांत, कामार, क्लबांत, बर्शीत, खेळपाच्या मैदानार, जार्दीनात, वाचपा घरांत बी जमता. हालीं तर ऑनलायन मोग जमयतात. ऑनलायन कपलाचो मोग जातलो!

एकामेकांक पळोवंक मेळना, भावना जाणून घेवंक मेळना. थोडीं तर ऑफिसांत कुत्रो मांजर कशीं झगडून जाले उपरांत मोगांत पडटात.

एक मजा हांवें पळयल्ली. एकटो सरकारी एप्रेंगाद सोयरीक करून लग्न करता. जेन्ना ताडची बायल बाळंत जावपाची आसता तेन्ना बायलेची भयण मदत करूंक येता. तीच भावोजीच्या मोगांत पडून तिकाय भुरगें जाता. आतां रडप काय हांसप तें कळना जालें.

जालें तें जालें म्हूण सुशेगाद तरी रावात. सदांच झगडीं पुलीस केस, हॉस्पिटल. दोगय भयणी एक जाल्यो आनी घोवा कडें झगडीं. ताका बाबड्याक नाका संवसार जालो. तें आसूं, अश्यो खूब खबरो काव्यश्री कडेन आसात. घडये संशोधन बी करीत ते फुडें.

आनीक एकटो असोच काळजांतल्यान मोग करपी मोगी तर आंकवारच रावलो. तो जिवापाड मोग करतालो ते चलयेचेर. ते चलयेक बापायन आनी भावान मेळून दुसरेच कडेन लग्न करून दिलें. कोणाचीं तरी सपनां मोडून हांकां कितें मेळ्ळें तें कळपाक कठीण.

अशेंच जाता. एकदां एकदां रसायन जुळटा. लग्नांचीं सपनां रंगयतात आनी कोण तरी मोडें घालूंक तयार जाता वा निमताक कारण जाता. आनी तांची सपनां पिसुडिल्ल्या फुलांच्या कळयां वरीं फुलचे पयलींच पिसडून वतात.

कांय वेळार मोग एकट्या वांगडा आनी लग्न दुसऱ्याच वांगडा जाता आनी उरतात फकत यादी. मोग आनी लग्न कशेंय जावं, खंयच्याय जाग्यार जुळून येवं. पूण मोग करतल्यांनी मातशें खंबीर रावपाक जाय. आयल्ल्या संकश्टाक तोंड दिवन फुडें वचूंक जाय. इल्ले इल्ले वादांक लागून बुडकुल्याचेर फार मारूंक जायना.

एकठांय चलता आसतना चड उतार येताच. एका गोठ्यांत रावपी गोरवांचीं शिंगां जशीं एकामेकांक आपटतात तेच प्रमाण एकठांय रावपी मनशांची भासाभास जाता. आपले मर्दी तोडगो काडून बरे बशेन वाट काडटा तो शाणो. सुखा समाधानान रावूंकच जाय. मांडलेल्या संवसाराच्यो तिस्त्यो जावंक दिवंच्यो न्हय. तो संवसार सपनांनी रंगयल्लो, भावनांनी घट बांदिल्लो आसता. तो कितें भुरग्यांचो खेळ न्हय मोडून उडोवंक हें आमी लक्षांत दवरूंक जाय.

***फोंडें–मो. 9765128185***

# रजनीताई,एक पणटी तुजे खातीर!



ज्युस्त आशाड म्हयन्यांतूच तूं बरें ना जालें. तुजें बरें नासप आमचे पासत मानसीक धक्कोच आशिल्लो. अंदुची आशाड पावळी तुवें पळयल्ली निमणी आशाड पावळी आसतली अशें नियतीन थारायल्लें. सगल्या देवां कडेन सगल्यां जाणांनी सांगणें केलें,दोतोरांनी हर प्रयत्न केले, बऱ्यांतले बरे उपचार केले पूण कोणाच्याच सांगण्याक वा प्रयत्नांक यश आयलें ना,आनी दिवाळेच्या लखलखीत उजवाडांत तुजी प्राणज्योत पालवली,

ह्या साडे तीन म्हयन्याच्या काळांत तुका मानसीक आनी शारिरीक क्लेश भोगले,पूण आपल्या संयमी आनी सोशीक सभावान तुवें आपल्याक त्रास जातात हें जाणोवंक दिलें ना. निमणे मेरेन सोंसलें. कितली सहनशक्ती आसली गो तुका!

रजनी अशोक भेंब्रे म्हूण तुजी म्हजी वळख चाळीस वर्सां पयलीं जरी कोंकणी चळवळींतल्यान जाली तरी इल्ली इल्ली ती वाडत गेली. तुज्या 'घुस्मट' कथा संग्रहा पासून अंदु वर्साच उजवाडायल्लो'पांच एकांकी' ह्या नाटकुल्यांच्या पुस्तकाच्या प्रवासाचें हांव एक साक्षीदार. तुवें जरी उसरां बरोवंक सुरू केलें तरी सातत्य राखलें. कथा, काणयों,बाल साहित्य,नाटकुलीं,शिक्षणीक पुस्तकां, चरीत्र पुस्तकां कोंकणीक आनी शिकपी भुरग्यांक जशी गरज आसा तशीं तयार करून तुवें आपले परीन मोलादीक भर घाली.

सर्वोदय विद्यालयांत सगल्यांची तूं 'रजन टीचर'. भुरग्यांक घेवन आकाशवाणी आनी दूरदर्शनार तूं तरनाटेचे उमेदीन वतालें. भौ.हेमा नायकान स्थापन केल्ल्या चित्रंगी मेळाव्याच्या आयोजनांत कुडचड्यार तुजो भरीव वांटो आशिल्लो. त्या वेळार आनी ताचे उपरांतूय जावपी शिबिरां, मेळावे, संमेलना तुवें केन्नाच चुकयलीं नात. कोंकणींतल्यान पुस्तकां उजवाडावपा पासत जेन्ना तुवें 'दामोदर प्रकाशन' ही स्वताची प्रकाशन संस्था सुरू केली तेन्ना हें करपाक अशोक भावोजीचो कायम आदार आनी सहकार्य आसलें. पुस्तकां छापलीं म्हणून जायनात, तीं खपोवपाकूय जाय. तांचें मार्केटींग आनी विक्री करपाकूय एक वेगळी फिशालकाय लागता, जी तुजे कडेन आसली. नोकरी, संवसार, साहित्य आनी संघटन कार्य हाचो मेळ बसना जालो तेन्ना नोकरी सोडून साहित्याक आनी कुटुंबाक वेळ दिवप अशें बावीस वर्सां पयलींच तुवें थारायलें. तुजो तेन्नाचो निर्णय योग्य आशिल्लो अशें म्हाका आज दिसता.

हर्षा आनी शमा. तुज्यो दोन धुवो म्हळ्यार तुजे दोन दोळे! ल्हानपणा पासुनच हुशार आनी संस्कारी भुरगीं.तुवें तांका



**नूतन साखरदांडे**

कोंकणींतली नामनेची कवयित्री. तांचे 'पासवर्ड' आनी 'जीण जाली कस्तुरी' हे काव्य संग्रह उजवाडाक आयल्यात.



स्वतंत्र वाडयलीं आनी योग्य वयार, योग्य चले पळोवन लग्नांय करून दिलीं.योगायोगान दोगांय म्हज्याच नात्यांत म्हापश्यां पावलीं. हांव एक मध्यस्थ हो योगायोग म्हणूं येता. पूण तेन्नाच्यान आमचे नात्याची वीण आनीकूय घट्ट जाली.

रोखडोच तुवें म्हापश्या फ्लॅट घेतलो आनी तुजें म्हापश्यां येवप वचप आनीकूय वाडलें. दर खेपेक म्हापश्यां येतना आमचें मेळप वा फोन तरी जातालेच. ना जाल्यार चुकिल्ले वरीं जातालें. भायले भायर म्हापश्यां येवन गेलें जाल्यार हांव तुजेर हक्कान शिणटालेंय बी. मागीर तूं म्हाका तुजी अडचण समजायतालें. आतां तूं अचकीत भायले भायर पयसुल्ल्या प्रवासाक गेलें. आतां हांव कोणाक शिणूं?

तुज्या धुंवाच्यो, नातरांच्यो व्हडव्हिकायो सांगतना तुजें तोंड वळऽ नाशिल्लें! तांचे बद्दल तुका खूब गर्व आनी अभिमान आनी तो पावला पावलाक जाणवतालो. निमण्या काळाक तूं म्हापश्यां उरलें आनी तुजी खबर घेवपाक आमची आतऱ्या पयऱ्यान भेट जाताली.

''दुयेंस जालें तें जालें, चडूच जालें मगो!'' अशीं हातांत हात धरून म्हणिल्लीं हीं तुजीं हालींचीं उतरां म्हजें काळीज कातरता.

तशें तुजे विशीं अलीप्त जावन बरोवप सोपें न्हय, काळीज जड जड जाता! तुजो आतांच फोन येतलो सो दिसता. तुवें म्हजेर धाकले भयणी वरींच माया केली. म्हाका याद जाता, म्हज्या चल्याच्या लग्नाचो तुका म्हजे परस चड हुस्को आसतालो. म्हणटालें,' बाकीचीं कामां सोड आनी ताचें लग्न जुळोवपाक प्राधान्य दी. ताचें लग्न थारलें तेन्ना तूं खूब्ब खोशी जाल्लें. अश्या म्हज्या दर खोशयेच्या खिणाक तूं वांटेकार जातालें. आनी म्हज्या अडचणीच्या काळांत म्हाका योग्य सल्लोय व्हड भयणी वरीं दितालें.''नूतन, कितें करता तें घर संवसार सांबाळून कर गो!'' अशी तुजी शिकवण.देखून तुजी उणीव म्हाका सदांच भासतली आनी तुजे खातीरची म्हजे काळजांतली सुवात रितीच आसतली.

खंयचेय गजालीचो भार वा ताण घेवप ना, कठीण समयार लेगीत आबूज जावप ना हें तुजें खाशेलेपण.कितलीय व्हड कार्यावळ वा घरगुती समारंभ आसूं, पयलींच योग्य नियोजन करून थंड तकलेन काम करप तुका आवडटालें!

सदचे भशेन दर वर्सा दिवाळी येतली. पूण तूं आसचें ना . तुज्यो यादी मात पणटेच्या उजवाडा वरीं काळजांत मिणमिणत रावतल्यो आनी हांवूय एक पणटी म्हज्या घराच्या कोनशाक लायतलें आनी म्हणटलें,'रजनीताई, ही पणटी तुजे खातीर!'

*म्हापशें – मो. 9970445778*

# नातलांचे तरेंकवार सोंपे केक

## व्हेनीला केक

**साहित्य** : 180 ग्राम मैदो वा गव्हांचें पीठ.180 ग्राम मिल्क मेड, 50 ग्राम बटर, 50 ग्राम पिठी साकर, 2 व्हड कुलेरां कॉर्न फ्लावर, 180 ग्राम दूद, 1 ल्हान कुलेर व्हेनीला ईसेन्स, 50 ग्राम तेल, 1 ल्हान कुलेर बेकींग पावडर, अर्द ल्हान कुलेर बेकींग सोडा.

**करपाची तरा**: आठ इंच बेकींग टीन वा अदमासान एक आयदन, त्या आयदनाक एक चिमटी भर बटर सारोवन वयल्यान मैदा वा गवांचें पीठ भुरभुरायात. मैदा वा गवांचें पीठ, कॉर्न फ्लावर, बेकींग पावडर आनी बेकींग सोडा चाळणींत दोन तीन वेळां घालून चाळून घेयात. एका आयदनांत मिल्क मेड, दूद, साकर, व्हेनीला ईसेन्स, तेल आनी बटर एकठांय करून फेटून घेयात. उपरांत मैद्याचें मिश्रण ह्या फेटिल्ल्या मिश्रणांत घालून एकठांय करात. हें केकाच्या टिनांत घालून प्रि हीट केल्ल्या ओव्हनांत 160 ते 180 डिग्री सेंटीग्रेडाचेर 30-35 मिनटां बेक करात.
(ओव्हन नाशिल्ल्यांनी कुकरांत करूं येता. कुकराची शिटी काडून, भितर स्टेड दवरून त्या स्टेडाचेर केक टीन दवरात. मंद उज्याचेर 30-35 मिनटां बेक करूं येता.

## मावा केक

**साहित्य** : 3/4 कप मैदो,1/4कप रवो,1/2 कप केस्टर शुगर, 1/2 ल्हान कुलेर बेकींग पावडर, 1/4 ल्हान कुलेर बेकींग सोडा, 1 ल्हान कुलेर वेलचे पिठो, 1/2 कप खवो (मावो),1/2 कप बटर, 2 व्हड कुलेरां अमूल क्रिम, 1/4 कप धंय, 1/4 कप बारीक कुडके केल्ले काजू, बदाम, पिस्ता.

**करपाची तरा**: गवो मैदो बेकींग पावडर,बेकींग सोडा एके चाळणींत घालून दोन तीन वेळां चाळून घेयात. हें मिश्रण कुशीक दवरात. दुसऱ्या आयदनांत साकर, बटर, फेडून घेयात. तातूंत रवो, धंय, दूद, क्रिम आनी वेलचे पिठो घालून सगळें एकठांय करात. उपरांत मैद्याचें मिश्रण घालून कट आनी फोल्ड (cut and fold method) चाळून घेयात. हें मिश्रण बटर आनी मैदा भुरभुरायल्ल्या केक टिनांत घालून वयर ड्राय फ्रूटस् घालात. हे टीन 180 तापमानाचेर 40-45 मिनटां ओव्हनांत वा कुकरांत बेक करात. न्हिवतगीर खावपाक तयार.

**कॅरट केक (गाजरा केक)साहित्य**:1/4 कप मिल्क मेड, 14 कप बटर, 1/4 कप ब्रावन शुगर, 1 व्हड कुलेर अमूलक्रिम, 1/4 कप दूद, 1/2 कप आक्रोट आनी पासां (खिसमीस), 1/2 कप गाजर बारीक किसून, 1/2 कप मैदो, पाव ल्हान कुलेर बेकींग पावडर, पाव ल्हान कुलेर बेकींग सोडा, पाव ल्हान कुलेर वेलचे पिठो, अर्द ल्हान कुलेर व्हेनीला ईसेन्स.

| मचमचीत |



डॉ. रिना लवंदे
नामनेची डेन्टीस्ट
कलंगूट - गोंय



**करपाची तरा** : सुकें साहित्य म्हळ्यार मैदो, बेकींग सोडा, बेकींग पावडर आनी वेलचे पिठो एके चाळणींत घालून दोन तीन वेळां चाळून घेयात. हें मिश्रण कुशीक दवरात. उपरांत दुसरे आयदनांत बटर, ब्रावन शुगर, मिल्क मेड, अमूल क्रिम, दूद आनी व्हनीला ईसेन्स बरेंऽ फेटून घेयात. ह्या मिश्रणांत गाजराचे कुडके, ड्राय फ्रूटस् आनी मैद्याचें मिश्रण घालून एकठांय करात (cut and fold method). हें केकाचें मिश्रण बटर पेपर लायिल्ल्या/मैदो भुरभुरायल्ल्या केकाच्या टिनांत घालून 180 तापमानाचेर ओव्हनांत 20-25 मिनटां बेक करात.

## नाचण्यां पिठाचो चॉकलेट केक

**साहित्य** : 2 वाटयो नाचण्यांचें पीठ, 1 वाटी दुदाचो पिठो, 1 वाटी पिठी साकर, अर्द वाटी दूद, 1 वाटी लोणी/घरावें तूप, 1 व्हड कुलेर कोको पावडर, 1 ल्हान कुलेर बेकींग पावडर, 1 चिमटी खावचो सोडा (बेकींग सोडा.)

**करपाची तरा** : नाचण्याचें पीठ, दुदा पिठो, पिठी साकर, कोको पावडर, बेकींग पावडर आनी बेकींग सोडा एकठांय करून दोन तीन वेळां चाळणींत चाळून घेवंचें.
एका दुसऱ्या आयदनांत दूद आनी लोणी/तूप बरेंऽ फेटून घेवंचें. बरेंऽ फेटले उपरांत वयलें नाचण्या पिठाचें मिश्रण घालून एकठांय करचें. केकाच्या टिनांत वा केक करतात त्या आयदनाक लोणी लावन ताचे वयर नाचण्या पीठ भुरभुरायात. ह्या टिनांत हें केकाचें मिश्रण घालून तें ओव्हनांत 160 ते 180 तापमानाचेर 20-25 मिनटां बेक करात.ओव्हन नाशिल्ल्यांनी कुकरांत केक करूं येता.




# उदय भेंब्रे हांका भेटयलो स्व.चंद्रकांत केणी पत्रकारिता पुरस्कार

गोंयची वाटचाल एके वायट दिकेन चलता. देशांत लोकशायेच्या खांब्यांकूच हालोवपाचो प्रयत्न चल्ला. जर हे खांबे तुटले जाल्यार देशांत स्वराज्य आनी स्वातंत्र्याक अर्थ उरचो ना. लोकशाय सांबाळपाची आनी लोकशायेचें भवितव्य परजळीत करपाची जापसालकी न्यायपालिका आनी प्रसार माध्यमांचेर चड आसा अशें नामनेचे गीतकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी कोंकणीचे ज्येश्ठ फुडारी ॲड. उदय भेंब्रे हांणी पुरस्कार स्वीकारतना म्हळें. स्व.चंद्रकांत केणी हांचे जयंती दिसा आयोजीत स्व.चंद्रकांत केणी पत्रकारिता पुरस्कार भेटवण सुवाळ्यांत ते उलयताले. हो पुरस्कार तांकां गोंयचे नामनेचे उद्योजक अवधुत तिंबले हांचे हस्तुकी गोमंतक दिसाळ्याचे संपादक संचालक राजू नायक, ह्या पुरस्काराचे पयले मानेली आनी ज्येश्ठ पत्रकार सुरेश वाळवे आनी दिनेश मणेरकार हांचे हाजेरींत भेटयलो.

गोंय ही देशांतली कॅसिनोची राजधानी जाल्या. आतां ड्रग्सांचीय राजधानी जावपाक कळाव लागचो ना. गोंयांत ज्यो वायट प्रवृत्ती तकली वयर काडटात ताका सरकार आनी सरकारी यंत्रणा जापसालदार आसा. पक्ष बदल हो लोकशायेचो विश्वासघात आसा. लोकांचो घात करप्यांक लोकशायेचीं तत्वां मान्य नात. त्या भायर तांकां संविधानाचें म्हत्वूय दिसना अशेंय तांणी हे वेळार म्हणलें.

सुवाळ्याचे मुखेल सोयरे नामनेचे उद्योजक अवधुत तिंबले हांणी सरकार पुरायेन रिणांत बुडलां आनी रिणां काडून सण करता अशें ह्या वेळार उलयतना सांगलें. गोंयच्या माथ्यार 50 हजार कोटी रुपयांचें रीण आसून फकत जुराक 3,000 कोटी रुपया सरकाराक भरचे पडटात. दिसाक ही रक्कम 10 कोटी पडटा. हें सगळें खबर आसुनय गोंयकार ताचेर उतरय काडीनात हाचें आपल्याक अजाप दिसता अशें म्हणलें.

पुरस्कार वितरण सुवाळ्याचें सुत्रसंचालन गोमंतक दिसाळ्याचे संपादक संचालक आनी ज्येश्ठ पत्रकार राजू नायक हांणी केलें. हे वेळार उलयतना तांणी सांगलें, 'उदय भेंब्रे हांका हो स्व.चंद्रकांत केणी पत्रकारिता पुरस्कार भेटोवन पुरस्काराची उंचाय आनी प्रतिश्ठा वाडल्या. चंद्रकांत केणी हे गोंयचे राजकी चळवळीचे शिलेदार आशिल्ले. तशेंच ते गोंयचे तिसरे पिळगेंतल्या पत्रकारांचे मार्गदर्शक आशिल्ले.

# नामनेचे तियात्रीस्त आनी लेखक जॉन क्लारो हांका संगीत नाटक अकॅडमी पुरस्कार

सिद्धहस्त लेखक, प्रतिभा संपन्न दिग्दर्शक आनी यशस्वी निर्माती जॉन क्लारो फेर्नांडीस हांका ओंदुचो 'संगीत नाटक अकॅडमी अमृत पुरस्कार' फावो जाला. तांका मेळिल्ल्या ह्या भोवमाना पासत गोंयकारांनी खोस उक्तायल्या.



कोंकणी तियात्राचो संशोधनात्मक इतिहास मांडपांत जॉन क्लारो हांचो मोलाचो वांटो आसा. ते पासत म्हायती एकठांय करपाक ते गोंयभर भोंवल्यात. मुंबय वचून कितल्याच तियात्रीस्तांक ते भेटल्यात. कितल्याच वाचनालयांनी वचून तांणी संदर्भ सोदून अभ्यास केला. तियात्राचेर संशोधन केलां. तांणी 'पुर्तुगेज कलवंत','कामिल बोटलेर','तेवीस वर्सां','इंग्लीश मॅडम' अशे कितलेच लोकप्रिय तियात्र बरोवन माचयेर हाडल्यात.

ज्येश्ठ नागरीक, सामाजीक-राजकी परिस्थिती, दादले-बायलांचे संबंद, तरनाटे हे तांच्या बरोवपाचे मुखेल विशय आसात. तांची मानसिकता समजून घेवन तांतूंतलें नाट्य सोदून काडून तें प्रेक्षकां मुखार दवरपाक जॉन क्लारो फिशाल आसात. तांचे प्रचंड वाचन तांका तियात्राचे विशय आनी मांडणी करपाक उपेगी पडलां. आत्यंत उणें आनी जाय तितलेंच उलोवपी आनी सभावान मवाळ आनी मोगाळ जाल्ल्यान तांचो समाजांतल्या सगळ्या लोकां लागीं सामके लागशिल्ले,घरावे संबंद आसात. संगीत अकॅडमीचो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार मेळिल्ले पासत बिम्ब परिवार तांचें अभिनंदन करता.

# डॉ. संगीता बर्वे हांका बाल साहित्य पुरस्कार



बिम्ब परिवार आनी बिम्ब मासिका लागीं फाटलीं कितलींच वर्सां आपलेपणाचें नातें बाळगून आशिल्ल्या पुण्याच्या डॉ. संगीता बर्वे हांका ओंदुचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो बाल साहित्य पुरस्कार तांच्या 'पियुची वही' ह्या पुस्तकाक फावो जाला. तांका हो पुरस्कार 14 नोव्हेंब्र ह्या दिसा दिल्ली घडोवन हाडिल्ल्या एका सुवाळ्यांत साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष श्री. चंद्रशेखर कंबार हांचे हस्तुकी भेटयलो. साहित्य अकादेमी दर वर्सा 24 भारतीय भासांतल्या दर्जेदार बाल साहित्याक पुरस्कार भेटोवन भोवमान करता. कोंकणी भाशे खातीर हो पुरस्कार ज्योती कुंकळकार हांका फावो जाला.

डॉ. संगीता बर्वे सातत्यान बाल साहित्य बरयतात आनी कविता तशेंच ललित लेखनांतूय तांचें योगदान आसा. घराणें संगीतकाराचें जाल्ल्यान तांच्या साहित्यांत संगीताचो नाद भरिल्लो आसा. तांचें बिम्ब परिवारा कडल्यान अभिनंदन



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615



## देझेंब्र 2022 उतरकुवाडें

| 1 | | 2 | ■ | 3 | 4 | | 5 | ■ | 6 |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | ■ | 7 | 8 | | | ■ | 9 | | |
| 10 | 11 | ■ | | ■ | 12 | 12-अ | | ■ | |
| ■ | 13 | | | | ■ | | ■ | 14 | |
| 15 | | ■ | ■ | ■ | 16 | | | | ■ |
| | ■ | 17 | | 18 | | ■ | ■ | 19 | |
| 20 | 21 | | ■ | 22 | | ■ | 23 | | ■ |
| ■ | 24 | | | ■ | 25 | | ■ | 26 | 27 |
| 28 | ■ | | ■ | 29 | ■ | ■ | 30 | ■ | |
| 31 | | | | | | ■ | 32 | | |

**आडवे :** 1-कवना करपी,फकांडेर. 3-मर्दीं, 7 - हिंदू पंचांगांतल्या म्हयन्याचो 14 वो आनी 29 वो दीस. 9- बारा राशींतली धावी रास. 10- शांत,विनम्र,विनयशील. 12- मुंयां घर. 13 - तांदूळ,गंव बी वांटून केल्लो दाट पोळो. 14- जेवण-खाण.15- एक शिटूक,पिटपिटीत आनी सादारण बुकल्या येदें रानटी जनावर. 16- खांवचे पानां वेल. 17- कापो पणस. 19 - मारुतीचें आयुध, --धर-भीम. 20 - मुशारो,वावर केल्ल्याचें मोल. 22- सद्दां,सदांच,दिसपट्टें (मराठी). 23- आवय (मराठी). 24 - 'टोकियो'राजधानी आशिल्लो देश. 25- किंमत,दर. 26- रुशी,सन्याशी.31-हुस्केल्लें,भियेल्लें,मन थाऱ्यार नाशिल्लें.32-प्रस्न(सवाल).

**उबे :** गायनाची एक कला (मुसलमानांची). 2- हलकट,अधम,हीण. 3- दादलो मनीस(हिन्दी). 4- विजया दसम. 5- गोंय,--- आनी दीव,एक आदलो केंद्र शासीत प्रदेश. 6- घराची मालकीण,लग्न जाल्ली बायल. 8- आंग पुसपाचें लुगट,टॉवेल. 11- आराखडो,मॅप.12अ-संगितांतलो एक राग, 14- फरक,वेगळेपण,पंगती प्रपंच 15- काबार जावप,खलास जावप.16- लेंगो. 17- बरयिल्लें साहित्य,लिखाण. 18- लग्नांत करवलेन धरपाचो मंगल कलश. 21- नाद,आवाज. 27- तीन वर्सांचो भोंवडो. 28- आंगार घाल्ले कपडे,वेश,न्हेसण. 29-वास घेवपाचें इंद्रिय. 30-व्हडलो हुंदीर.

## नोव्हेंब्र 2022 ची जाप

| म | हा | ग | ण | प | ती | ■ | व | डी | ल |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| हा | ■ | व | ■ | द | न | पा | र | ■ | क्ष्मी |
| दे | वू | ळ | ■ | वी | ■ | प | द | ■ | प |
| व | ■ | ण | ■ | ■ | च | ■ | वि | नं | ती |
| ■ | चिं | ■ | ■ | आ | रा | ध | ना | ■ | ■ |
| चि | ता | री | ■ | मा | च | ■ | य | म | न |
| र | म | ■ | वि | स | र | ■ | क | ■ | र |
| का | णी | ■ | चा | ■ | ■ | सौ | ■ | मा | मा |
| ळ | ■ | मो | र | गां | व | ■ | बा | ■ | व |
| ■ | फ | ळी | ■ | च | र | च | रा | व | प |

